पयली खेप

# ॥ काव्य गाथा ॥

हजार कविता

कांयच नासता थंय
आसता कविता
हवा लेगीत नासता थंय
आसतात काव्यबिंयां
उजवाड नासता थंयय
काळखांत आसतात कवनां
कवी बगर दुसऱ्या कोणाक
तीं केन्नाच दिसनात

भरत नायक

ॐऐं नामी प्रकाशन

डॉ. किरण बुडकुले
हांकां
मायेमोगान
अभिप्रायाखातीर
भरतनायक

पयली खेप
कवितेचेर १००८ कविता

# ।। काव्य–गाथा ।।

कवी : भरत रघुवीर नायक

**काव्यगाथा**
(काव्यसंग्रह)
भरत रघुवीर नायक
९४२३८८३०८१

पयली आवृत्ती: डिसें.२०१७

उजवाडावपी : नामी प्रकाशन
सी-१ गोल्डन हील व्यू
रेगो नगर
बांबोळी-गोंय ४०३२०२

सगळे हक्क : कल्याणी नायक
९१५८५०६७२३

प्रकाशन क्रमांक : २७

छापपी :
सह्याद्री ऑफसेट सिस्टम
खोर्ली, तिसवाडी गोवा
(०८३२) २२८५९०१

लेखकाचो पत्तो
सी-१, गोल्डन हील व्यू
रेगो नगर,
बांबोळी गोंय ४०४२०२

मुखचित्र : प्रकाश कळंगुटकार

मोलः २६०/-

**KAVYA-GATHA**
Poetry in KonkanI by
Bharat Raghuvir Naik

First Edition; Dec,2017

Publisher: Nami Prakashan
C-1, Golden Hill View
Rego Nagar
Bambolim Goa. 403202

Printer :
Sahyadri Offset System
Corlim, Tiswadi Goa
(0832) 2285901



## वल्लभाक

*वायट बऱ्या प्रसंगार धांवून आयलो*
*हांव वचत म्हूण म्हजे पाळटेर रावलो*
*अर्द वाटेर सावन म्हाका परत हाडलो*
*आनी म्हाका सुरक्षीत दवरून आपूण गेलो*
*त्या म्हज्या वल्लभाक*
*सर्गेस्त* ***वल्लभ प्रभाकर नायक***
*हाका*
*म्हज्या काव्यभुंयेचीं हीं सुगंधफुलां,*
*हो काव्यतुरो अर्पितां*

**– भरत नायक**

## मांडावळ

# एक काव्य-दडक

पावसाची कसलीच सुलूस नासताना, जोगलावणें, चकचक, गडगड, दमट नासतना एकेकदा अकस्मात पावसाची दडक येता. कांयच तयारी नाशिल्लयान भिजचेंच पडटा. तसो हांव एक दीस काव्य दडकेन चिप्प भिजलों. पावसाचे दडकेन जायते जाण, जायते फावटी भिजल्यात जातले, पूण कवितेचे दडकेन भिजपांत जो आनंद मेळटा तो अणभवपाची संद खूब थोड्यांक मेळ्ळ्या जातली. दिसरात सेगीत तीन म्हयने हांव ते दडकेन भिजत रावलों. काव्य-उदकांत बुडून रावलों. त्याच भिजपाचो परिणाम म्हळ्यार 'काव्य-गाथा' कवितासंग्रह.

धा विशयावयलीं धा पुस्तकां आसात. धा विशयांवयलें एक पुस्तक आसा. एकाच विशयार एक पुस्तक आसा. एकाच विशयाचेर अनेक पुस्तकां आसात. पूण कविता ह्या एकाच विशयाचेर एक हजार कवितांचें पुस्तक आसत म्हणपाचो दुबाव आसा. कोंकणींत तरी ना, हाची हांवें चवकशी केल्या. शेजारच्या भाशांनीय ना अशें म्हाका जेश्टांनी सांगलां. तशें जालें तर हो उत्स्फुर्त येवजल्लो प्रयोग थोडो तरी सफळ जालो इतलेंच म्हाका पुरो. म्हाका ताचें कुस्कूट भर लेगीत श्रेय दिना जाल्यार जाता. म्हजे मायभाशेक हांवें एक मोलादीक काव्य-संग्रह अर्पण केलो हाचें म्हाका व्हड समाधान. अशे तरेचें पुस्तक येतलें हें कळ्ळ्या बरोबर 'उगतें मळब ' संस्थेच्या सगळ्या कवींनी म्हजी खूब खूब तोखणाय केली. खरें म्हळ्यार 'उगतें मळब' च्या म्हयनाळ्या कवी संमेलनांतूच म्हाका ह्यो कविता बरोवपाची उर्बा मेळ्ळी. एका संमेलनांत कवींच्यो कविता आयकून चडिल्ली धुंदी निवळटा म्हणसर दुसरें संमेलन येता, आनी परतून धुंदी चडत रावता.

कविता कशी येता, कित्याक येता, ती येता, जाता काय करची पडटा, तें एकाद्र्या कवीकूय कळप कठीन जाता. कविता म्हळ्यार झाडावयलीं फळांफुलां न्हय आनी पावसाचे थेंबेय न्हय. हें जरी खरें आसलें, तरी त्या फुलांफळांत कविता आसात, पावसाच्या थेंबाथेंबात कविता लिकलिकतात, त्यो फकत कवीकूच दिसतात. ताणे जरी त्यो पारखिल्यो आनी आपल्या नांवान प्रसिध्द करून कवी म्हणून नामनां मेळयलीं तरी कवितेच्या जल्माविशी ताका सांगपाक जातलेंच म्हणपाचो दुबाव आसा. 'कवितेविशीं कितेंय बरय. दोन पानां बरयल्यार पुरो ' अशें हांवें एका कवीक सांगलें तेन्ना ताणे म्हाका बरेंच आयकयलें, आनी निमणे म्हणलें, कवितेविशीं बरोवप म्हळ्यार कविता करपा इतलें सोपें न्हय. हांव धा कविता बरयन पूण कविते विशीं बरोवप म्हाका जमपाचें ना. कविता करप म्हजें काम. ताचें रसग्रहण करून, अभ्यास करून मत मांडपाचें, भासाभास करपाचें काम रसिकांचें, श्रोत्यांचें, समिक्षकाचें. कवी कवितेविशीं बरोवंक शकना हें आयकुंकच विचित्रशें दिसता. जी गजाल तो आपूण तयार करता म्हणटा, ताचेविशीं ताका खबर ना म्हळ्यार अजापूच. जो जिनस आमी तयार करतात, खातात, पचयतात, हेरांक खावयतात ताचेविशीं आमकां खबर नासून

कशें जातलें ! पयली गजाल म्हळ्यार कविता बरोवप ताका सोपें दिसता कारण ती तयारुच आसता. कवी फकत ती कागदार बरयता. तकलेंतली तयार कविता कागदार कॉपी करपाक तकली खाजोवची लागना. 'काव्यगाथा' हो तांतलोच एक प्रकार अशें हांव म्हणन. ह्यो कविता हांवें केल्यो म्हणचे परस हांवें त्यो वेंचून काडल्यो वा सोदून काडल्यो म्हणल्यार जाता. सरभोंवतणीच आसल्यो त्यो. दर एके वस्तींत पावला पावलाक दर एका मनशांत आसल्यो. हांवें फकत त्यो वळखल्यो आनी एकठांयल्यो.

कविता ही येता, येवजता ,जल्मता काय करतात, हो एक कठीन प्रस्न. कोण म्हणटा हांव कविता केन्नाच बरयना. म्हाका त्यो सुचतात. येतात तश्यो हांव बरयतां. कविता ही एक कल्पना अशें मानलें जाल्यार त्यो कितल्योय येवं शकतात. कोणाचेय तकलेंत येवं शकतात. पूण बरोवन काडटा ताका आमी कवी म्हणटात. तेन्नाच ती कविता खरी जल्माक येता म्हणचें पडटा. चलता भोंवतना, काम धंदो करतना, समाजांत वावुरतना कितलेशेच विचार येतात. जो त्यो याद धरून सुंदर ढंगांत परिणामकारक, थोड्याच उतरांनी मांडटा ती कविता. अशो कविता खूब थोड्यो आसतात. हजारांतलो एकाद्रोच विचार जो सुंदर आसता तो मनांत घट दवरून कविता जल्माक घालू येता.

कवी हो एक वेगळोच प्राणी. वेगळेंच व्यक्तिमत्व. एक वेगळेंच रसायण. ताका जें दिसता तें सर्वसादारण मनशाक दिसना कारण सगळ्यांकच ताच्या असली काव्यनदर आसना. थोड्यांकच आसता, ती ताका रचणाऱ्याची देणगी. तो एक गूण जो आपणे जागोवन वाडोवचो पडटा. कळम येवंक दिवंक फावना. अशें करता तोच कवी म्हूण यशस्वी जावंक पावता. मळबांतलीं कुपां पळोवन ताका कविता येवजतात. मळबांत कांयच नासता तेंय पळोवन ताका कविता येवजतात. मनशाच्या सभावांतय ताका असंख्य कविता सांपडटात. ताच्या रडपांत, हांसपांत, दर एके वागणुकेंत ताका कविताच कविता दिसतात. जें पळयता तांतूत कविताच सांपडटात. पळोवपाची ताची नदरूच वेगळी आसता. सुखाची कविता करपाक ताका सुख भोगचें लागना तशें दुखाची करपाक दूख अणभवचें लागना. दुसऱ्याचीं सुखदुखां पळोवन ताची कल्पनाशक्ती ताका तें तें दाखयता.

पूण कवी हो सदांकाळ आनंदांतूच आसता हें मात खरें. दुखाची कविता बरयतना लेगीत तो खोशेंतूच आसता. आपणे कविता जल्माक घाली म्हणून आनंद. तांच्या दुखांतलें सूख भोगून आनंदी. ताचे मनस्थितीचो अदमास घेवप कठीण. ताच्या मनांत आनीक मनां. रंगी बेरंगी मनां. सगळे तरेचीं मनां. देखून ताका कळटात सगळ्याच लोकांचीं मनां. दुसऱ्याच्या दुखाचो कळवळो आयिल्लो मनीस कविता करू शकताच अशें ना. ताका कवीचें मन आसल्यारूच तो करतलो. कवीचें मन आसल्यारच तो दुसऱ्याच्या मनाचो थाव घेवंक शकतलो. नातर ताच्या दुखावांगडा आपुणूच दुखी जावन वतलो.

ह्या जगांत सुखापरस दुखूच चड भरिल्लें आसा. जल्मतनाच मनीस रडतूच जल्मता. ताका मुद्दम प्रयत्न करून हांसोवचो पडटा. थोड्यांचो रडवो सभाव कांय प्रमाणांत तसोच

उरता. मागीर ताच्या मनाक हांसोवपाक वेगवेगळे उपाय काडटात, वेगवेगळ्यो येवजण्यो करतात. मनोरंजनाचीं साधनां तयार करून ताका खूश दवरतात. नाटक, कविता, सिनेमा हीं तातुंतलीं कांय साधनां. इतलें करुनूय निमणे तो रडतूच वता. हांसप विसरता. कारण ताचो निजी सभाव रडपाचो. आमच्यो कविताय चडशो दुखाच्यो आसतात. दुखांतलें सूख भोगपाक आमकां आवडटा. कवीय असोच आसता. दूख प्रदर्शीत करून सूख भोगपांत आनी तेंच सूख हेरांक वांटपांत ताका आनंद मेळटा.

ल्हानपणांत हांव शिरदोनचे वेळेर उदकांतल्यान चलपाकूच म्हूण वतालों. हाली त्या उदकांतल्या खडपांचेर वरांच्या वरां बसपाकूच वतां. थंयच हांव झपाटलों आसत कारण थंय म्हाका एक कविता येवजली. ती मनांत घोळयत घरा येवन हांवें बरोवन काडली. तिचेर संस्कार करतनाच दुसरी सुचली. तिचेर विचार करतना तिसरी येवजली. अशो एकार एक येत रावल्यो. हांव बरयत रावलों. रातभर जागोच उरलों. उजवाडलें तेन्ना म्हज्या हातांत धा कविता आसल्यो. धावूय कविता एकाच विशयाचेर. त्योच धा हांव परतून परतून वाचून पळयतालों तेन्ना आनीक जल्माक येताल्यो. पुरो म्हूण पेन सकयल दवरलें तेन्ना ३०० जाल्ल्यो. म्हाकाच खरें दिसना जालें. इतलेंय करून कवितेविशीचो म्हजो अदमास, चिंतन आनी अभ्यास तकलेंत खूब उरिल्लो. कवितेचेर सगळ्याच आंगांनी विचार जाला अशें म्हाका दिसलेंना. एक नियाळटना कवितेचो दुसरो सभाव तकली वयर काडूंक लागलो. अशें करीत करीत सातशें, आठशें जाल्यो तेन्ना मात हांव कवितेच्या उपयोगाचेर, परिणामाचेर आनी तिच्या वेगवेगळ्या गुणांचेर मुद्दम विचार करूंक बसलों. कांय थोड्यो हांवें मारून मुटकूनय कविता केल्यो. निमण्यो शंबर कविता तर होरावनूच करच्यो पडल्यो. एक हजार जाल्यो तेन्ना मात म्हाका सू... जालें. खोशी तेंगशेर पावली तेन्ना हांव स्कुटर घेवन शिरदोना गेलों आनी त्याच खडपार बसलों. हात जोडून सगळ्यांचे उपकार आटयले. थंयच बसून आनी एक कविता बरयली. ती हांवें ह्याच संग्रहाचे सुरवेक घाली.

सगळ्यो कविता घेवन हांव एका कवी-इश्टालागी गेलों. ताणे म्हाका निराश केलो. म्हणलें, 'एकाच विशयाचेर इतल्यो कविता वाचतलो कोण ! तूं अशें कर, एक हजार कवितेचें एक पुस्तक काडचे बदला शंबर शंबर कवितांचीं धा पुस्तकां काड.' उपरांत हांव तें बाड घेवन दुसऱ्या कवी कडेन गेलों. ताणे म्हाका शाबासकी दिवन बरोच प्रोत्साहीत केलो. म्हणलें, 'असलें पुस्तक हांवें केन्नाच पळयलेंना. बेठोच पुस्तकांचो आंकडो वाडोवपाक म्हूण धा काडू नाका. एकूच काड तूं. कोणेच केलेंना तें तूं कर.' हांवें आनी फाटफुडें पळयलेंना. सोमतो छापपाच्या कामाक लागलों आनी हें पुस्तक तुमच्या हातांत पावलें.

**भरत नायक**

# कवितेचो वेध

'कवी असणे म्हणजे नेमक्या शब्दाचा पाठलाग करणे, योग्य शब्दसमुच्चयाचा वापर करणे, आगळी वेगळी ओळ लिहून बघणं, अंतर्बाह्य समृद्ध करून टाकणाऱ्या सुरावटींची रचना करणं, अवघ्या आयुष्यांतलं सत्य सांगण्याचा अट्टाहास धरणं. कवी हा तांबडं फुटल्या नंतर घरट्या बाहेर पडलेल्या तीक्ष्ण नजरेचा, वळवळणाऱ्या किड्याच्या शोधातला पक्षीच ' अशें नामनेचे प्रतिभावंत कवी दिलीप पु. चित्रे हाणे आपले एके मुलाखतींत सांगलां. चित्रेन केल्लुया ह्या विधानाची याद जावपा फाटलें कारण भरत नायक हाणे बरयल्लुयो 'कविता' ह्याच विशयावेल्यो एक हजार कविता. कवितेच्या मळावेलो हो आगळो वेगळो विक्रम अशें म्हणू येता. गिनीज बूक ऑफ रिकॉर्ड हातूंत अशे तरेचो विक्रम केल्लुयाची नोंद आसा काय कितें हें म्हाका खबर ना. पूण भारतीय कवितेंत अशे तरेच्यो कविता बरयल्लुयाची देख मेळप कठीण. ते खातीर भरतबाबाक परबीं फावतात.

खरें म्हळ्यार अशे तरेची निर्मणी जावपाक कवीन 'झपाटून' वचपाक जाय. हांगा कवी आपूण झपाटलों अशें आपलें वर्णन करता तेंय योग्य शब्दसमुच्चयाचो वापर करून. तो मनशां पासून पयस दर्याच्या मदीं आशिल्लुया खडपाचेर एकलोच बसून एके तरेचें एकसुरेंपण अणभवता. ह्या एकसुरेपणांत एके वेगळेच तरेची शांती आसा आनी हांगा ताका दिसता आपूण झपाटलां.

शणै, बाकी, पंडीत, शंकर
मनोहरराय, भांगी, केळेकार
सगळ्यांनी म्हाका घालो गराडो
दिलो एक संदेश...आदेश
आनी हांव झपाटलों.
परतून शांत...सुशांत...एकांत...
सगळेच कवित्मे घुसले म्हज्यांत
आनी हांव झपाटलों.

खऱ्यानीच अशे आत्मे मानेर बसल्या शिवाय असले तरेचे कवितेची निर्मणी जावचेली ना. कवीक ताची पुरायेन जाणीव आसा. हजार भर कवितेचें सर्जन करप ही सादी सोपी गजाल न्हय. संखेवेल्यान कांय कविच्या बऱ्या वायट गुणांची मोलावणी करपाक येता. तागडेच्या एका दाल्यांत एक कविता आनी दुसऱ्या दाल्यांत हजार कविता घाल्यार एके कवितेचें दालें जड जावं येता तें तिच्या गुणांक लागून. कांय कवी वर्साची वर्सा कविता बरयतात आनी तांचे पांच पन्नास कविता संग्रह प्रसिद्ध जावनूय तांचे कवितेच्या गुणांत एक गुंजभर लेगीत भर पडना. ताका भरता कडेन जाप आसा. तो

म्हणटाः

एकूच कविता रचल्या काय हजार
न्हय म्हत्वाचें
आसूं येता एकूच कवन
हजारांच्या तत्वाचें

आनी ह्या तत्वाक खाशेलें म्हत्व आसता. कित्याक त्या तत्वाचे बुन्यादीचेर कविता उबी आसता. आनी हें तत्व कवी म्हणटा ते प्रमाण एके वळींतूय आस्पावल्लें आसूं येता. तें तत्व तुमचे बुद्धीचे साणीर घासून पळयल्यार ताची पारखुणी जावं येता. आनी कवितेचें प्रयोजन कितें ? कवी कित्याक बरयता ? हे दोन अनादी काळा सावन कवीक आनी कवितेच्या आस्वादकाक पडिल्ले प्रस्न. तांची जाप सोदपाचो यत्न हांगा कवी करता. ताका दिसता कवी कविता बरयता ती दाद मागपाक न्हय तर ताका निखळ साद घालपाचो आसता. जशें परी कोगूळ आपल्याक जाय म्हूण गाता. ताच्या गाण्याक कोणे वा ! म्हणचें अशी ताची अपेक्षा नासता. खरो कवी वाद घालपाक कविता बरयना तर कवितेंतल्यान व्यक्त जावपी अणभवाचो आस्वाद घेवचो अशीच ताची अपेक्षा आसता. आनी हो आस्वाद घेवपाकूय एक वेगळे तरेची मनाची अवस्था लागता.

आस्वाद घे गाण्यांतल्यान
नातर घे सुको
तेंय जमना तर खावचो
मार मौनांतलो मुको

भरत आपले कविते कडेन एका तिरायताचे नदरेन पळयता. तेन्ना ताका दिसता

केन्नाय म्हजी कविता पेट्टो उजो
चूड न्हय, आगटें न्हय, न्हय होमखण
सुक्या सडसडीत रानान घेतिल्लो पेट

हे कवितेचो लाक्षणिक अर्थ घेवचो न्हय. कविता सुक्या सडसडीत रानान घेतिल्लो पेट आसता. कवितेचे अभिव्यक्तींत विलक्षण तांक आसता. ती समाजमनाचेर आपलो प्रभाव घालता आनी एखाद्र्या देशाचे जडण घडणेत मोलाचें योगदान दिता. ताची एक बऱ्यांतली बरी देख म्हळ्यार पाब्लो निरुदा ह्या चिली देशाचो कवी आनी ताची स्पॅनीश भाशेंत बरयल्ल्यो कविता. ताची कविता पेटिल्लें होमखण कशी. आमचे देशी भासांतूय अशो जायत्यो कविता आसात. सुब्रमण्यम भारती ह्या तामीळ कवीन बरयल्ल्यो कविता तामीळ लोकांच्या मनांत देशभक्तीचें बीं रुजोवन गेल्यो. आज काळ बदल्लो तरी तांची कविता काळा भायरी जावंक ना हें मतींत दवरपाक जाय. कवितेंत व्यक्त जाल्ले अणभव अस्सल आसतकच तिचे अभिव्यक्तीक आगळी वेगळी धार येता आनी काळाचे

कसवटेर ती टिकता. आपले हे कवितेचे वळींतल्यान कवीक हेंच सुचोवपाचें आसा. कविता मनशाचें जिवीत सुंदर करता. तो जगांत भावपण वाडोवन संवसारांतली सगळी अशांती पयस करता. दुसऱ्या एका कवीन एक कविता बरोवन ताका वाचून दाखयतकच तो ते कवीक सांगता,

हांवें ताका सांगलें
तूं ही कविता जग
ताणे म्हळें,
–आनी एक कविता येवजल्या
हाचे परस सुंदर–
आनी तो बरोवंक बसलो
असलो

खूब फावटी कवी सांगचे परसूय चड सुचयता. कितें लिपोवचें आनी कितें दाखोवचें हें ताकाच खबर आसता. देखून दिसता तितलींय कुपां ताचीं कवितेचीं पानां ' असो अणभव येता. आनी जाका कविता उमगता तोच ब्रह्मांड पळोवपाक शकता आनी ताचे भितर ब्रह्मज्ञानाचो उजवाड फाकूंक पावता. आनी चिंतन करपाक लावपी ह्यो वळी

कविता सुचून जाता कवी, जिणेंत भरता अर्थ
जाका आवडना कविता, ताचें जिणें व्यर्थ

भरत कविते संबंदान आमकां सत सांगून वता. जशें चित्रे म्हणटा ते प्रमाण कवी भास घडयता. भाशेचे लयेक एक वेगळें वळण दिता. ती अदीक घटमूट करता. तो आपले कवितेंतल्यान अणभवाक आकार दिता. भरत ह्या कवितांचे माळेंतल्यान कवितेच्या वेगवेगळ्या आंगाचो वेध घेता. ह्या प्रवासांत ताका सगळेंच यश मेळ्ळां अशें ना. कांय कडेन रंग उडिल्ले भशेन जाल्यात तर कांय कडेन ते जाय तशेच दिसतात.

कोंकणींतलें हें आगळेंच पुस्तक.

**माधव बोरकार**
ताळगांव

६ सप्टें २०१७

# १. झपाटलों

मनशां पसून पयस
समदिरा मदें
एका मोठ्या खडपार
हांव एकटोच बसलों
ना खट्ट, ना खुट्ट
ना उलोवप ना हांसप
ना रडप, ना कसली पिरंगण
शांत.. सुशांत.. एकांत
थंय हांव बसलों
आनी झपाटलों...

आयलो एक कावळो, एक कीर,
एक कोगूळ, एक साळोरी
बसलीं म्हज्या म्हऱ्यांत.
कांय पिसोळीं
बसलीं म्हज्या माथ्यार.
जलप्राण्यांनी तकली उबारून
म्हाका पळयलो
सगळ्यांनी मारलो एकूच उलो
आनी हांव झपाटलों...
परतून शांत...सुशांत...एकांत...

कोगळान गायलें गीत
हेरांनी दिली साथ
सरगम सुरान...
खिणांत सगळीं जालीं गुप्त
आनी हांव झपाटलों
परतून शांत...सुशांत...एकांत...

शेणै, बाकी, पंडीत, शंकर,
मनोहरराय, भांगी, केळेकार
सगळ्यांनी म्हाका घालो गराडो
दिलो एक संदेश, एक आदेश
आनी हांव झपाटलों...
परतून शांत...सुशांत...एकांत...

सगळेच कवित्मे घुसले म्हज्यांत
आनी हांव झपाटलों
धांवलों काव्यांगणांत
परतून शांत...सुशांत...एकांत
...रमलों काव्यांत...

## २. कोजागिरी

कोजागिरी देवी आमकां वर दी गे
आमच्यो डायऱ्यो कवितांनी भरूंदी गे
उगत्या मळांत कवी आमी बसतात गे
तुज्या चान्न्यांत रातभर भिजतात गे

सैमा आंगणांत आमचें कवी संमेलन
कवी कवींचें देखदिणें हें मिलन
तुजे कुरपेन कवनार कवनां सुचुंदी गे
आमच्यो डायऱ्यो कवितांनी भरुंदी गे

कडव्या कडव्यांत आसचो उपाट अर्थ गे
काव्य रचणुकेंत नाका कसलो सुवार्थ गे
उतरा पावलाक प्रेरणा तुवें दिवची गे
आमच्यो डायऱ्यो कवितांनी भरूंदी गे

आमच्या काळजांत तुगेली भक्ती गे
तूंच आमगेली खरेली शक्ती गे
लिखणेर लिखण्यो कवितांनी झरुंदी गे
आमच्यो डायऱ्यो कवितांनी भरुंदी गे

## ३. भांगराचीं पोवनां

म्हजीं हीं कवनां भांगराचीं पोवनां
थोड्यांक कळटा, थोड्यांक कळना

जशें भरलां भांगर
आमचे भुंये पोंदा
तशीं आसात पोवनां
हांगचे कविते पोंदा

हिरे समजून कंवच्यो
घालतात थोडे गळ्यांत
भांगर समजून पितूळ
घालें म्हणून कांय ना

हिरे जावं पितूळ
आंगाक दिता कांती
पोवनां जावं कवनां
जिवाक मेळटा शांती

## ४. अजीर्ण

सगळे पिवया कवितेचो दरया,
कोणाक पचता पळोवया
पचता ताची सुदरतली जीण
पचना ताका जातलें अजीर्ण

अजीर्ण जाल्यार भिवचें न्हय
वखद समजून कितेंय पिवचें न्हय

हें अजीर्ण न्हय दुयेंस
बदलीन दिसतलो हावेस
नव्या हावेसांत नव्या चिंतनांत
भरिल्लीं आसात कवनांच कवनां

## ५. जातिवंत कवी

दुःखाच्या अजिर्णाकय कवीकडेन आसा उपाय
दर दिसा एक एक नवी कविता गाय,

नवी सोदशी मेळटा पोरणी, पोरणी सोदल्यार नवी
अशें तुकाय जाता जाल्यार तूं जातिवंत कवी

बसला थंयच येता सोदीत, गरज ना सोदची
अशें तुकाय जाता जाल्यार तूं जातिवंत कवी

येवजूंक बसता संवसाराचें, धुमशेण कांडटा कवीत
अशें तुकाय जाता जाल्यार तू जातिवंत कवी

उगडास उरना तारीख आनी, याद उरना दीस
अशें तुकाय घडटा जाल्यार तूं जातिवंत कवी

ताटांत वाडटा शीत पूण, तांतूंत दिसता कवीत
अशें तुका घडटा जाल्यार तूं जातिवंत कवी

आंगार जळटात उज्या चवनां, तुका सूचतात कवनां
अशें तुका जाता जाल्यार, तुका लागपी कोण ना

आवय बापूय कवी म्हणून, तूंय बसता करूंक कवीत
अशें जालें तरी तूं न्हय जातिवंत कवी

इश्ट तुजो कवी देखून तुंवूय पाडटा कवीत
अशें करता तर तूं न्हय जातिवंत कवी

कवितेन मेळटा प्रसिध्दी देखून जावंक सोदता कवी
अशें दिसता तर, तूं न्हय जातिवंत कवी

## ६. एकूच कवन

एकूच कविता रचल्या काय हजार
न्हय म्हत्वाचें
आसूं येता एकूच कवन
हजारांच्या तत्वांचें
तत्व सत्व एकेच वळींत
आसूं येता आसपावल्लें
सोदून पारखून कडेक काडून
बुद्दी साणीर घांसपाचें

## ७. आस्वाद

कवी गायता साद घालपाक,
दाद मागपाक न्हय
कविता आसता आस्वाद घेवपाक,
वाद घालपाक न्हय

दाद तुमकां दिवचीच पडटा
गाण्यांत आसत रस
रस नासल्यार सोंपसर
धीर धरून सोस

आस्वाद घे गाण्यांतल्यान
नातर घे सुको
तेंय जमना तर खावचो
मुको मार मौनांतलो

## ८. कविते फाटल्यान

कविता जल्मता शाणे करपाक,
पिशें लावपाक न्हय
कवीक मोगान तुजो करपाक,
उजो लावपाक न्हय
दिसलो जरी शाणो
भितरल्यान तूं पिसो
नातर भायर एक
भितर एक कसो ?

मुखेल गाभो तूं
कविते फाटल्यान लिपयता
शाण्या श्रोत्यान अक्कल वापरून
सोदून काडचो म्हणटा

देखून कविता घालता साद
तुज्या सारक्या कवींक
पिकलोना जर सारको पणस
खावचो न्हय म्हूण दीक

## ९. यो रे शाण्या

यो रे शाण्या, यो रे गुण्या, वचया कवी संमेलना
शाण्याक जावंदी आनीक शाणो, करीत रावंदी कवनार कवनां

दुखांक सुखां करचे खातीर वचून बसचें संमेलनांत
सांगून कळना तर तांकां, घेवन येवचें काव्यांगणांत

समजना तितलेंय काव्यांगणांत सांगून समजता
केन्नाच गावंक नासलो रसीक गावन दाखयता

## १०. अन्यायाचेर वार

कवींच्या सुरयांक आसता तीख धार
गरज तेन्नाच करतात अन्यायाचेर वार
शस्त्र आसलें तरी कवी न्हय जवान
अन्याय जाता तेन्नाच चलयता न्यायान

वार केलोना तर जवान कसल्या कामाचो
उपयोग कर बुद्दीचो, न्हय तुज्या घामाचो

## ११. व्हांवतें उदक

कितल्योय आयल्यो आड़खळी
उबीं रावलीं आडमेळीं
तरी व्हांवतें उदक
वतलें व्हांवत

फातर जरी आयलो आडवो
वाट आडोवन बसलो मदीच
वयल्यान कडेच्यान
वाट काडीत वेगान
धांवत रावतलें फुडेंच
कारण तें उदक व्हांवतें

ताच्या व्हांवपाच्या नेटाफुडें
फातराची घटाय धिटाय जडाय
आनी हट्टीपणां
कित्याक उपकारना

मातूय हाल्लोना जाग्यावयलो
तर तें नाजूक कोमल
धारहीन उदक
त्या कठोर फातराक
लागता कातरूंक.
त्या उदकाक लेगीत शक्य तें
कारण तें लगातार धांवता
फुडें फुडें
करीत रावता कार्य आपलें
ध्येय गांठपाचें.

दोन वळींचे ल्हानशें कवन
कातरून उडयता वायट मन

## १२. म्हजी कविता

केन्नाय म्हजी कविता पेट्टो उजो
चूड न्हय, आगटें न्हय, न्हय होमखण
सुक्या सडसडीत रानान घेतिल्लो पेट.

केन्नाय म्हजी कविता
तीर धरनासतना सोडिल्लो बाण
वाटेर मेळटा तितलेय उडयत वता
भ्रश्ट मांड.

पेट आनी बाण मेळून रसरसता म्हजी कविता
पूण त्यो वाचून पचोवपाक थोड्यांक बळ ना.

सत्य भियेता
उज्याच्या धगान आपूण कडत म्हूण
असत्य भियेता
सत्याचें जैत जायत म्हूण

मदले मदी म्हजी कविता फुकट वता
वाऱ्यार मारिल्ल्या फारावरी

## १३. आनी एक कविता

ताणे एक कविता केली
म्हाका वाचून दाखयली
सुंदर आसली...
मनशाक सुंदर करपाची
मोग वाडोवपाची
जगांत भावपण फांकोवपाची
क्रांती अशांती पयस करपाची
सगळ्यांनी वाचपाची
स्वताक सुदरावपाची....

हांवें ताका सांगलें
तूं ही कविता जग
ताणे म्हणलें, –
आनी एक कविता येवजल्या'
हाचे परस सुंदर –
आनी तो बरोवंक बसलो
असलो

## १४. अन्यायाचो मार

धार आसून जायना वार
उबारच्या वेळार पडल्यार थार
लागचोना तीर जावचोना फार,
मागीर खावचो अन्यायाचो मार

अशा वेळार कवीची कितें आसची रीत
न्हय फकत घोळोवचो मोग आनी प्रीत

खूब जाली अपुर्बाय मोगाच्या रोगाची
घराक उजो पेट्टना याद कशी भोगाची ?

## १५. न्यायाचो ध्यास

तुमकां दिसत आमचो फकत सुंदरतायेर दोळो
अन्यायाचेर आवाज काडून सुकून गेलो गळो

एका हातान शस्त्र धरून दुसऱ्या हातांत कवीत
अन्याय वता न्यायाच्यो गोमट्यो चिरीत चिरीत

हें आमी लिखणी मिरोवन उगड्या दोळ्यांनी पळयतात
लिखणी ना ते यादी काडून फकत दुकां गळयतात

दुखांच्या दुकांनी तुमच्या अन्याय पालवचोना
न्यायाचो मस्तो दुस्मान उतरांनी उलोवचोना

तुमी उलयले तरी तांकां समजुचीना भास
परतून आमी घेवन बसचो न्यायाचो ध्यास

## १६. सत्याक भंय ना

गळो जरी सुकलो आमचो ताळो जाला जून
दोळे ताठून तांचो आमचेर पाळो आसा अजून

मेल्ल्याचें संवंग करून ते पळूंक फाटी नात
सत्या हात धरला आमी काव्यांत फटी नात

गळो आनी ताळो आमकां दोनांयची गरज ना
दोनय जरी रुसले तरी काव्य रचनेंत फरक ना

सत्या वटेन चलतल्याक कसलोच ना भंय
सत्या खातीर त्यागावरी दुसरो ना जय

## १७. फुडल्या काळा

कवीक कोणाची जायना तुळा, कवी हुपता फुडल्या काळा
जो वता विशया मुळा, ताच्यो कविता पडल्यात दाळा

तुळा कर नातर करू नाका
ताका पडलेंना
तो वावुरता त्या काळांत
फाटलें पळयना

तो म्हणटा,
फाटलें पळोवन कितें मेळटलें ?
फुडलें पळयल्यार नवें नवें
कितेंय घडटलें

## १८. जियेता कविता

खाता पिता कवी आमचो जियेता कविता
चलतां भोंवतां कवी असोच वियेता कविता
नाका म्हणून कवी केन्ना
उपाशी रावना
पोटांत पडना तर ताची
कविता पळना

पोट भरल्यार सुखाच्यो कविता
अशें आमकां दिसता
भुके पोटार दुखाच्यो कविता
अशें तुमकां दिसता

सूख दूख कवीक आमच्या
दोनय एक समान
खिणा खिणा ताच्या दोळ्यांत
कवितेचें पान

## १९. कवीची कल्पना

बसला थंयच येवन कवीक आपटता कल्पना
उखलून हांडीर घेतले बगर कशीच सोडना

कवितेचो मोग तशी कवितेची इत्सा
कवितेची ओड तशी वाडत वता उर्बा

मांडयेवयल्या भुरग्याचें आवयकच पडलां
जोडूंक लागतच गांवांत सगळ्यांकच पडलां

मस्ती करपी भुरग्याची चडच जाता अपुर्बाय
बायलां लेगीत मोग करतात पळोवन सुरुपाय

कवीक मात तशें ना, सुरूप जावं कुरूप
कल्पना सांपडली म्हणटच कवितेची हुरूप

## २०. दुखणीं

कवीक पळोवन झाडार सुकणीं नाचतात देखणी
कविता आयकून विसरून वतात पोटांतलीं दुखणी

झाडार सुकणीं कित्याक आयलीं तें पयली पळयात
तुमकां वळखूंक कळना तर तुमच्या कवीक कळयात

कवी तांच्या दुखण्याचेर रोखडोच उपाय काडटलो
एकेकट्याच्या दुखण्याचेर एक एक कविता करतलो

## २१. दरेकाच्या मनांत

आपूण जावन भोंवता कवी दरेकाच्या मनांत
दूख दुखणीं हाडून उक्तायता कवनांतल्यान जनांत

भोंवप म्हळ्यार कवीचें अभ्यास करप लोकांचो
तांच्यो खबरो आयकून भास कविता केल्लयाचो

भासांत कसलें समाधान? लिखणी हातांत धर
कवी वरी भोंवत रावन तुंवय कविता कर

## २२. कांयच नाका

एक कविता सुचली जाल्यार कवीक फुट्टात पांखां
मळबांत उडूंक मेळ्ळें तर आनीक कांयच नाका

इतलो आनंद कवी सोडून दुसऱ्या कोणाक मेळना
मेळ्ळो तरी एकच खीण, चड वगत उरना

ताचें मळबांत उडप म्हळ्यार आमचें जमनीर पेंवप
कुपांक फाट तेंकोवप म्हळ्यार पुरो जावन बसप

## २३. मळबांत भोंवड्यो

सगळो वेळ मारता कवी मळबांतूच भोंवड्यो
नाका खाण नाका जेवण नाका नुस्तें कोंबड्यो

खायना जेवना तांकां म्हूण दुयेंस जायना व्हय ?
कवीचें मात खाणा जेवणार लक्ष नासता खंय

भोंवड्यो मारून ताका हरशी जाल्लें आसता पुरो
तरी वाडच्या आदीच म्हणटा, नाका पुरो पुरो

मळबांत भ्रमण करूनूच ताचें भरता दिसता पोट
चलतां चलतां खोशेन ताचे हालत रावतात वोंठ

जेवला काय ना तें ताकाच उरना याद
ताचेर लेगीत कवी मदें जाता बरोच वाद

## २४. कवितेक हुसको

आमच्या कवींक बरोवची पडना कविता आपले लिखणेन
आफोवचीं पडना फुलपांखरांक, येवन बसतात तकलेर

चड करून कवीची लिखणी चलता श्रोत्यांक लागून
नातर तो वगीच बसता कविता तकलेंत दवरून
थोड्यांक उले मारचे पडटात  कविते..यो म्हूण
तरी कविता आयकना तांचें, अशे तांचे गूण

तांची करता सेवा चड, तांचोच कवितेक हुसको
आपणाक जे लेखिनात तांचो कविता घेता धसको

## २५. कविता नवी

श्रोते म्हूण कसले ? तांकां कविता जाय नवी
देखून आयिल्ली एकूय संधी सोडना कवी

नवे कवितेंत आसता
नवी उमेद, नवो जोश
पोरण्यो थोड्यो कविता दिसतात
कालूच जल्माक आयल्ल्यो

कवितेर पावस झडटा जितलो
तितल्यो जातात नव्यो नव्यो
पावसा वयल्यो कविता थोड्यो
आसतात जित्यो जिव्यो

# २६. कवितेचो हक

परतून परतून तीच तीच कविता
झरोवची पडची न्हय
आयकतल्याच्या मनांत कविता
भरोवची पडची न्हय

कविता नासली सोपी, तरी आसची रोंपी
वाडूंक जाय निरक्षर गरिबांच्या खोंपीं

कविता पचोवपाचो सगळ्यांकच आसा हक
पचलीना तर म्हणटात कवितेची मारली झक

एक फावट सादर केली, जाली आयकतल्यांची
दुसरे खेप कवीन कविता वाचची दुसरी नवी

# २७. काव्यभांडार

कवी म्हळ्यार...
माणकां मोतयां भांडाराची चलती भोंवती चावी
भगभगतो इंगळो लेगीत अचळय उखलपी गावी

काव्य भांडार खंय आसा फकत तोच जाणा
फुलां फळां झाडां भोंवतणी कचकचीत पानां

चावी खंय लावची भांडारा हेरांक कळपाना
दारय सोदल्यार भांडाराचें कोणाक मेळपाना

भगभगतो उजो जावं गडगडटो खडपा फातर
कवीकच खबर कशें वचचें दारांतल्यान भितर

## २८. पारंपारीक

बापूय आजो कवी म्हूण तुवेंय जावचो कवी ?
मामागेर बारा म्हशी पूण तूं काडटा उठाबशी

अशेंच चलता चडशें, खावंक जाय गोडशें
करूंक नाका कोणाक, आयतें पानार वाडचें

बापायक दिसता पुतान धंदो चलोवचो पारंपारीक
रिणां करचीं फारीक पूण पूत चलयता पोटा भरीक

कविता ही कला, न्हय धंदो दुडवां जोडीक
फायदो नुकसानेचो कलेंत विचार कोण करीत ?

## २९. जनेल

तुज्या मनाक
एक जनेल, एक दार.
दार सदांच बंद
आनी तूं भितर
भौतीक सुखांत धुंद.

भायलें सगळें दिसता
पूण तूं पळयना
भायल्यांक तूं दिसना
तांकां परवाय ना

जनेलाचो तो एकतर्फो हारसो
काडून उडय
आनी पड्डो लाय
तोय कडेक काड
भायर नदर मार

तेन्नाच तुज्या हातांत येतली
काव्य चावी
आनी तूं जातलो
खरो कवी

## ३०. कवितेची पत

कांय कवी उणे पडटात कविता सादर करपांत
ते म्हणटात कवितेंत मजा आपणेच वाचपांत

वाचलीना तरी कविता, बरी ती बरीच
गायलीना जरी कविता, खरी ती खरीच

गायली म्हूण तिची पत बदलना
वाचली म्हूण तिचो अर्थ बादना

## ३१. जावचे सुखी

जगांत कितले आसात गरीब, कितले बाबडे दुखी
कविता करून आमचे वरी, तांणीय जावचे सुखी

सूख नासता सुंदर वस्तींत
दूख नासता खाल्ले खस्तींत

सूख नासता भोगपाचेर
सूख आसता मानपाचेर

सूख नासता खावपांत
नासता बसून पिवपांत
सूख आसता कवितेचो
पुराय आस्वाद घेवपांत

## ३२. आमकांच कळना

कितल्योय केल्यो म्हूण कविता कवी जायना देव
कविता करपाक ताका खरो सैमच हाडटा चेव

आमकांच कळना उर्बा
येता खंयचे कडल्यान
आमी मात करतात कविता
सामकी काळजांतल्यान

आपणे केली कविता म्हूण
मनीस मारता बढायो

खरें म्हळ्यार कविताच हाका
येवन मारता मिठयो

## ३३. सगळ्यांचें बरें जावं

म्हजेवरी देवा हांगा सगळेच कवी जावं
सगळ्यांक असोच पाव, सगळ्यांचें बरें जावं

कितलें सुंदर जातलें जग सगळेच कवी जाल्यार
जावचीं नात झगडीं झुजां हिंसा अत्याचार

कवी-सभाव शांत देखून खंयच नासतली अशांती
जाग्या जाग्यार पळोवंक मेळटली कवितेचीच क्रांती

म्हाका दिसता कविता हेंच शांतिकायेचें शस्त्र खरें
सगळ्यांनी कविता केल्यार सगळ्यांचेंच जातलें बरें

## ३४. कविता उरता

जगांत नांव दवरतलो काय ना तें पयली थरय
बरिशी कविता झरय आनी कवी म्हूण मिरय
झरोवन झरोवन कविता जाता एकदम तिकतिकीत
वाचून गाजोवन गावन जाता सामकी सुळसुळीत

कविते वांगडा कवीय जगांत जाता झगझगीत
कवी गेलो तरी कविता उरता नवी करकरीत

## ३५. मनाक धाड

तुकां पाखां दिलीं नात
तरी तूं उडपाक तयार
पडटात...मरतात...
तरी तूं उडपाक तयार

पांखां नासतना उडूं शकता
तें तुजें मन
ताकाच धाड
ब्रह्मांड पळोवंक
तूं हांगाच राव
धरतेर.

## ३६. बसला थंयच कविता

सांबाळ तुजें घरदार आनी कर बरो संवसार
म्हजें आयकून कविता सोदूंक भोंवू नाका जगार

घरदार सांबाळून कविता रचूं येता
संवसार सोडून कविता न्हय
खातां जेवतां कविता घोळोवं येता
उपाशी रावन पोटाक मारून न्हय

कविता सोदूंक भोंवचें पडना घराभायर जगार
बसला थंयच येवन बसता कविता तुज्या माथ्यार

## ३७. शिकयता

प्रतिभा तुज्यांत आसल्यार कविताच लागतात फाटीक
पडलो जरी दुवेंत आनी तेंकलो जरी खाटीक

जितेपणी कितलेंय जरी घुंवडायलें आसत येरें
मरता मरता मनीस खंय उलयता तितलेंय खरें

सुरवातेचे कवितेंत कवी थोडो चुकता थोडो शिकता
निमणे आपले कवितेंत कवी दुसऱ्यांक शिकयता

## ३८. संमेलनांत

न्हावन धुवन भायर सरलों वचपाक म्हूण देवळांत
देवान म्हाका परत धाडलो, बस म्हूण संमेलनांत

हांव तुका सांगूंक सोदतां तेंच सांगतलो कवी
हांव तुका व्हरूंक सोदतां थंयच व्हरतलो कवी

म्हजेच कुरपेन हांगा कवी जाल्यात खूप खूप
सगळे कवी म्हळ्यार म्हजेंच एक काव्यरूप

## ३९. काळखांत

सैमा आंगणांत गेलोना तर कविता जावप कठीन
करंट उणो आसल्यार, लायट पेट्टा डीम

उजवाड उणो आसल्यार तुजो भायलो दिवो वाडय
दोळे धांपून लक्ष तुजें काळखाचेरच थारय

काळखालागी केल्यार दोस्ती वाट जातली उत्ती
काळखांतच भरल्या सगळी उजवाड हाडची शक्ती

## ४०. रातदीस

तुवें धाडलो आयलों, तूंच आपोवन व्हरतलो
मदीं मात रातदीस हांव कविताच करतलों

कवितांची गुटली करून पोटली बांदतलों
पोटली हांगाच थेवन तुज्या म्हऱ्यांत येतलों

कवितेचो मोग तुजो म्हाका दितलो उर्बा
नव्यो कविता करतलों बसून तुज्या सर्गा

## ४१. तालार

सर्गात गेल्ले कवी थंयसर कविता गायत भोंवतात
तांच्या तालार अप्सरा आनी देवूय नाचूंक लागतात

ताल थंयचो वेगळोसो
बेधुंद जावन नाचपाचो
कुड्ड्यांक रंग दिसपाचो
भेड्ड्यांक आयकूंक येवपाचो
तान भूक न्हिवपाचो
थोट्यांनी लेगीत नाचपाचो

## ४२. जावंदी मिलन

देवा तुज्या सर्गात तुका अप्सरा करतात बोर
कविता आयकतलो तर कवींक विमान धाडून व्हर

विमानांत बसून लेगीत कवी कविताच करतले
अंतराळांत ना तेंय तांकां दोळ्यांनी दिसतलें

तुमी आनी कवी मेळून करात संमेलन
तुमचें आनी तांचें जावंदी पवित्र मिलन

## ४३. काव्यहोत्र

कवी आनी देवांचें थंय काव्यहोत्र करतले
खोशेंत देव आमचो कवींचो भौमान करतले

रात दीस तीन दीस कविताच गायतले
देव मागीर अप्सरांक नाचूंक लायतले

काव्यहोत्र आमचें तांचे यादींत उरतलें
वर्सान वर्स काव्यहोत्रां करया म्हणटले

## ४४. वायट जातले बरे

सोडले आमकां पृथ्वीर तर सगळ्या लोकांक सांगपी
नाचून सर्गा तालार तांचे गूण आमीच गावपी
तोखणाय आयकून मनशाक सर्गार वचन दिसतलें
त्या खातीर पातकी लोक मुजरत पुण्य जोडटल

अशें करून पुण्यवान लोक हांगा वाडटले
देव आनी देवमनीस हांगाच घडटले

## ४५. आमचो सर्ग

कल्पनेंतलो सर्ग आमी हांगाय उबो करतले
कवितेतलीं कवनां मढोवन सुंदर सजयतले

तालसुरान गायतले कवी आनी कवयित्री
वाद्ध्यां वाजोवपाक नवीं आसतले वाजंत्री

मनभुलोवण्या उतरांनी आमच्या सर्गा वर्णन करतले
सर्ग असोच आसचो म्हूण देवूय आग्रो धरतले

## ४६. नवो सर्ग

धर्तीर आमी आमचो नवो सर्ग तयार करतले
पृथ्वी वयल्याच सर्गात रावात देव म्हणटले

मागीर कोण मरचोना आनी कोण वयर वचचोना
पातकी पर्यान पुण्य जोडून बरे जातले

## ४७. देव येतले

नरक म्हणटात तो जगांत खंयच दिसचोना
सर्ग पळोवंक आमी हांगसून खंयच वचचेनात
तेन्ना देव सर्ग आमचो पळोवंक येतले
कांय जाण ह्याच सर्गात रावूंक सोदतले

आमचे मदें रावले तर दर्शन मेळटलें
बरें बरें शिकोवन आमकां देव करतले

## ४८. कळना तेन्ना

केन्नाय श्रोत्यांक काव्य कळना
म्हणटात कविता पचक
तेन्ना काव्यालंकार जाता
ओमथ्या कळशार उदक

तान लागल्यार उदक सामकें
ताळ्यार पडून पोटांत वता
लागलीना जर तान ताका
उदका गरज खंय पडटा ?

## ४९. संद

कांयच करूंक शकना कवी दार आसत बंद
दार धोडावन धोडावन ताका दियत रावता संद

ताट दिलें तरी थोड्यांक जेवंक कळना
तोंडांत उंडी घाली तरी गिळूंक मेळना

गिळूंक कळना असो कोण मेळपाना
गिळना तो मनीस जितो उरपाना

## ५०. मळब उगतें

वोत आडवें आडवें तांतूंत कवितेचें धुकें
वयर पळयलें तेन्ना कळ्ळें मळब आसा उगतें

मळबांत केन्ना कितें दिसत सांगूंक शकना
एकदा पळयल्लें नदरेंतलें पुसूंक शकना

असलीं माणकां मोतयां आनीक खंयच मेळपाना
उगत्या मळबांत भरलां तें आनीक खंयच आसपाना

## ५१. वाव

मळब आसता उगतें तुमी वयर पळयनात
उडन दिसलें तरी पांखट्यांत वाव भरनात

शक्ती मुळचीच आसा तुमच्या पांखाट्यांत
वावा बगर पांखाट्यांक त्या कांयच अर्थ ना

अर्थ नासलो तरी पांखटे हालोवन पळोवंक जाय
घालून दिल्ले धडे परंपरेचे गिरोवंक शिकूंक जाय

## ५२. उडपाचो आनंद

उडपाचो आनंद वेगळोच, तो आमकां कळपाक ना
पांखां नासून आमी मनीस सुकणीं जावंक शकना

पांखां नासलीं तरी आमकां दिल्ली आसा अक्कल
वयर उडपाक जाय म्हूण आमकां दवरल्यात सकल

तरी कांय मनशांक ताची कल्पना कळना
पांय जळ्ळे म्हूण तकलेंत उजवाड पडना

## ५३. नदरे तांक

वयर भोंवून भुंयेर दिसता मोठें तितलें बारीक
सैम पळोवन मन भरता, मनीस गेला खरीक

नदर तुजी अशी मनशा, पयसुल्लें दिसना
नदरेंत तुजे पलतडचें तें सैम बसना

फाटलें फुडलें पळयतलो तर नदरे तांक वाडय
दोळे उगडून पळय आनी नवो संवसार घडय

## ५४. पळोवं नाका वाट

कोण तुका आपयतलो म्हूण पळोवं नाका वाट
उगत्या आंगणांत कवितेचो पावस पडटा दाट

ह्या पावसांत भिजलो म्हूण थंडी जावपाना
चिप्प भिजून फुगलो तरी जोर येवपाना

नाका तोंडांत उदक भरून वतलें उस्तुऱ्यां
केन्ना खांपो कवी जालो तुकाच कळपाना

# ५५. वास काव्याचो

पावस पडल्यार न्हिदूं नाका, चिप्प भिजूंक जाय
पावसांत  भिजल्यार काव्यगात्रांक बेगीन येता जाग

अकस्मात गडगड मारता चकचक विजेचो
आंगपांग थंड पडटा वास येता काव्याचो

शिरशिरून खातलो तुका मात्सो कुडकुडो
उपरांत येतलो पळय तो काव्य घडघडो

तोच आवाज अकलेंत तुजे बरो करून सांठय
ताल सूर मेळय आनी संवसाराक भेटय

# ५६. पांखां फुटसर धोलचें

पांखां नासल्या सवण्यांनी लेगीत
उगत्या मळबांत येवचें
पाखां फुटसर जाय तशें
काव्यकुपांर धोलचें

धोलपाक तुमकां थपकल मारून
बसचें लागना
झेलोट्यो घेवंक दुसऱ्यान कोणे
धुकलचें लागना

इतले जितले कवी तुमकां
वाऱ्यार झेलयतले
तुमचे तुमीच इल्ले इल्ले
काव्यान उलयतले

# ५७. काळजा भास

कवी खातीर मळब हें उडपाखातीर आसता
काव्य-दरया बूड मारून पेंवपाखातीर आसता
तुजी भास तुका कळटा, ताची भास ताका
कवीची ती काळजा भास, भावता जण एका

दरयांत बूड, मळबांत ऊड, कवींमदलें गूढ
वायटाचो गोबोर करची, हातांत ताच्या चूड

# ५८. बदल जाय पडटा

शियां दिसांनी कविता, आंगार दाट कोट
उबाळांत तीच कविता, थंड उदका घ़ोंट

रुतू रुतूंत सैमांत ह्या बदल जाय पडटा
नातर एकूच चित्र सदांकाळ दिसती पडटा

एक पिकता, एक कुसता, एक आपुणूच झडटा
पडटा झडटा तितल्यो कवीच्यो कविता घडटा

# ५९. कुपांत कविता

एका कुपांत एक न्हय कविता शेंकड्यांनी
जाता जाल्यार लुटून व्हरच्यो तुमी कवींनी

कवी जालो तरी ताका आसता बरें भान
काव्यभान आसता देखून समाजांत मान

कितें लिपोवचें कितें दाखोवचें ताचें तोच जाणा
दिसता तितलीं कुपां ताचीं कवितेचीं पानां

## ६०. रगता बदला कविता

मांडवीचे न्हंयेंत उदक अशेंच व्हांवत उरों
शिरंत्रांनी रगत न्हय, कविताच भरों

रगता बदला कवितांनी मनीस जगूं शकत ?
कवी आपल्या कवितांकूच म्हणू शकता रगत

रगत बिगत सगळें तुजें निमणे उडून वचत
केल्यो जितल्यो कविता तितल्योच हांगा उरत

## ६१. रुतू

जीव म्हजो उकडटा हांगा मायाच्या उबाळांत
मन म्हजें धादोसता फकत कवी संमेलनांत

उबाळांत गरमी, गरमी कवितेची
संमेलनांत थंडी, थंडी साहित्याची

गरमी आनी थंडी मेळून जाता जो रुतू
तोच संमेलनांत कवी लागतात ओतूंक

## ६२. कवीचें सूख

सावळी लेगीत नासली सांगाता, सगळो वोता रखरख
तेन्ना ताका मेळ्ळी खंय, कवी संमेलनाची खबर

खबर मेळून कसलो फायदो कवी-संमेलनाची ?
मनाची खर तयारी जाय वयर चडपाची

सगळें सूख आसता कवीचें वयर वयर उडपांत
कवी आनी कविते मदें बूड बूड बुडपांत

## ६३. कवीचो थाट

संमेलनाची वाट म्हळ्यार कवीचो थाट
हीच धर वाट आनी गांठ कवितेचो घांट

ना वोता रखरख, ना कसली कटकट
चलतां चलतां हाताकडें काण्णां चुन्नां कचकच

जाय तितलीं खावचीं, बोल्सां भरून व्हरचीं
सुचली तर बारीक मोठी कविताय करची

## ६४. चुकली तर चुकली

नितळ मळबांत केन्नाय एकाद्रें काळें येता कूप
त्याच वेळार कवींक लागता कवितेची भूक

भूक भागोवंक कवी आपली चलयता तकली
भागली तर भागली आनी चुकली तर चुकली

चुकली तर कवी कोणाक दिवचोना दोश
तो म्हणटा कविते मळ पडुंकना ओस

## ६५. चोवीस वरां कविता

चोवीस वरां जगता कविता तोच कवी खरो
आमच्या गोंयांत आसात असले जायते काव्यहिरो

तुमी रोयलींना तरी तीं झाडां वाडूंक जाय
वाडूंक जाय तर तांकां वेळार शिंपूक जाय

पावस पडना तेन्नाच झाडांक उदक घालचें पडटा
पावसा दिसांनी काव्यझाडांक आपशीच पालय फुट्टा!

## ६६. कवितेची झर

चार चौगांत कवीच्या माथ्यार कविता पांटेंभर
त्याच भारान व्हांवत रावता कवितेची झर

जाका दिसता न्हावचें ताणे घोग्या पोंदा बसचें
नातर कडेक रावून चोवचें, खोशेन भिजून वचचें

बूड मारून न्हावशी तर फुडाराक कवी जावशी
उबो रावन चोयशी तर थोडेंच सूख भोगशी

## ६७. झरी उदक

झरी उदक न्हावन कोणाक जायना खंय पुरो
देखून असल्यो झरी सदांच व्हांवत व्हांवत उरों

उदका झरी जाग्या जाग्यार व्हांवत आसात कितल्यो
न्हावपी मात उणे आसात, न्हिदले तांकां चुकल्यो

झरी उदक वखदी उदक थोड्यांक खबर ना
झरी उदक न्हायना तांकां कविता सुचना

## ६८. कवितेचो उगम

जायत्या जाणांची बुद्दी, आसता दिसता धोंपरांत
मोव मेळटा थंय कोणूय, खणूंक लागता कोंपरान

कविता तयार जातात, ना बुद्दींत ना धोंपरांत
कवितेचो खरो उगम, जाता अंतर्मनांत

जल्म जरी जालो तिका जाय आसता पोसवण
संस्कार घालून वाडोवंक मोग आनी आवयपण

## ६९. चुंबक

घराकडें बेकार बसल्यार दिसूच सरना
संमेलनाक वचून आयल्यार दिसूच पावना

संमेलन म्हळ्यार चावी, घुंवडायता बुद्दी चक्रां
एक कीट पडल्यार कवनां जातात सतरा

आंगाक दसता चुंबक काव्य ओडून घेवपाचें
सूर, ताल, लय, ठेको, समेर जुळवपाचें

## ७०. वेळ

वेळ पिड्यार करप म्हळ्यार पिरायेचो अपमान
वेळाचो बरो उपेग करप रचणाऱ्याचो भोवमान

वेळ म्हळ्यार जीण, वेळ म्हळ्यार प्रगती
वेळाचें मोल कळना थंयच सुरू दुर्गती

## ७१. कविता भागल्यो

तो जसो वाडलो
कविता ताच्यो भागल्यो
धा वळींच्यो
दोन वळींनी सोंपल्यो

आतां तर तो
दोनच उतरांनी
धा वळी गुठलायता
श्रोत्यांकय आपले वांगडा
सुतान सर्गार चडयता

अशी आसता आमच्या
कवितेची किमया
सांगल्यार पसून जायत्यांक
समजना ताची मयमा

## ७२. कळाव नाका

म्हाका दिस कवी संमेलन म्हजें एक सपन
थंय वचून बसलें तेन्ना कवितांनी भरलें मन

आयकच्या परस पचोवप, कवितेचो येवकार
थोड्यांक तेंय जमना, उगडें जरी दार

दाराक नासता खिळी, तेंय दिसना
कवडां ना थालें, तितलेंय कळना

तूं सोदता तिका, ती आपयता तुका
हें कळ्ळें तुका, आतां कळाव नाका

## ७३. म्हजें सपन

सपनांत लेगीत हांव अशोच कविता करतां
म्होंवो ताळो नासलो तरी गोड गोड गायतां

सपन तें सपन, मोलादीक म्हजें धन
न्हिदेंत जरी दिसलें, तांतूंत रमता मन

कोणच नासता तेन्ना सपन म्हाका पावता
खंयच मेळना तें अचळय हाडून दिता

## ७४. भायली वाट

जण एकल्याक अशेंच दिसता, कविता आपणाक जमची ना
एकदा तांतूंत भितर बुडल्यार भायली वाट गावची ना

दिसता तशें नासता देखून, जग सगळें फसता
आसा तें दिसता कवीक आनी ना तेंय दिसता

भायली वाट जाय कित्याक, भितर इतलें आसतना
खावंक जेवंक जाय कित्याक, भूक लागनासतना

## ७५. काव्यांगण

इतलें सुंदर काव्यांगण फाटी काडटा दिव्य सपन
विसरूंक जाता तन मन आनी नाका दिसता धन

काव्यांगणांत वावुरतना खंय आसा कळना
धरती न्हय, दोंगर न्हय, हवेंत कवी भोंवतना

सपनांत आसता न्हिदिल्लो, हांगा तूं न्हिदना
काव्यांगणांत काव्य-झरी व्हांवपाच्यो थारना

## ७६. आनंद

मन बरें आसल्यार तुजें कित्याक जाय धन ?
मनाचे भुंयेंत तुजे रुजून येतलें कवन

कवनांच्या संवसारांत सगळो घडटा संग
मन थाऱ्यार आसत, चित्त जायना भंग

आयलो खीण आयलो दीस तुज्यांत दैवी रंग
जिवीत भर आनंद आनी काव्याचो सत्संग

## ७७. कोंबो

बापूय म्हणटा पुताक, 'कवी जावची गरज ना'
कोंबो धांपून दवरलो म्हूण सकाळ जावची उरना

अशें म्हणटा पुताक कारण तातूंत पयशे मेळना
ताका दिसता पयशां बगर दुसरें कांयच आसना

कोंब्याक कळटा तें ह्या मनशाक कळना
कोंब्याचें गीत आयकल्यार कसलोच त्रास जायना

## ७८. कोंब्याची कविता

कवीचे कवितेक कोंबो लेगीत दिता दाद
उजवाडच्या आदीच पांटलेपोंदच्यान साद

कोंब्याक कोण म्हणत ताका काव्य समजना
फांतोडेची कविता ताची सगळ्यांक उमजना

ताचे एके कवितेन जागता आख्खो गांव
पदेराक म्हणटा ऊठ बेगीन कामाक धांव

## ७९. चान्न्यांत कविता

हांव ल्हान तूं व्हड ही रीत जाल्या पोन्नी
काव्यांगणांत लकलकतात चंद्रा वांगडा चान्नीं

ह्याच चान्न्यांत फुलता कवीचो सुगंधी काव्य मळो
काव्यरसा थेंब थेंब कवीच्या उगत्या माथ्यार गळों

कवी सगळे एकाच चान्न्यांत आंग भिजोवन न्हातात
आंगावयलें सुकचे आदी कविता तयार जातात

# ८०. चान्नें मनांत

चान्नीं घरांत, चान्नीं दारांत, चान्नीं तुज्या खळ्यांत
चान्नीं भेसांत, चान्नीं केंसांत, चान्नीं तुज्या गळ्यांत

हातांत चान्नीं, पांयांत चान्नीं, चान्नींच चान्नीं दोळ्यांत
पळयत थंय दिसतात चान्नीं, कारण चान्नीं मनांत

मनाक शक्ती ब्रह्मांडाची आरतें परतें धवळचेली
सत्व हाताक लागसर फाटीक लागून घोळोवचेली

# ८१. काव्य-बियां

मोडून उडय भाशे वंय, कवी खंय कविता खंय !
रुजून येता कविता काव्य-पावस झडटा थंय

काव्य-पावसान आयज मेरेन घडयलो इतिहास
तरी अजून जायत्या जाणांक विचित्र जातात भास

काव्य-बियां रुजून येवपाक एकूच पावस पुरो
तींच शिंपून वाडयता तोच कवी खरो बरो

# ८२. बुडबुडो

काव्य-पावसांत भिजतलो? सगळें सोडून उडय
पावळे पोंदा रावन उबो आंगान आंग भिजय

मना भितर पावंदी काव्य कुडकुडो
काळजा भितर येवंदी काव्य बुडबुडो

बुडबुड्याचेर राव उबो सांबाळ तुजो तोल
बुडलो जरी फुटलो तूं पावतलो खोल खोल

तेंच तुजें येस भावा तेंच तुजें जैत
जीण आख्खी जगतलो वासाळ फुलां सयत

## ८३. काव्य सांवार

पावसाक दिसता कवीन आपले आंगार घेवचे लोट
कवीक भिजोवन व्हांवलोना तर उदक वतलें फुकट

कवीचें हें भाग्य आनी भाग्य पावसाचें
झडटां व्हांवतां दोगायनी एकामेकाक गावपाचें

रकतां रकतां पावस हो फुलतलो संवसार
कवी तातूंत भिजलो तर येतलो काव्य सांवार

आषाढांतल्या पावसाचो तोच खरो उद्देश
कवी फळचे कविता फळच्यो समृद्ध जावचो देश

## ८४. कविता सुटच्योनात

मेल्या उपरांत देवा म्हाका नरकांत नातर सर्गात धाड
जितो आसासर म्हजे तकलेंत बऱ्योशो कविताच घाल

नरकांत उडयलो तरी म्हज्यो कविता सुटच्योनात
आयकूंक बसल्यार पातकी थंयचे जाग्यावयले उठचेनात

सर्गात धाडल्यार एकेच कवितेंत वर्णुपी तुजो सर्ग
तुमी म्हणटले पृथ्वीर वचून वर्णून हाड निसर्ग

# ८५. किजील

किजील करता बायल आनी झगडें करता घोव
सादर करतकच कविता, तकली जाता ल्हव

कवितेन जायना किजील, किजिलान कविता जायना
किजील आनी कविता, तेंकून तेंकून बसनात

किजिलां जातात थंय कविता व्हरून वाचच्यो
झगडीं जातात थंय नेटान कविता गावच्यो

दांड्या बदला पुलिसांक हातांत दिवच्यो कविता
आर्मा वांगडा जवानांक गावंक दिवचीं गितां

# ८६. महिमा

कितें तुमकां सांगूं हांव कवितेची महिमा
कवी म्हूण कळ्ळ्यार तुजी विव्दानांत गणना

कवीची तुळा विव्दानाकडें कोणे करची न्हय
आंब्याची साल काडून पणसाक लावची न्हय

आंबो लेगीत चंवरपाक लागता अमूक काळ
कवी मात चंवरत आसता सदा सर्वकाळ

# ८७. अणभव

अर्थाक भावार्थ मेळयात, अंतर्मनाक जुळयात
कविता कशी जल्मता ती अणभव घेवन पळयात

कितलोय अणभव घेतलो म्हूण कोणय जायना कवी
लायटी फूल पेटल्यो म्हूण मळबांत येयना रवी

बरोच वेळ हाताक लागना तेन्ना कवी पिरंगता
काव्या वास येता थंय मूय जावन मुंगरता

## ८८. पोंत

एक एक पोंत मारून शिंवता जशें वस्त्र
उतरांत उतर घालून पळयात एक मोस्त्र

एकट्या दुकट्यान केलें म्हूण तो जायना नेम
भुरग्यां वांगडा खेळपाची ती जाली गेम

कडेक दवरात गेम आनी करात एक नेम
लकण आयली जाल्यार कवीन काडची एक झेम

जागो जातकच कवी जातलो ताजो टवटवीत
पेन आनी पेपर घेवन बरयतलो सडसडीत

## ८९. चालीस चोर

दार उगडूंक कवितेचें, म्हणू नाका तिळा उघड
तकली जमनीक तेंकय आनी बुरकांत मार नदर

भितर तुका दिसतलीं भाणां भरून पोवनां
दर एकार आसतलीं दोन दोन कवनां

बुरकांत घाल तोंड आनी व्हडान कवनां म्हण
दाराक तेंकून आसतलो एक ल्हानसो घण

घणाक घालतांच हात उगतें जातलें दार
कवनां गायत सर भितर, आडवो हात मार

# ९०. पोवनां वयलीं कवनां

येतले चाळीस चोर, म्हणटले जाय तें व्हर
आमच्या मात सांठ्यार एक बरिशी कविता कर

कविता तुजी आयकतले, तुका घेवन नाचतले
घोड्या फाटीर बसयतले, घरा हाडून पायतले

चाळीस घोडे भरलेले, तुका पावोवंक येतले
चाळीस साक पोवनांचे, तुज्या घरांत वोततले

ते वाटेन परतून आनीक केन्नाच वचू नाका
भाणां वयलीं कवनां तीं गायले बगर रावू नाका

# ९१. अस्वस्थ

येतल्याक म्हणा येया येया, वतल्याक म्हणा पळा पळा
ह्या बिळा मारीत खिळा, हुंदीर पळटा दुसऱ्या बिळा

काव्य सुगंध खऱ्या कवीक अस्वस्थ करूंक लागता
मती आनी गती ताका संमेलनांत ओडून व्हरता

बिळा जरी मारला खिळा कविता लागताच गळा
कारण मनांत रुजलेलीं तीं वाडत आसात पाळां

# ९२. दिव्य काव्य

न्हिदल्यात तांकां न्हिदुंदी, आमी आतां जागया रे
खिणा खिणा आमी हांगा कवी म्हणून जगया रे

पळयतात तांकां पळोवं दी, भांगरा पोटल्या सपनां
आयल्या दिसा तांच्यो तांकां राटावळ्यो झेपना

कवी म्हूण जगपाक कवीक लागना कोणा आदार
बसलो जरी एक़ा जाग्यार वरां वरां येयना बेजार

कवी म्हूण जगप हें केदें व्हडलें दिव्य
करतां करतां कविता कवीच जाता काव्य

## ९३. काव्य-सूख

भायरूच रावून तुमी इतलें, बरें बरें आयकतात
थोडो वेळ भितर बसात, काव्य-सूख भोगात

सुखांत सूख काव्य-सूख, काव्य-सूख दिव्य सूख
केदीय जाली चूक तरी दोळ्यांत खोशे दूक

हें सूख भोगचें, आसचें पडटा मनांत
मनांत आसलें तरी, आसचें नशिबांत

## ९४. काव्यानंद

काव्य-जिणेंत केदें सूख सांगून कळपाक ना
कितलोय उजो घालो म्हूण उदक जळपाक ना

काव्यानंदांत कवीक कोण करूंक शकना दुखी
जग आख्खें हाललें तरी कवी सदांच सुखी

थंड उदका सभाव ताचो, उजो लागपाक ना
हून उदक रकयलें तरी, हून जावपाक ना

## ९५. विश्वधनी

धन नाका, दौलत नाका
जेवण नाका पाणी
हातांत एक कविता आसल्यार,
आमी विश्वा धनी

धन आमच्या हातींत,
विश्व आमचे मतींत
विश्वधनी जाले तरी
आमी सदचेच गतीन

कोणाक सांठोवन थेयची आवड
थोडे करतात खावडी निवड
कविता घेवन बसपाक थोड्यांक
केन्नाच मेळना सवड

## ९६. करतां तुज्या नांवार

चंद्र म्हजो, सूर्य म्हजो, म्हजोच हो संवसार
तूं कवी जाता जाल्यार करतां तुज्या नांवार

पृथ्वी म्हजी, मळब म्हजें, चंद्र सूर्य म्हजो
काळोख म्हजो, चान्नें म्हजें, हो उजवाड म्हजो

विश्वाच्या कणाकणांत व्हांवती काव्यधार
तूं कवी जाता जाल्यार करतां तुज्या नांवार

## ९७. म्हज्या रानांत

हीं सगळीं रानां
तांतलीं असंख्य
फुलां फळां पानां
म्हजीं कवनां
म्हजीं कवनां

झाडांच्या खांद्याखांद्यार
फुलां फळांच्या देंठादेंठार
तणा करडाच्या पात्यापात्यार
थेयल्यांत हांवें म्हजीं कवनां

जतनायेन चलात म्हज्या रानांत
रान कवीचें इतलें आसुंदी ध्यानांत

## ९८. कवितेचो रोग

नदरेक नदर भिडटा तेन्ना
तुमकां मोग जाता
अशा वेळार कवीक फकत
कवितेचो रोग जाता

कवितेच्या रोगाक आसा
जगांत एकूच वखद
काव्यमोग फकत
खर काव्यमोग

मोगा विणे काव्य आनी
काव्या विणे मोग
जल्म घेवंक शकना
न्हयकारू नाका सुयोग

## ९९. कवी-मनांत

कवी मनांत तुमी केन्ना वचून पळयलां ?
सर्गा फुडलो आनंद केन्ना घेवन पळयला ?

थंय तुमकां मेळचोना उजवाड आनी काळोख
चारूय कोनशांत दिसतले विंगड विंगड रंग

रंगारंगांत भरसल्ले धुंद करपी सुगंध
सरभोंवतणी काळोख दारां करचीं बंद

## १००. सुपीक मन

काव्य-रोगाक उदक घाल्यार, कवीक फुट्टात कोंब
थोड्याच वेळान मनांतल्यान कविते उगम

ते खातीर मन ताचें आसचें पडटा सुपीक
तशें आसल्यार एकार एक येतलें काव्य-पीक

उपरांत ताचे पिकेक त्या उरचोना सुमार
कांय तेंपान आपशीच येतली कवितेक धार

धार आसून कवी येन्ना करचोना वार
कारण ताका हीय स्थिती करची आसा पार

सगळ्यांक हुसको आयच्या अन्यायाक कोण घालीत मार
कवितेच्या प्रभावानच एक दीस अन्याय पडत थंडगार

## १०१. कवितेचें भांडार

हांव नकळ हांव खरो वयलो काय सकयलों
हांगा जल्माक आयलों म्हूण कवी तरी जालों

गोंय आमचें खरें म्हळ्यार कवितेचें भांडार
निसर्गार जातात कविता तशो समाजांतल्या बंडार

तसलें हांगा चलना तूं सकलो हांव वयलों
हांगा जो आयलो तो हांगासरलो जालो

## १०२. जगाखातीर कविता

वयलो सकलो म्हणटात तांतूंत कांयच अर्थ ना
कवी रचता कविता तांतूंत कांयच स्वार्थ ना

स्वार्था बगर थोड्यांक दुसरें कांयच दिसना
कविते बगर कवीक तिसरें कांयच येवजना

कवितेची निर्मणी होच मुळांत परमार्थ
जगा खातीर केलीना तर कविता व्यर्थ

## १०३. कवितेची कास

कवी जंय चलता थंय काव्य उसळटा
कवी जंय पडटा थंय काव्य परगटटा

जो भक्त धरून रावता कवितेची कास
आडेकडेक झळकना समाजाचो त्रास

कवी म्हळ्यार समाज ताका फुलां घालून पुजता
काळजाच्या चौथऱ्याचेर घटमूठ पुतळो बांदता

# १०४. तुमच्यांत कवी

जिणेंत तुमचे भरल्यात कविता तुमकांच खबर ना
कवीय तुमच्यांत लिपून बसला, तुमकां दिसना

दोळ्यांमुखार व्हांवता अमृत तुमी पियेनात
काव्य तुमकां जिये सांगता तुमी जियेनात

उजव्यान दाव्यान सकल वयर घुंवडाय मरे नदर
हात उगते कर आनी पोशांत काव्य धर

# १०५. पृथ्वीची वृद्धी

पृथ्वीर जो जल्माक येता ताचीच जाता पृथ्वी
दरेकान करूंक वावुरचें आपले पृथ्वीची वृद्धी

कोणे तुका सांगचें लागना, ही तुजी भूंय
हेरां वरी मालक जालो हे भुयेंचो तूंय

म्हणून मनशा तुवें तिका बुड्डून खावची न्हय
पिकून पडून फळां कुसून फुकट वचचीं न्हय

# १०६. सैमाचे गूण

सैमाचे गूण गायल्यार सैम जाता प्रसन्न
सैम प्रसन्न जाल्यार कवी जातलो धन्य
कवितेचें सैमाकडें एक अतूट बंधन
काव्यांतूच बुडिल्लें आसा कणान कण

मनीस होय एक निसर्गाचो भाग
ताच्यांतय धुंवता कवितेची आग

## १०७. मन आनी गूण

सदांच देवा म्हज्या फाटल्यान तूं असोच राव
म्हजे वरी एकेकट्याक कवीच कर रे जावं

काव्यगूण आसून थोडे कविता करनात
धनाफुडें मनाची केन्ना परवा करनात

कितलेय शिटकायले तरी थोडे जगतात सादारण
मन आनी गूण व्हगडावन जातात वेगळें रसायण

## १०८. मळबांत भोंवडी

जगांत अशे कितलेच आसात, कवी जावंक सोदतात
सुकण्यावरी मळबांगणांत भोंवडी मारूंक आशेतात

मळबांत मारूंक असली उडी, जाय पडटा तसलें काळीज
कवी उडी मारता थंय, अचकीत लकलकता वीज

भोंवडी मारचे आदी आपणे शिकची भोंवडे रीत
नातर काळजांत मळबा विशीं भरून घेवची प्रीत

## १०९. फावल्या वेळांत

बरें सोडून वायट घडटा तें कित्याक जाणा ?
फावल्या वेळांत लेगीत जायते कविता करनात

जो जियेता कविता, ताका तीच दिता उर्बा
जो घेता प्रेरणा, ताचेर कल्पना करता कृपा

फावल्लो वेळ दिला तुका बरें तितलें करपाक
दुःखी कश्टी मनशाचे जिणेंत आनंद भरपाक

## ११०. जल्माक घाल कवी

तुज्याच हातांत आसा देवा भाग्याची चावी
हाचे फुडें हांगा फकत जल्माक घाल कवी
जाग्या जाग्यार रोयल्यांत तुवें काव्यझाडां
शिंपून कोण वाडयतलो ?

झाडा झाडार फुलयल्यांत इतलीं काव्यफुलां
दुसरो कोण पारखितलो ?

निर्मणे तुजे उद्धार करपाक हांगा जाय रसीक
हाचे फुडें हांगा फकत जल्माक घाल कवींक

## १११. कवितेचें पान

भूक गिळून दिलो धेंकर तरी कवीक मान
कारण ताच्या बोल्सांत सदांच कवितेचें पान

इतलो ताका मान आनी निसर्गाचें दान
कवीचें मात खिणा खिणा कवितेचेर ध्यान
कवितेची खाण आनी दोळ्यांमुखार रान
कवितेंत ध्यान हेंच कवीक दिल्लें वरदान

कवितेचें घेवन पान संवसार गायता गान
गान आयकून धुंद जातात संगिताचे कान

## ११२. भूक आनी सुस्ती

भूक लागता कडकडून तेन्ना कविता भुकेर
पोट भरता तटतटून तेन्ना कविता सुस्तेर

भूक आनी सुस्ती दोनय म्हणटात दुस्मान
तरी कवी दोनांकय समान दिता मान

दोनाय भितरलो फरक कवी दिस्त जाणा
तीं ताका दिसतात एका रगताचीं भयणां

## ११३. संमेलनांत

संमेलनांत कवीक कवी, एकाच वेळार मेळटात
कवी न्हय ते जळटात, आपले आपूण गळटात

गळून गळून वतले खंयं, भोंवून भोंवून कळटलें
वता थंय, रावता थंय, काव्याकडेंच वळटले

तांच्या मनांत कविता, तांच्या ध्यानांत कविता
ते कवितेन जियेतात, कविता तांच्यांत जियेता

कवी बगर गांव ना, कविते बगर कवी ना
उजवाडांत काळोख ना, काळखांत रवी ना

## ११४. खांपो कवी

संमेलनांत व्हांवत आसता फकत काव्य-वारो
नाका तोंडांत वचून कवी जाता पुराय खांपो

सुर्याचो उजवाड दिसना काळखांत न्हिदून
चंद्रिमाचें चान्नें लागना चादर कामरून

थोड्यांक वोत सोसना, आनी चान्नें पचना
तांकां खंयचेच वस्तींत नवें कांयच दिसना

## ११५. मिना खणींत कविता

कळना तांकां देवा आमच्यो कविता कळुंदी
मिना खणींत भांगर नाका, कविताच मेळुंदी

भांगर आंगार घालून आमचें
सोबीत दिसत तन
कवितेन उजळून वतलें
तना वांगडा मन

मनाचो घोंटेर हेंच
कवितेचें घर
मनाच्या धना मुखार
फाटी पडटा भांगर

## ११६. मनांतलीं माणकां

जमनी पोंदचें भांगर काडूंक जमीन फोडची पडटा
मनांतली कविता दाखोवंक तोंड उगडचें पडटा

मनांत कितलीं माणकां भरल्यांत कोणे पळयल्यांत ?
नकळ तांकां सगळें काडून कोणे दाखयल्यांत ?

माणकां बदला कांय मनांत आसूं येतात फातर
अशक्य गजाल नदर मारून पळय मना भितर

## ११७. मनांतलो म्हेळ

च्याव लेगीत करतलो तर तोप धुवचो पडटा
कविता मात तयार जावन सोमती कपांत देंवता

धुयलोना जर तोप, कितें जातलें तुमी जाणात
नाका तसलो म्हेळ, आसूं येता आमच्या मनांत

कविता चड काय म्हेळ, कोण सांगतलो !
सादर करतांच श्रोत्यांक सारको दिसतलो

## ११८. सूर ताल

पेटी तबलें नकळ हांव, सूर नकळ ताल
तरी सदांच उगतें म्हाका मैफिलीचें दार

जिणेक आमचे मुळांत आसता सूर आनी ताल
फाटी फुडें जालो तर जीण जाता बेताल

दार जरी उगतें आसलें सूर धरूंक जाय
तबलें जरी नकळ तरी ताल सांबाळूंक जाय

## ११९. कवितेचो मोग

इतलो तेंप आंगार काडलो, नाका आसलो रोग
काव्य संगतींत मेळ्ळो म्हाका, कवितेचो मोग

वखदान जालोना तो काव्यमोगान जालो कुरार
कविते बगर रोग म्हाका काडचो पडलो आंगार

दर एकल्यान घेवचो बरो कवितेचो वारो
उपाय आसून रोगाक दिवचो न्हय थारो

## १२०. वखद

संवसारांत आसा तें एकूच व्हडलें सत
मनाच्या दुखण्याक कविताच बरें वखद

दोतोर बितर जाल्यात पळय
तेय कवीच जावपाचे

दुखणेकारांक मुखार बसोवन
कविताच गावंक लावपाचे

चड पेरीग जालो तर
जेवण नाका शीत
खाटीर उदारो न्हिदय
कानाक लाय संगीत

# १२१. उबंतरा

मोग नासल्यार जिणेंत मनीस पडटा उबंतरा
जीण रंगीत करूंक अंतरांत कविताच भरा

चित्रांत तुज्या चित्रकार रंग भरतलो
बेचैन मनाक कवीच फकत संग दितलो

संगतीच्या आदारान रंगतली तुजी जीण
नातर जिवीतभर दोळ्यां मुखार काळोख बिण्ण

# १२२. कवितेची माळ

कवी मजगती तारता म्हाका कवितेची माळ
माळ सोंपून घरा वतांच, दिसपट्टें जंजाळ

जंजाळांतूय त्या भरून आसा कवितांचें जाळ
पारखून काडपाक तूंच तुजो रावला इतलो घाळ
माळ घालून गळ्यांत फकत मिरोवं नाका मळ्यांत
मळो जिवो उरपाक सदांच उदक जाय तळ्यांत

# १२३. व्हाळ

ही एक झर आनी
मुखार एक व्हाळ
पोंदा दिसता तो
व्हाळा पोंदचो गाळ
हात घाल्यार लागता तें
वखदी रुखा पाळ
हुसक्या विणे पिवचें उदक
जशी कविता वखदाळ

# १२४. थंडी

केन्नाय मळबांत अकस्मात जाता
काव्यकुपां गर्दी
पावस झडटा, भिजल्यार जाता,
कवितेची सर्दी

सर्दी वयल्या वयली
एका दिसान वचपाची
थंडी जावची भितरल्यान
वर्सा वर्सा उरपाची

जे थंडेन पुसून वतलो
अज्ञानाचो झरो
तुमी म्हणटले असली थंडी
म्हाकाय जाल्यार पुरो

## १२५. चैतन्य धार

शिरंत्रांनी आमच्या चैतन्य धार व्हांवता
तेन्ना मनांतली कविता कोऱ्या कागदार देंवता

धार धरली म्हूण जायना, दिवचें पडटा काव्य रूप
रूप घेवनच देंवली तर, तेंय थरता एक अपरूप

अपरुपाचें म्हूण आसता एक स्वरूप
फावशें मळ गावलें तर वांगडाच येतात खूब

## १२६. काव्यवाट

सगळ्यांचे दोळे आमचेर,
लिपयां दितात मोग उपाट
कारण आमी संथ गतीन,
चलतात आमची काव्यवाट

हेरांचे वाटेर आसत कांटे
कवीचे वाटेर फुलां
कवीक हांगच्या काव्यदेवतेन
हेंच वरदान दिलां

रचणुकेचे आपले ताणे
गावचे म्हूण गूण
कवीच्या आंगांत आदीच भरल्यात
सगळे तरेचे सद्गूण

## १२७. झाडार सुंदर

झाडार सुंदर फुलां आनी फुलांपोंदा कांटे
सुगंध सोसना तरी चिंतचें न्हय उरफाटें

कांट्यांक लेगीत फुलां मानून चलपी आसात कवी
तांच्या आदाराक सदांच आसता धरती आनी रवी

झाडा वयलीं फुलां कवीक काडचीं लागनात खुंटून
झाडार दिसतात सुंदर तितलीं हातांत दिसनात उठून

## १२८. न्हंय हुपून वचचें

सगळे कांटे आमचेच वाटे, पलतडीन पुश्टीक गोटे
फुलां देंठ बारीक मोठे, विचारांक फांटेच फांटे

कोणेय फुडें सरचें आनी न्हंय हुपून वचचें
इत्सा आसा तर कोणेय सपन नवें चोवचें

देंठ सुकून फळांचे पिकून जमनीर पडपाचे
नशिबांत बरोवन थेयलां हेरांक उपकारा पडपाचें

## १२९. उगतो मोग

भक्ती, शक्ती, मान, स्वाभिमान लिखणेक दवर बांदून
कवितेचो उगतो मोग दवर काळजार कोरांथून

आंग तापलें तरी तुका येवचोना रे जोर
भक्ती आनी शक्ती मुखार जोर कुस्कूट पोर

काळखांत आवाज जालो तर समजू नाका चोर
लिखणेक बांदून दवरिल्लें तें काळजा वेंगांत धर

## १३०. काळीज आनी मन

काळीज कशें आसता कवीचें, जशें वोत रवीचें
मन कशें आसता कवीचें, जशें चान्नें चंद्राचें

वोलें तितलें सुकोवचें, वायट तितलें जळोवचें
कुपां तितलीं कडेक काडून, रुपें पातळावचें

कवी म्हणटा कवीक केन्नाय चान्यांत सोदपाचें
चान्यांत सोदून गावलोना तर गीत गावपाचें

## १३१. लावचें ध्यान

ताकाच दितात दाद थोडे जाचें गोरें बरें रूप
वारें येता तशेंय थोडे धरूंक जाणात सूप

वारें कशें घुंवत तें सांगू नज तुज्यान
देखून आपल्या काव्यारच लावचें बरें ध्यान

वारें जरी दिसलेंना, आसता तुज्या म्हऱ्यांत
रूप नासलें तरी तुज्यांत वारें हाडटा प्राण

## १३२. वारें

वाऱ्या दिका पळोवनच सूप धरचें लागता
वारें करपाक सुपांत भात आसचें लागता

वाऱ्या वेग कितलो आसत तुज्यान सांगू येता !
अशा वेळार तुवें केल्लो अदमास चुकू येता

कितलेंय केलें वारें तरी थोडे आशे उरताच
एक एक आसो वेंचून धान्य निवळ जाताच

# १३३. काकूत

आमच्या मळबांत आयलीं जरी
केन्नाय काळीं कुपां

आपले आपूण पावशेतात
झडयत काव्य फुलां

जांकां चुकता फुलां पावस
तांची दिसता काकूत
फुलां गुथूंक कवी लागी
आसचें पडटा सूत

# १३४. आरपार

थोड्यांक दिसता कवी-संमेलनाचें बंद आसत दार
मळबाक आमच्या दारूच नारे, सामकें आरपार

कोणेय हाडचे आपले उमाळे कवितेच्या रुपान
आसूं बरे आसूं वायट व्हड आसूं ल्हान

सूख दूख खोस आनंद आसूं कितलेंय वेगळें
तांतूंत नवे रंग भरसुया उगत्या मळबाचे

# १३५. संधी

दारूच नासल्यार कुडीक तुजे ती जाली भंगसाळ
बऱ्यो बऱ्यो कविता हाड आनी एकामेकार दाळ

दाळून दवरल्यो कविता म्हूण कांयच उपेग ना
माणकां मोतयां घरांत दवरून कांयच फायदो ना

धांपून दवरल्यो कविता म्हूण चिड्डून उरना
संधी मेळची वाट पळयता न्हिदून रावना

## १३६. कवितेचें वखद

सगळे हांगा वळखिचे, कोण ना रे परकी
नदर खदूळ जाली तर, कविताच करता सारकी

असोय यो, तसोय यो, तकलेंत कितेंय भरून यो
कवितेचीं पानार पानां, बोल्सांत कोंबून यो

दोळ्यांत तुज्या घालपी आमी कवितेचें वखद
दर एके वळीक तुजे पुराय दितले दाद

## १३७. कवितेचो नेट

कवितेचो नेट म्हज्या कितलो सांगूं तुमकां
धांवतें उदक वेग वाडयत कातरतात खडपां

एक एक कविता अशी, न्हिदूंक लेगीत दिना
इतली लागता फाटीक की न्हिदलों तरी वचना

जितल्यो कविता भरल्यात व्हाळांनी आनी झाडांनी
तितल्यो भरल्यात आमच्या शिरांनी आनी हाडांनी

## १३८. धादोसपणा करो

मन सैरभैर जाता तेन्ना, असोच हांगा येवशी
कविता आमच्यो आयकुनूच, जातलो धादोशी

कविता आमच्यो धादोसपणा करो
कवी आसता थंयच सुखदिणो वारो

सैरभर जावपाक मन पुरो एकूच निमीत
मनाक धादोस करप हीच आमची रीत

## १३९. लगाम

कविता म्हळ्यार लगाम एक
वायट चिंतनांक वायट मनाक
कविता म्हळ्यार चार चक्रां
फुडें फुडें धांवपाक

कविता म्हळ्यार जैता शिडी
वयर वयर चडपाची
कविता म्हळ्यार बरी संधी
ब्रम्हांड-भोंवडी मारपाची

## १४०. बंदखणींत उडयात

वायट आमी करतात जाल्यार, कवितांनीच बडयात
कागद लिखणी दियात आनी बंदखणींत उडयात

कागद लिखणी दिलीना तरी जाणात बरोवन दवरपाक
उतरां आमचीं भोंवतलीं वाऱ्यार कानाकानार आपटुपाक

वायट काय बरें तें खूब तेंपान कळटलें
तोमेरेन वयर वचून परतून सकल येतले

## १४१. मन लिखणी

मन आमची लिखणी, वणत कागद
उतरान उतर बरयल्लें उरता अज्रंवर

उतरां आमचीं वज्रां आनी न्हय पोकीं बातां
दोळे उगडून पळोवपाक जायतो लोक भियेता

दोळ्यांनी दिसना तांणी कानांनी आयकुचें
इल्लें इल्लें ल्हव जातलें मानेवयलें वजें

# १४२. लायली घुडी

बंदखणींत बसून कवींनी कितलें बरयलां
थोडें सिद्धीक पावयलां, थोडें दरयांत बुडयलां

दरयांत बुडयल्लें व्हांवत लागलें आमचेच तडी
आमचे आमीच एकठांयलें आनी लायली घुडी

वण्टी वयल्यो वळी सगळ्यो आयज उजळळ्यो
वाऱ्या ल्हारान उडत उडत जगभर पातळळ्यो

# १४३. आमी गरीब

लोक आमकां म्हणटात, तुमी गरीब...तुमी गरीब
गिन्यानाच्यो व्हांवतात झरी, जरी पोट खरीक

पोट खरीक गेलें तरी गिन्यान आटलेंना
भुके वेळार कविता गायल्यार जेवण चलना

कवी म्हणटात काव्यांत आमी बरीच केली प्रगती
तुमकां मात दिसता फकत भुकेची दुर्गती

# १४४. फुडल्या जल्मांत

कितलीं कवनां भरल्यांत तुवें, रंगयाळ्या सैमांत
हांगाच देवा धाड म्हाका, परतून फुडल्या जल्मांत

वच म्हणटांच मारपी उडी ह्याच म्हज्या गोंयांत
नातर हट धरून बसपी तुज्या पांया म्हऱ्यांत

तो मेरेन झाडां पेडां वाडत फुलत उरों
पांयार तुज्या ओंपूंक चार फुलां मेळळ्यार पुरो

## १४५. नव्यो कळा

झाडाझाडार दिस तात तुमकां पानां फुलां फळां
आमकां तांतूंत दिसतात नव्यो कवितेच्यो कळा

फुलांत, फळांत, सावळेंत, मुळांत
भरल्यांत फकत कवनां
नदरेंत तुजे उजवाड नासल्यार
तुका एकूय गावना

तुका तें कळचेंना अशें हांव म्हणना
कळ्ळें तर तुजी जातली कवींत गणना

## १४६. मन जाता नितळ

एक एक कविता आमची आसता इतली शितळ
जिरल्या उपरांत मन जाता उदका इतलें नितळ

कविता आमची वाचूंक जाय
वाचली ना तर आयकूंक जाय
मनांत तुमच्या रिगूंक जाय
रिगलीना तर भरोवंक जाय
भरयल्या ती पचूंक जाय
दुसरी नवी रुजूंक जाय

## १४७. कविता झगडटात

आर्मा न्हय, तरसादी न्हय,
आमच्यो कविताच लढटात
मनशांतल्या राकेसाक मारूंक
कविताच झगडटात

मनशान फकत रावचे उबे
येवन आमच्या सामकार
आमी दिस्त तिरान सोडटात
काव्य कवनां फार

फार लागून थोडो वेळ
राकेस जातलो घायाळ
उपरांत ताचो सभाव जातलो
मोवाळ आनी मोगाळ

## १४८. बियां

बारीक बडयो एकठांय करून
आमी माटोव घडयतात
ओलसाण ना थंय लेगीत,
बियां उडयतात

उतरांचें उदक शिंपून कोणय
बियां रुजयतात
काव्यफुलां एकठांय गुंथून
स्वताक सजयतात

म्हेडीक म्हूण लायल्यो बडयो
ताका फुटल्यो कोंबऱ्यो
घट मुळां फ्राक समजून
माकड मारतात उडक्यो

## १४९. काव्य उदक

उडयल्ल्या आमच्या बियांक लागना कसलेंच सारें
फकत काव्य उदक घाल्यार पिकेक एकदम बरें

पीक आमचें मनीस कुळयेक खूब गरजेचें
आस्वाद ताचो घेवन नशीब फुलता मनशाचें

संवसारभर सोदून सोदून वखद मेळना दुखण्याक
तेन्ना कशें बरें जाता तें विचार उडट्या सुकण्याक

## १५०. कवितेचें सूख

वयर सकयल रखरख
हुनसाणेची ऊब
अशा वेळार मेळटा फकत
कवितेचें सूख

असल्या कवीक ऊब लागना
उबे वांगडा हुनसाण लागना
केन्नाय ताचें जळटा आंग
जळपा वांगडा गळटात कवनां

एकदा कवीक बरोच बडयलो
दुकां गळयनासतना रडलो
हुडक्या हुडक्यान ताच्या
नव्यो कविताच झडल्यो

कवीन म्हणलें मनशा
असोच बडय, आनीक बडय
ह्यो कविता घे आनी
फुडार तुजो घडय

## १५१. दूख

कविता हांवें केलीना हेंच व्हडलें दूख
निमणे मेरेन उरतली जिवाक रुखरूख

मन मनशाचें घुंवडायत तशें घुंवता
दवरता थंय कितलोय तेंप उरता

मन तुज्या ताब्यांत केन्नाय तूं मनाच्या ताब्यांत
तूं ताचेर करशी दोळे तें तुका दाखयता दांत

## १५२. मोन्याचें सपन

कविता करतात जायते, गावंक मेळना संद
मोन्याक पडटा सपन, सांगूंक तोंड बंद

तुजें सपन तुजे पुरतें ताचें ताचे पुरतें
तूं ताचें सांगूंक लागशी सांगतलो आरतें परतें

आरतें परतें सांगचे परस सांगनाशिल्लें बरें
सांगू नज केन्ना कोणाचें कशें घुंवत येरें

## १५३. चिंतता कवितेचें

चेडवा...
कवीक पयली तुवेंच म्हणचें
हांव फकत तुजें
कारण चेडवाक पळोवन कवी
चिंतता कवितेचें

ल्हव ल्हव कवितेंत ताचे
तूंच दिसतलें
कविता ताच्यो आयकून श्रोते
तुकाय सोदतले

तुका दिसता कवी हो
तुज्या फाटल्यान येतलो
चड कविता झडटात
ताच्या फाटल्यान वतलो

## १५४. कविता घडूं

चेडूं जावं चेडो, हांसूं नातर रडूं
कवी म्हणटा आपली एक कविता घडूं

कविता घडटा, पडटा काय येता ?
हो प्रस्न निर्जापी
थोडे म्हणटात तूं सांगता ताचेर
आपूण कविता पाडपी

## १५५. कविता सपनाळी

सकाळी उठ्ठांच कशें तुका इतलें बरें दिसता गो ?
सपनांत लेगीत रातभर तूं कविताच करता कितें गो ?

सपनांत कविता केली म्हूण वायट कांय ना
उठल्या उपरांत तुजी तुकाच याद जायना

याद जाल्यार तीच तुजी आसत काळ-नवी
तिकाच तुज्यान म्हणू येता कविता सपनाळी

## १५६. ऑक्सीजन

दोतोर म्हणटा शिरांत म्हज्या रगत घोळना
कवितेचो ऑक्सीजन लायल्यार कसलीच भिरांत ना

अशें म्हणल्यार दोतोर म्हणटा तसलो ऑक्सिजन मेळना
ऑक्सिजन लायल्यार जीव म्हजो कसोच वचना

जायते फावटी रगत म्हजें असलो करता प्लान
दर फावटी जाग्यार पडटा लायतकच काव्यध्यान

## १५७. थाकाय

न्हीद येना तेन्ना अशांत चिंतेक येता वेग
कविता सुचतकच मेळटा थाकाय जिवाक सुसेग

कवितेचें मोल कितें कोणाक कळना
कविते इतली अमोल वस्त दुसरी मेळना

मानसीक तणाव वाडटा आनी तोंड म्हजें बावता
तेन्ना कविताच म्हाका दोतोर कशी पावता

## १५८. कवितेची धूल

दोतोरान म्हणलें असल्या वयार दोळ्यांत पडटा फूल
पूण तुज्या दोळ्यांत दिसता म्हाका कवितेची धूल

तेच धुळींत जीव धरता कवितेचें मूळ
धुळींतल्यान वयर सरता कवितेचें फूल

अशो कविता घडटा जाल्यार कितलींय फुलां पडूं
कवितेचो पांवडो मात वयर वयर चडूं

## १५९. सैम इबाडू नाका

तरणेपणांत कितें केलें, तें म्हाका विचारू नाका
आतां हांव कविता करतां, सैम म्हजें इबाडू नाका

सैमांतच कविता आसा अशें मात समजू नाका
मनशा करणेंत काव्य भरलां तेंय वगळू नाका

कणाकणांत आसा काव्य सोदची गरज ना
नदर तुजी तशी आसल्यार भोंवची गरज ना

## १६०. भांडार म्हजें

झाडांपेडां, दोंगर दरया सगळें तुजें..सगळें तुजें
तांतूंत भरलां काव्य-भांडार तें म्हजें..तें म्हजें

हांगा भरलां धन ताचेर कोणा ना मालकी
असलें सूख जाका लाबता तोच खरो सुखी

नशिबांतलें मेळटलें म्हणटा ताका जायना लाब
सोदतल्याक नाशिल्लें मेळटा, हीच ताका जाप

## १६१. पांवळ्यो

एका वेळार सांगतां तुमकां, आंवळून गेल्लयो बावळ्यो
आतां तुमकां दिसतात त्यो आषाढांतल्यो पांवळ्यो

पांवळ्यो म्हूण कसल्यो? सामक्यो घसघशांच्यो
आंग चिप्प भिजोवन हेरांक भिजयता तसल्यो

असलो कसलो जादू ह्या कवितांनी कळना
वोलीं चिंतनां वोलें मन दुस्वासान जळना

## १६२. सरता जिवीत

पावसाच्या थेंबाथेंबांत दिसता म्हजें कवीत
धरता वाचता गायता म्हणसर सरता म्हजें जिवीत

जिवीत म्हजें ओडून ओडून महाकाव्य जालां
पावसाच्या थेंबावरी सुकून निसतून गेलां

सुपुल्ल्या थेंबांत म्हजें कोणाक दिसलेंना रूप
सांठवल्ल्या उदकांत तांणी पळोवचें रूप खूब

## १६३. इतलेंच जाणो

कोण तो खंयचो कोणालो, तें हांव नेणो
कविता करता तो कवी, इतलेंच हांव जाणो

खंय रावता, कितें करता, म्हाका कसलें कर्तव्य !
खावपा जेवपार, उठपा बसपार निंबून नासता काव्य

कांयच तूं करना जातच, सैम गळयता दुकां
एक कविता गायली की सार्थक जाता जल्मा

## १६४. साहित्यकार

साहित्याक लागना धर्म लागना जात कात
साहित्य निर्मणी करता तोच खरो साहित्यकार

मळबाक हात तेंकोवपाचो येत्न करूं नाका
पळोवंक गेल्यार मळब सगळें पोकळूच आसा

वयले वयर पळयल्यार दिसता जशें भरलां
हात भितर घालता तितलीं कवनांच कवनां

## १६५. श्रोतेच सांगतले

जात, धर्म, भास वास आमी खंय विचारतात !
कविता बरी आसल्यार तुका माथ्यार बसयतात

विचाल्लें ना कोणे तरी कार्य करीत राव
करता तें श्रोत्यां मुखार सदांच दवरीत राव

श्रोतेच तुका सांगतले आपल्या ताळयांनी
बूड मारून पारखितले कवितेच्या तळयांनी

## १६६. श्रोत्यांची शक्ती

केन्ना खंय शेण खालें, आमी खंय झरयतात ?
कविता करूंक लागलो की फाटलें सगळें विसरतात

शेणांत लेगीत आसता शक्ती रोयल्लें वाडोवपाची
वाडोवन करून धान्य तुमच्या हातांत दिवपाची

श्रोत्यांत एक रीत आसता माफ करपाची
फुडली तुजी वाट मेकळी करून दिवपाची

## १६७. कवितेचें सूख

थंडी जायना, खोकली येना, तान लागना भूक
कवितेच्या पावसांत भिजल्यार अमर्याद सूख

थंडी जाली तरी जातली फकत कवितेची
खोकलेंतल्यान कीट पडटली तीय कवितेची

असोच पावस पडूं आनी भिजूं म्हणून माग
धुवन उडय आंगावयलो निश्क्रियतेचो दाग

## १६८. ऊब

दुडू नासल्यार कवीक कवितेची ऊब
खावंक जेवंक आसल्यार सोयरे खूब

तोंडांत उडोवंक नासलें तरी कवी येतले दारांत
तुजींच गितां गावन दाखयतले तुज्याच सुरांत

घर तुजें भरतलें गायल्ल्या काव्य-सुरांनी
श्रोत्यांची गर्दी जातली शेजाऱ्याल्याय दारांनी

## १६९. कवी रडल्यार काव्य

ताक चाळळ्यार लोणी येत, उदक चाळळ्यार कितें ?
कवी रडल्यार काव्य गळत, तूं रडल्यार कितें ?

कवीच्या सुखांत कवनां, दुखांत कितलीं कळना
सूख दूख भोगलें म्हूण कविता मेळना

तुज्या दुखार कविता रचून कवी भोगता सूख
अशें तुका दिसता जाल्यार कवीक दाखय दूख

## १७०. कवी कोले

कोले बुद्दीन भले तशे, आमीय कवी कोलेच
कवीत जांकां आवडना तितले कामांतले गेलेच

रगत पळोवन येता घुंवळ तांच्याय आंगांत आसता रगत
नाका म्हूण काडून उडयल्यार जीव वचपाक लागना वगत

कोल्या बूद आसली तरी वायटाक वापरची न्हय
कविते खातीर वापरली तर तुजोच जातलो जय

## १७१. कपलांतलें

कविता कोणूय चोरीत, कल्पना कशो चोरतलो ?
तपल्यांतलें कोणूय व्हरत, कपलांतलें कशें व्हरतलो ?

कविता दिली तुमच्या हातांत, ताचें जाय तें करचें
कल्पना तुमकां दिसना तरी, भितर सोदीत रावचें

तपल्यांत आसा कपलांत ना, अशें कोणे चिंतचें न्हय
कल्पना तुज्यांत लिपिल्ली आसा, तिका चिड्डून थेवची न्हय

## १७२. कवीचो मोग

कागदां भरून भरून तुजेर कविता करतलों
तुका सामकार थेयतलों, कवितेर मोग करतलों

तुज्यांतूच न्हय मोगा, मोग भरला सगळ्यांत उपाट
दिवो पेटयलोना तर उरतलो तसोच काळोख गुपाट

तुज्या इतलोच मोग हांवें सगळ्यांर केलो तर
तुज्या मोगार दाटतलो दुस्वासाचो थर

## १७३. कवीचें दान

धुवेक आपले मेळटा म्हूण, बापायन कवीक बडयलो
कवी म्हूण कळ्ळें तेन्ना ताच्याच हातांत हात दिलो

सादो जावन भोंवता म्हूण समजू नाका बाबत
विव्दानाच्या फुडें धांवता कवीची काव्य-मत

कवीक जो दिता मान तोय जाता म्हान
हेंय कवीचें समाजाक एक व्हडलें दान

## १७४. सगळ्यांचें मिलन

हुंडो नाका, स्कुटर नाका, फ्लॅट लेगीत नाका
कविता कितल्यो केल्यात तुवें इतलेंच जाय म्हाका

हुंड्यांत आनी फ्लॅटांत लेगीत आसात म्हज्यो कविता
त्यो काडूंक गेल्यार आनीक नव्यो तयार जातात

तुज्यो म्हज्योच कविता मेळून करया संमेलन
तुज्या म्हज्या निमतान जावंदी सगळ्यांचें मिलन

## १७५. दूख तोपता

धन दौलत भोगूंक मेळना, हेंय दूख थोड्यांक तोपता
धन-धन जपतात आनी केंसान गळो कापतात

सूख भोगप म्हणल्यार दुसऱ्याच्या तोंडान जेवप न्हय
सूख वास करता थंय कविते गाज आसता जंय

दिसवडो जोडून मोडटना सांबाळून दवरप पय पय
असलो मनीस दुखांत लेगीत सुखी आसता खंय

## १७६. कविताच सुंदर

तूं सुंदर, तुजें नाक सुंदर, गाल सुंदर, दोळे सुंदर
पूण सगळ्यां परस तुज्यो कविताच चड सुंदर

कांय वरसांनी पळय तुजें रूप सुंदर हारशांत
त्याच वेळार कविता वाचून पळय तुज्या मनांत

नाक गाल बावतले आनी दोळे वतले भितर
पडनासतना सुरकुत्यो कविता उरतली अज्रंवर

## १७७. कवी तत्वाचे

बाजारांत वचून नुस्तें पळयात, दोनशें चारशें पांचशें
कविता गावपाक, वाचपाक, आयकपाक, पडनात रे पयशे

पयशांक लागून सामान्य मनीस कितेंय करूंक तयार
नोटी म्हळ्यार कवीच्या सदांच हिशोबाच्या भायर

थोड्यांक दिसता कविता करप, नुस्त्या परस म्हत्वाचें
खरे कवी, बरे कवी जे साहित्याच्या तत्वाचे

## १७८. घरांत वाग

आपलेच भितर कांय कवी घालतात कविते घाले
घरांत जातात वाग, भायर वयतकच कोले

धांपून दवल्ली कला तर दितली तुका शाप
चिड्डून तिका दवरप म्हळ्यार तुकाच तें पाप

दर्जो तिका नासत तर काळखांत दवरूं येता
थोडे खडे अशे आसात, काळखांतूय उजवाड दितात

## १७९. जीव जाता ल्हव

जीव इतलो ल्हव जाता, काव्यरसा पेल्यार
कांयच मनशाक कळना जीव लेगीत गेल्यार

हायहूय जायनासतना जीव आपलो वचचो
अशें म्हणटा ताका कसलोच नासता पात्सो

कळनासतना वतलो तर ल्हवपीक जावचो
कवितेची धुंदी घेवन जीव शांत करचो

## १८०. कवी सर्गात

कविता बरोवन पुराय जातांच कवीचो जीव गेलो
उबारून व्हेलो तेन्ना तो सर्गात कविता वाचतालो

कविता आयकून सर्गातल्या कवींक आयलो चेव
खबर आयकून कविता घेवन धांवून आयले देव

देवांक दिसलें आपणेय आतां करच्यो कविताच
दानवांक जाग्यार उडोवंक कविता उपकारतात

## १८१. आमच्यो कविता

अर्दमेल्लों तेन्ना हांवें सर्गाच्या बुराकांतल्यान पळयल्लें
सगळे देव एकठांय बसून आमच्यो कविता वाचताले

कवितेची एकेक वळ देवांक लेगीत घालता भूल
अदृश्य रुपान सकल येवन काव्यानंदांत जातात गुल्ल

कविता आयकून काव्यनिर्मणेची उर्बा सोसून सोसना
कोणा रुपान कविता करतात तेंय आमकां कळना

## १८२. जिवीतभर असर

तूं गेलो, तुज्या वांट्याचो काव्यरस उरलो पेल्यांत
तो हांवें ओंपलो तुकाच, ओतून म्हज्या ताळ्यांत

सोमरस आनी काव्यरस, कितलो आसता फरक
एका आनंद खिणयाळो, दुसऱ्या जिवीतभर असर

काव्यरस आवडना असो श्रोतो मेळूंक कठीन
एकाच घोंटान उडूंक लागतात श्रोते उमेदीन

## १८३. नरकाचो सर्ग

नरकांत सोरो मेळूं ना मेळूं, कविता तरी करूंक मेळूं
लकूंक पडूंक नाका मेळूं, काव्यरस कानार पडूं

काव्यानंद मेळ्ळो तर नरकाचो जातलो सर्ग
नरकयातना सोसून लेगीत खोशेंत कवी गर्क

कवी म्हणटा कवितेक गलास लागना सोऱ्याचो
सोरो उडोवचो कडेक आनी काव्यानंद पियेवचो

## १८४. कवितेची भूक

जेवंक नाका, खावंक नाका, कांयच म्हाका नाका
कविता करूंक लागल्याक, भूक लागना म्हाका

लागता ती बन बन कवितेची भूक
इतलो तेंप पयस रावलों तीच केली चूक

चूक सुदारली तेन्नाच खरो शाणो जालों हांव
वायट प्रसंग आयल्यार म्हणटां कविते म्हाका पाव

पोटाक कांयच मेळ्ळेंना तर उपाशी हांव रावना
कागद पेन घेतां आनी कविता करूंक बसतां

## १८५. दोळे धांपून

जिविताचो मार्ग हो फोंडकुलांतल्यान चलपाचो
कवितेकडेन वतना मात दोळे धांपून वचपाचो

वयर खाला, गडा गडा, गाडो हालता संवसाराचो
दोनय रोदां सारकी आसलीं तरी थारना धाडावपाचो

पांय कवीचे आसतात देखून जमनी परस वयर
वाटे वयले लागनात ताका फोंड आनी कोयर

## १८६. शून्य

कवितेंत रमतां रमतां जर दिसता तुमकां शून्य
जिवीत तुमचें खऱ्या अर्थान तेन्नाच जाता धन्य

जिविताचें गणीत हें समजूंक मात्शें कठीन
शुन्यार शून्य लायलें तरी फारीक जाता रीण

रिणा बगर फुडें धुकलना दिसा एकूय खीण
शुन्या भितर पळयल्यार गळून पडटा शीण

## १८७. सैम सोयरें

हांव लगीन जालों एका झाडाकडें
सगळें सैमूच हें जालें म्हजें सोयरें

हें आख्खें ब्रह्मांड म्हजो परिवार
हांव केन्नाच जावचोना निराधार

कारण कविता भरल्यात म्हज्या झाडांर
खडपार, मळबार, ल्हारार, सुक्या सड्यार

## १८८. आमचे गूण

धरतेर रावून आमी कवी उडटात मळबा पलतडी
कितलेय वयर उडले तरी विसरनात धरतरी

वयर उडपाक लागता आमकां धरतरेची गरज
उडनात आनी उडटात तांच्यांत होच एक फरक

धरतेर उबे आसात देखून आमकां दिसता पलतडचें
कविता करूंक सोदतल्यांनी आमचे गूण घेवचे

## १८९. बाटले वास

एकलो आसा हांगा असलो, त्रास ताका करचो न्हय
जाय तें दिवचें ताका, बाटले वास दिवचो न्हय

बाटले भितर भरला गोबोर, ताच्या कवितांचो
ताका अजून ना खबर, ना भरवंसो

बाटले भितर भरसला ताचे कवितेचोय वास
आतां ताका नाका दिसता जेवणाचोय घांस

वास आनी घास मेळून गळ्याक बसला फांस
सोडूंक गेल्यार जाता म्हणटा पडिल्लयाचो भास

आतां तो धरूंक सोदता कवितेची कास
मेळत ताका दियत रावता साहित्याची भास

ताच्या आंगांत आसा खरी एक प्रतिभा खास
बाटली सोडीत जातलो कवी, आमचो विश्वास

धादोसकायेन खावंक लागतलो दिसपट्टो ग्रास
आमचे वरी घेवंक लागतलो मेकळो मेकळो श्वास

## १९०. सर्गातूच वावुरतात

मरणाची भिरांत घालतात आमकां खिणा खिणा
सर्गातूच आमी वावुरतात मरे, तांकां खबर ना

तुमकां हांगा दिसतात म्हूण आमचें मोल कळना
नातर आमकां सोदल्यार आमी खंयच मेळपा ना

धरती सोडून आमकां खंयच वचचें लागना
सर्ग आमचे सेवेक येता ब्रह्मांड चोयतना

# १९१. कोण उरचना

ते बाबडे सर्गात वचपाक वाट पळयतात मरणाची
आमी हांगा भोगीत सर्ग वाट चलतात मोक्षाची

सर्ग आसता, सर्ग नासता कोणाक ना खबर
खरें म्हूण मानूं येता वचून आयला जर

बऱ्याक बरें वायटाक वायट मानूंक हरकत ना
एक मात सामकें खरें, कोण जगांत उरचना

# १९२. येवकार

देव थंय वाट पळयतात आमच्या येवकाराची
फुलां हार हातांत घेवन गर्दी दारार अप्सरांची

खरें काय फट आमी मागीर पळोवया
येवकार आमचो जाता तर मानून घेवया

हारतुऱ्या राशीचें आमकां केन्नाच पडलेंना
कविते बगर दुसरें कांयच आमी चिंतलेंना

# १९३. सर्ग नर्क

अमृत न्हय, वखद न्हय, न्हय कवितेचो अर्क
सोऱ्या पेल्यांत दिसता तुज्या मरणा उपरांतचो नर्क

सर्ग नर्क मनशा तुवें पयलीच राखून थेयला
नरक यातना भोगची म्हूण तुजी तयारी चल्लूया

उपरांतचो नरक तूं गटागट पियेता
सर्गसूख आमी हांगा काव्यरुपान जियेता

## १९४. काव्यधुंदींत सूख

कित्याक जाय बाटली आनी कित्याक जाय सोरो
काव्यधुंदींत मेळटा सूख तितलेंच आमकां पुरो

बाटलेची तिडक खबर आसूंक जाय
बाटलेची गुड्डी वेळार लावंक जाय

रिती केन्ना करची जाणा जावंक जाय
बाटली फोडून उडोवचें धाडस आसूंक जाय

## १९५. उफाळून येता

रात पडटा तेन्नाच तुका कविता सुचता जर
आतांच्या आतां सुर्याक थंयचो उबारून व्हर

उजवाडांत जाता तें काळखांत जायना
जागरणांत जाता तें न्हिदेंत जायना

सुर्याच्या तेजान वायट तितलें ल्हासता
चंद्राचे शितळकायेन काव्य उफाळून येता

## १९६. कविता सांबाळटा

शुध्दीर नासता तेन्ना ताका कवित्व चाळयता
शुध्दीर आसता तेन्ना ताका कविता सांबाळटा

बेशुध्द करून शुध्दीर हाडप कवितेचो सभाव
परिणाम करचे आदी कविता घेता तुजो थाव

सुदबूद कवितेची वेगळ्या मनशाक वेगळी
तूं तिच्या गोपांत गेल्यार तुकाच बूद सगळी

## १९७. कवीचो विशय

रातचो तो चलता जेन्ना रस्त्यावयल्यान पिवन
सुणीं लेगीत वगीच रावतात, तो कवी समजून

केन्ना केन्नाय खऱ्या कवीक पियेल्लो समजता
कारण तो आपलेच नदरेन संवसार पळयता

पियेलो म्हणटच मनीस नेटान कितेंय उलयता
धुंदी चडली म्हणटच कवी ताचोय विशय हाताळटा

## १९८. सुणो भोंकता कविता

केन्नाय सुणो भोंकता कविता, आमकां समजना
फाटल्या जल्मांत आसलो कवी हातूंत दुबाव ना

ह्या जल्मांत कवी म्हणूक कोणूच तयार ना
ताच्यो कविता समजून घेवंक भास कळना

भास ताची वेगळी तशें काव्य ताचें वेगळें
आंग ताचें उगडें तशे विचार ताचे उगडे

## १९९. आयुश्य

हांवें विचारलें देवाक, म्हाका आयुश्य कितलें सांग
देवान म्हणलें, तुज्या हातांतले लिखणेकूच विचार

हांवें विचारलें लिखणेक, लिखणेन दिली जाप
वापरीत रावलो तर तुजे वांगडाच सोंपत हांव

सोंपले जरी आमी वांगडा, निर्माण केल्लें उरतलें
तेंच धन अज्रांवर फुडें, संवसाराचें जातलें

## २००. काव्य सोडून पाप

लिखणेक ताणे विचारल्यार ताका मेळना जाप
लिखणी वगी रावता म्हूण आनीक करता पाप

कवी सोडून ताचेर पडला सोरेकारा छाप
अशेंच करून ताचें बेगीन भरत आयलां माप

काव्य प्रसन्न जायना म्हूण बेजार जाला साप्प
म्हणटा आपणाक लागला म्हूण काव्यदेवते शाप

शाप लागला समजून तो जाला सोऱ्याभाण
भाण सोडून दिलें तर ताचें जातलें कल्याण

## २०१. वेळ रावचोना

सोरो कित्याक पियेता
म्हूण विचारल्यार
तो सांगता अशें,
हांव सदांच करतां म्हाका
कोप सांगता तशें.

कोपाचें आयकल्यार तूं
जगूंक पावचोना
कवीचें आयकल्यार येन्ना
मरूंक पावचोना
तकली जाग्यार येसर तुका
वेळ रावचोना

## २०२. कवितेंत आसचो दम

कविता जितल्यो करता तितलो पयस पळटा यम
कवितेंत मात तितलो आसचो पडटा दम

कवी खातीर सदांच यमाचें बंद आसता दार
कविता कानार पडत ताका न्हीद लागता थार

देखून तो यम केन्ना सर्गात वचना
भितर कवी आसत तर दारार मारना

## २०३. काव्यखणी

एकेक मणी घांसून पुसून तो हार घडयता
समजना जातकच रसीक काडून कडेक उडयता

काव्य-वाचकांक तुमी समजू नाकात कच्चे
दिसले जरी बच्चे, खुबशे अकलेन सच्चे

काच्याबच्या कवींक लेगीत आसता बरी समजणी
व्हडलो जातकच एकेकटो खणीत रावतलो काव्यखणी

## २०४. काळखांतलें काव्य

जें दिसना रवीक खंय, तें दिसता कवीक
काळखांतलें काव्य पारखूंक कवीकडेन शीक

कवीची स्वताकडेन करू नाका गणना
कवी पावता थंय केन्नाच रवी पावना

ताणेंच घालो उजवाड तरी ताका काळोख दिसना
ताका दिसना तेंच कवीक पळोवंक चुकना

## २०५. झापडां

जळिमळी कविता पिकल्यात घोंसा घोंसांनी
झापडां जांणी धांपल्यांत तांकां दिसना दोळ्यांनी

एकेच वटेन पळोवन सगळें दिसचेंना नदरांनी
दोळ्यांनी न्हय, दोश आसत तांच्या चिंतनानी

फाटीफुडें आशिकुशीक पळयशीत खांची कोनशांनी
सपनां तुजीं दिसतलीं लिपलेलीं उजवाड काळखांनी

## २०६. खावपाक

हांवें म्हणलें,
भूक लागल्या,
वाडटा म्हाका जेवपाक ?
तिणे म्हणलें,
इतल्यो तुवें कविता केल्यात
त्योच दितां खावपाक

जेवपा खावपाक मेळना तर कवितेचो फायदो कितें ?
कविता एकय केलीना तर जिविताचो उपेग कितें ?

## २०७. कवींचें पीक

गांवागांवांत, वाड्यावाड्यार कवींचें वाडलां पीक
सोरेकारांक हाचेफुडें कविताच दितली कीक

कवितेची सोऱ्याकडें करची न्हय तुळा
कवीक संवंय दर एकाच्या वचची भितर मुळा

पावला पावलाक ताच्यो बदलत आसात कळा
ताका सुदारपाक ताच्याच माथ्यांत फुलां माळा

## २०८. काव्य-झुंबर

कवी जशें चिंतता तशें बदलता ताचें अंबर
कारण ताच्या दोळ्यांतूच लांबता काव्य-झुंबर

व्हड व्हड कवींच्या दोळ्यांक झुंबर दाखयता रंग
ताका सदांच आसता ताच्या अंबराचो संग

आस्वाद घेवपी श्रोते आसतात मनान खूब श्रीमंत
विचारांक आनी कर्तृवांक तांच्या नासता रे अंत

## २०९. उर्जा

कवीक सदांच उर्बा मेळटा धरती माते तेजांतल्यान
धरती मातेक उर्जा मेळटा चंद्र सूर्य चान्न्यांतल्यान

धरती माते उर्बा मेळळ्यार कवी विसरना भान
समजून घेवपाक रान ताका पुरो एकूच पान

चंद्र सुर्य उर्जा दिल्यार गिन्यानांत पडटा भर
ते उर्जेचो उपेग तूं समाज कल्याणाक कर

## २१०. आमचो ध्यास

कविता आमचो श्वास  कविताच आमचो ध्यास
आमचे वरी तुमकांय दिसता तरूच तुमी पास

विचार करूंक प्रवृत्त करता तीच कविता खरी
वाचून आयकून आनंद जाता तीय कविता बरी

करूंक लायता कृती ती सगळ्यांत ऊंच
अशो कविता रचूंक शकता तो कवी तूंच

## २११. कविता शिजता

कविता म्हळ्यार कविता, शीज शीज शिजता
शिजल्या उपरांत आपशीच येवन आमच्या पानार बसता

शिजली जर कविता एका खिणांत तुज्या मनांत
तूं जातलो समृद्ध ह्या साहित्याच्या मळांत

येवजना जर कविता समज तूं निष्काम म्हातरो
पान सामकार दवरून कवितेक मार उलो

## २१२. कविता वाडटा

कविता आमची भितरले भितर वाड वाड वाडटा
दीस भरतकच वियेता आनी जिवाक थाकाय दिता

ह्याच खिणाची आसता कवीक केन्ना सावन उमळशीक
थेंब थेंब गळटात उतरां जशें चिंतता अदीक अदीक

अशा वेळार कवीचे पांय तेंकनात जमनीक
हाताक ताच्या लागता जशें माणीक मोलादीक

## २१३. मुक्तीचें दार

कवी म्हणटा, कविता हें आपलें भुरगें खाशेलें
व्हड जातकच दाखयता आपल्याक दार मुक्तीचें

मुक्ती मेळपाक तशी आसची पडटा साधना
देवभक्तीच्यो गावन कविता करची आराधना

प्रार्थना करूंक जण एकल्यान काव्याचो घेवचो आदार
संगीत आनी काव्य आयकूंक सर्गाचें उगडटा दार

## २१४. शुन्यांत

उतरा उतरांत कवीच्या, भरिल्लो आसता राम
देखून अजून जिबेर घोळटा, संतांचें नाम

समाज कल्याणाच्यो वाटो आमकां दाखयल्यो संतांनी
लायनी लागतात भक्तांच्यो चलपाक त्या वाटांनी

तांणी जरी दाखयल्यो वाटो चलपी आसूंक जाय
मना काळजांत गावन कवनां शुन्यांत वचूंक जाय

## २१५ शांतिकाये दूत

तुमचेवरी, तांचेवरी, आमकांय येता राग
मागीर आमी कवितेंतल्यान शांतीक हाडटात जाग

कविता म्हळ्यार विचारांचो ऊत
गरज तेन्ना शांतिकाये दूत

कवी होय दोन पायांचो मनीस
जाच्या श्रेष्ठ मनाक आसता एक नीस

## २१६. कवितेचे खीण

कविता आमी बरोवच्यो म्हूण, मुजरत येता पावस
पावसावरी कविताय आमच्यो जमनीक मारतात घांस

पावसाचें आनी कवितेचें अशें अतूट नातें
आदी पासून चलत आयलां तांचें हें खातें

पावसान आमच्या कवितेचें बरेंच काडलां रीण
देखून पावस म्हळ्यार आमचे कवितेचे खीण

## २१७. आमकां शिकयता

कविता कशो घोगेवच्यो
तें पावस शिकयता

कविता कशो जिरोवच्यो
तें धरती शिकयता
कविता कशो फुलोवच्यो
तें झाडां शिकयतात
कविता कशो वेंचच्यो
तें सुकणीं शिकयतात

## २१८. मनाची भूक

न्हय मळब, न्हय दरया, आमी बाबडे कवी
आमकां सारको वळखला तो, फकत एकलो रवी

जेवण भागयता भूक पोटाची
काव्य भागयता भूक मनाची

जाका आवडना कवन
ताका नासत मन
जाका नासता मन
ताका कळना कवन

## २१९. उर्बा आनी उर्जा

रवी आमकां वयर सावन दियत रावता उर्जा
धरती सकल रावन दिता थंडसाणेची उर्बा

उर्बा आनी उर्जा मेळून फुलत वता कवी
आपशे आपूण जाता काव्य-निर्मिती

उर्बा घेना उर्जा घेना तो पडटा येवजूंक
दिश्टावता तोच थारायता लिखणी हातांत घेवूंक

## २२०. म्हाका व्हरा

कोण कोणाक म्हणू नाकात
म्हाका व्हरा..म्हाका व्हरा
एकामेकाच्या हाताक धरून
अचळय वयर सरा

वयर सरपाक जाय पडटा
कोणाचो तरी आदार
प्रतिभा आनी चिकाटी आसल्यार
चडटा आपल्याच बळग्यार

लजेक गेल्यार पेजेक पावना
म्हणटात तें न्हय फट
लजता तो मोव आनी
लजना तो घट

## २२१. कल्पनेची शक्ती

वयर कितें आसा पय तें कोणेच देखलेंना
जाणे देखलें ताणे अजून वर्णन केलेंना

कल्पनेची शक्तीच आमची इतिहास घडयता
विचारां शक्ती ना थंय गुलामी जल्मता
देखलेंना तरी वर्णन करूंक शकता फकत कवी
ताणे वर्णन केलें तें अजून देखलेंना कोणी

## २२२. वरदान

हातूच आमचो करता घात, दिता आघात
कवी मात वगीच रावता दोनांयच्या मदेकात

कवितेंतल्यान आयलें शाणेपण तेंच वरदान
तें गावलें तर जिविताच्या वाटचालीचें उरना भान

बडबडटा ताच्या हातांत बीन-थाल्याची चावी
वगीच रावन पळयता तोच खरो कवी

## २२३. काव्य-रॉकेट

तुमी तुमचें रॉकेट घेवन खंयच्याय गिऱ्यार वचपी
आमचें काव्य-रॉकेट आमकां ब्रह्मांड भोंवडावन हाडपी

जाची नदर पयस ताचे विचार श्रेष्ठ
असलेच मनीस आसतात समाजांत विशिष्ठ

कोटी कोटी खर्च करून तुमी रॉकेट करात तयार
कल्पनेच्या रॉकेटार कवी सदांच आसता स्वार

## २२४. कवितेचीं कुतां

कवी आमचे रातच्या काळखांत खंयचे खंय पावतात
तांकां भियेवन भुतां थंयचीं तोंड लिपोवन भोंवतात

भुतां लेगीत काडटात खंय कवितेचीं कुतां
देखून तांकां सोदूंक कवी खांची कोनशे धुयता

एक कविता अशी आसता, भूत जाता कविता
जाणे भूत देखलेंना ताका समजनात हीं गणितां

## २२५. कवीमन

घोडो फांस धांवलो म्हूण जायना रे विमान
कवी मात उडूंक लागल्यार उरना रे भान

कवीमनाक आसता गती, गती वाऱ्याची
कर्तृत्वाक आसता कड, कड हिऱ्याची

कवीमन भरिल्ली पेट, माणकां मोतयांची
सरभोंवतणी उगतो पेटारो, रास भांगराची

## २२६. स्वयंभू

कवीक कोणूच जिखूंक शकना, कोणूच हारोवंक शकना
कारण कवी केन्नाच दुसऱ्याकडें सर्त लावंक वचना

कवी म्हळ्यार काव्य स्वयंभू, प्रेरणा भोंवतणची
भोंवतणचें तें रूप स्वयंभू, संगत एकामेकाची

जाका कविता उमगता ताका दिसता ब्रह्मांड
जाका दिसता ब्रह्मांड ताच्यांत भरता ब्रह्मज्ञान

## २२७. काव्य-रंग

कवीक कसली न्हीद !
ताची वेगळीच रीत
जाय तेन्ना पक्वान्नां
जाय तेन्ना सुकें शीत

कवीक केन्नाय वच उठोवंक
तोंडार दिसता काव्यरंग
न्हिदता तेन्नाय काव्यांत दंग
रात दीस वसंत वसंत

## २२८. जगाचो शीण

कवीचें लक्ष वाऱ्यार, नदर थाऱ्यार
ध्यान सैमार आनी मन काव्यार

कवीक नाका कांयच उदार, कवीच दिता रीण
इतलें दिलें काव्य जगाक, होच व्हडलो शीण

सगळें सौंदर्य जगांतलें काव्यांतच भरलां
ताची चावी कवीच्या काळजांत थेयल्या

## २२९. गांवागांवांत कवी

शिकिल्लो आसूं धावी नातर फेल जाल्लो सवी
गांवागांवांत गावतलो सोदल्यार एक तरी कवी

जाका सांपडली काव्यचावी, तो ज़ालो धनवान
कवितेच्या यादिनच थोडे जातात काव्यसुजाण

कवितेची ना वळख तो खरो अशिक्षीत
कविता पचोवन जगता तोच सुशिक्षीत

## २३०. राज्य करतलो कवी

कोणूच पारखूंक शकना ताच्या शिक्षणाची पदवी
कांय तेंपान आख्ख्या जगार राज्य करतलो कवी

आमी जेवचें शीत आनी तोंडाक लावचें लोणचें
विचार पचोवचे कवीचे आनी जिणेंत केळोवचे

कवीची उडी जगाच्या पलतडी
कवितेची उडी मनाचे तडी

## २३१. कवितांनी बंड

कवी जरी आसले आमी समजू नाकात थंड
वेळ आयल्यार कवितांनीच करपी केदेंय बंड

अन्याय सोसून लोक, तोंड धांपून रावले वोगे
कविनीच तांच्या सुस्त आत्म्याक केले जागे

सोसून सोसून स्वताकच जे समजताले दुबळे
कविता आनी गितांनी तांचें वाडयलें बळगें

## २३२. थंड गात्रां

थंड पडल्यांत गात्रां, तांकां कवितांनीच जागोवया
कवितेच्या बळार आख्खें साम्राज्य घुंवडावया

साम्राज्या परस कवीची व्हडवीक आसता चड
ताचे इतलें कवीचेंय दालें समाजांत जड

कविता नासल्यार कवीचें खोटें जायत नाणें
उर्जा आनी उर्बा येवपाक जाय पडत गाणें

## २३३. मन काबूंत

कवी ते कवी आमी दिसतात तशे न्हय बाबत
कितलेय वयर उडले तरी, मन आमच्या काबूंत

पतंग सोडचो मळबांत, दोर आसचो हातांत
दोर आसल्यार घट, नाचोवं येता झेतान

दोर जरी दिसलोना थोड्यांक, पतंग नाचता मळबांत
ताकाय खबर आपलो जीव आसा म्हूण सुतांत

## २३४. मन आनी तन

आमचें काम जनाकडेन, जनाच्या मनांकडेन
कांयचें नातें जनतेकडेन, जनतेच्या धनाकडेन

धन आनी मन आमकां फरक दिसना
मनाकडेन जाता तें धनाकडेन जायना

मनामनांत आसता फरक, फरक तनाचो
गळून पडूंक दुराय पुरो कळाव खिणाचो

## २३५. फायदो जाता

सादो भोळो सभाव आमचो, कोणूय घेता फायदो
फायदो घेनात तांकां लेगीत, फायदो जाता जायतो

फायद्या नुकसानेचो वेवार कवीक कळना
कविता आनी वेपार हांचो हिशोब जुळना

जाय तो हिशोब आमचो बरोवन थेयतले
गरज तेन्ना बेरीज करून चुकतो करतले

## २३६. अंजन

तांकां दिसता आमी हांगा
करतात मनोरंजन
वाट चुकतात तांच्या आमी
दोळ्यांत घालतात अंजन

वायट तितलें नश्ट करून
धरती करची पुश्ट
वायटांचेंच आयज आयलां
धरतीचेर अरिश्ट

कवी आनी काव्य आसल्यार
अरिश्टांची ना भिरांत
आमकां जाय कोणतरी आमच्यो
कविता गावपी सुरांत

## २३७. दैवाचे संदेश

अशे आमी दैवाचे, दैवाच्या संदेशाचे
एकूच आमची इत्सा, तुमचें दैव फळचें

कवीक दिसता जगाचें जावचें भलें भलें
दर एकल्यान बरेंच करचें जालें तें जालें

कवीक येता गुपीत संदेश, कर म्हूण जगाक सुंदर
एक सुधार म्हणल्यार तो सुधारता शंबर

## २३८. हार आनी जैत

पावला पावलाक जिणेंत थोडे हार खातात खंय
कविता मनांत घोळयत रावशात, सदांच जातलो जय

हार आनी जैत दोनय जिणेच्यो दोन वटो
एकच आपल्याक आसा म्हणटा तो खोटो

दुसरो पांय उरताच फाटी एक फुडें घालतना
नातर एकूय पावल फुडें तूं चलूंक शकना

## २३९. निजी सभाव

सुंदरतायेर कवनां करप आमचो निजी सभाव
कोणेच आमचेर घेवचो न्हय बेठोच कसलोय दुबाव

सौंदर्य आमकां हटकिता, प्रतिभेक जागयता
सामकार येवन लागेता, नदरेंत नदर धवळटा

ताचेर अशीं कवनां जाल्यार आमचो कसलो गुन्यांव
असलेच संधीची पळयतात वाट कवी आनी हांव

## २४०. फुलझाडा भास

पावस येतकच झाडाझाडाक फुडटा इतलो चंवर
फूल समजून कवीचे तकलेर येवन बसता भंवर

कवी आंगाक फुलां वास
भंवराक फुलझाडां भास
कवी घेता काव्या उस्वास
कवी स्थिती जाता खास

कवी खरो सैमाचो, दर एका प्राण्याचो
दृश्य अदृश्य वस्तुंचो, ब्रम्हांडाच्या पलतडचो

## २४१. काव्य-भंवर

खंयचो मनीस खंयचें झाड, भंवराक खंय कळटा
काव्यरसा सुगंधानूच तो कवीक लागी ओडटा

सुगंध जरी गेलो नाकांत, रस मेळना
भंवर म्हणटा गंध मेळ्ळ्यार रसा गरज ना

वेगळो वेगळो असलो गंध केन्नाच घेवंक नासलो
तेन्ना सावन काव्य-भंवर कविकूच दसलो

## २४२. काव्यासनार बसतात

जळटात तांकां जळुंदी, पळटात तांकां पळुंदी
पळून जंय वतात थंय काव्यफुलांच फुलुंदी

धांवडायल्यार वचना इतलें कवीक काव्य दसता
वाजेवन उबगून वता तो जल्माचो फसता

तांतले थोडे विरहाचो बरोच त्रास सोसतात
मोग जाग्रत उरलो तर काव्यासनार बसतात

## २४३. भोंव झेतान

पळून पळून वतले खंय ? वचत थंय संगीत
संगीत लेगीत गावचे खातीर रचचें पडटा गीत

गीत आनी संगीत तुमकां, जीण भर तारतलें
गिताआड केल्लें विधान, केन्ना तरी बादतलें

संवसार आख्खो भरला, काव्य संगीत गितान
काव्य संगीत घोळय मनांत, आनी भोंव झेतान

## २४४. मोल

कवितेचें आमच्या कोणेच, करचें न्हय रे मोल
एकेक आमची कविता म्हळ्यार सामकें फेविकॉल

मांडयेवयल्या भुरग्याक म्हणटात धोल..धोल..धोल
जाण्ट्या म्हातऱ्या भुरग्यांक लेगीत कळटात काव्यबोल

काव्यबोल आयकून भुरगे जाले ल्हाना व्हड
आयज व्हडा व्हडांक काव्या आवड चड

## २४५. वास

तांबडे मातयेचे तिजुले आनी
उगत्या मळबाचो तेर्रास

देखून आमच्या आंगाक
सदांच कवितेचो वास

आमच्या आंगाचो घेवपाक वास
सैम येता लागी लागी
रानांत भोंवपाक आमकां येता
गाडी बिनचाकी

## २४६. नवी कविता

तांबडे मातयेंत भरसता जेन्ना कवितेचो वास
नवीच कविता रूजून येता, जात ताची खास

खाशेले ते जातींत आसता नवो काव्यघास
नव्या घासाचो नवे प्रतिभेक फास

कोणेच म्हणची गरज ना वा-वा-सुंदर
निसर्गाच्या रचनेची करची न्हय दर

# २४७. काणी जाली पोरणी

राजा आनी राणी आयज काणी जाली पोरणी
कवी आनी कवित्रीच आयच्या काळांत शाणीं

शाणीं आसून उपेग ना कविता भितर दवरून
आदल्यो काणयो जाणात आमी पुस्तकांनी वाचून

आदल्या काणयांर चलता आयज भुरग्यांचो अभ्यास
जाणट्यां इतलीच भुरग्यांचीय तकली चलता फांस

# २४८. काव्यसान्नी

नुस्तेकान्न, भाजयेकान्न, बाजारांत घाणी हिमसाणी
कवी मात मारीत आसता, मना मनांत सान्नी

भाजयेकान्नी तांचेपरस आसतात मात्शो मानी
कुसली तरी भाजी म्हणटात येनात असल्यो घाणी

सान्नी मारून मारून कवीचो जालो खुटारो
तेन्ना नुस्तेकान्नीन उगतो केलो कांतरां पेटारो

कांतरां तालार भाजयेकारांनी वाजयलें भाजये बॅन्ड
गिरायक सगळें उबें रावन हालोवंक लागलें भेंड

# २४९. भावलें

इतल्या वरसांत आयज म्हाका काव्यसत गावलें
जिवीत सोंपत आयलें तेन्ना मना काळजाक भावलें

कांयच नासलें थंय आयज थोडें तरी कळ्ळें
म्हातारपणांत देंवत्या काळांत जिवीत म्हजें फळ्ळें

## २५०. कल्पनेचो विचार

मनांत काव्य रुजयतलो तर धूळ झाडूंक जाय
बीं भुंयेंत पुरून वयल्यान माती ओडूंक जाय

बियेर लेगीत रुजोवन वाडोवंक करचे पडटात संस्कार
जाणकाराक गुरू मानून करचो नमस्कार

बीं माती उदक मेळून जल्म झाडाचो
कल्पनेचो विचार म्हळ्यार जल्म कवितेचो

## २५१. हुस्को

आमी अशेच बाबत समजून
थोडे करतात आमकां मामा
तरी वेळार जातात कामां
कारण आमचो हुस्को रामा

रामा इतलेंच जायते पावटी
काव्यूय आमकां पावता
काव्यान विचारिल्लया प्रस्नाक
हयकारीच जाप लाबता

## २५२. दाद

कवीक बाबत समजून जाण्टीं घेतात ताचो धसको
सगळ्यांनी वाऱ्यार सोडलो तरी श्रोत्यांक ताचो हुसको

श्रोते म्हणून कवी आनी कवी म्हणून श्रोते
श्रोत्यांक हात दिवन वयर काडटात कवी खरे

हात धरपाक कवीचो तुवें वचची गरज ना
तुवें दिल्ली दाद तुका पडूंक दिवची ना

## २५३. म्हजी डायरी

कवी आपलो वैरी समजून ताणे म्हाका दिली भायरी
कविता आयकून त्याच मनशान मारली म्हजी डायरी

डायरेंत म्हजे आसल्यो सायबा जायत्यो कविता
वैऱ्याचेरूय आसल्यो थोड्यो म्हाका याद जाता

कविता म्हज्यो वाचून, जालो दिसता घायाळ
कविता वाचून सोंपतकच ताचें काळीज जालें मोगाळ

धांवत आयलो सोदीत म्हाका, गळ्यांत घाली माळ
डायरी दिवन म्हाका म्हळें विणीत राव कवितेचें जाळ

## २५४. श्रोत्यांचें कल्याण

कवीक श्रोत्यांचें कल्याण जाल्लें जाय आसता
देखून तो रातदीस कविताच करीत रावता

सांगू नज केन्ना श्रोत्यांक आयकन दिसत कविता
एकल्याक दिसता तेंच सगळ्यांक एकाच वेळार दिसता

दर कवितेन बरो संदेश दिलो जर लोकांक
कांय तेंपान दिसतलें कल्याण आख्ख्या जगांत

## .२५५. दुडवांकडेन संबंध

कवी कविता कित्याक करता ? हेरांक उत्सुकताय
बरोच दुडू मेळटा काय ! थोड्यांक जाता नसाय

कवितेचो दुडवांकडेन कांयच ना रे संबंध
दुडवांचो विशय काडल्यार चिंतनां जातात बंद

मनीस खेळटा नाचता तो कसले आशेक न्हय
उमेद आनंद म्हणटात ताका मोल नासता खंय

## २५६. मेंदू जाता पुश्ट

एक कविता वाचतकच वेगळीच जाता नुरा
इतली धुंदी दिता आमकां ही काव्यसुरा

जेवता दिसाक दोनदा आनी मनीस जाता तृप्त
एक कविता वाचल्यार आख्खो मेंदू जाता पुश्ट

सगळ्यांत सुंदर आनी सवाय वस्त ही कविता
आहार पुश्टीक जावपाक कवनां तोंडाक लाया

## २५७. रितो पेलो

उदकाबगर, च्यायेबगर, ताळो जायना ओलो
कवितेबगर जीण म्हळ्यार, निखटो रितो पेलो

रित्या पेल्यांत कोणूय ह्याडून कितेंय भरतलो
नकळ जावन तूं उखलून तोंडाक लायतलो

कवितेंत आसता तें कसल्याच पेयांत आसना
घोळय नासतना पियेल्यार कविता सारकी पचना

## २५८. जिणेक रूच

मीठा बगर कसल्याच जिनसाक येवंक शकना रूच
कविता जिणेंत खिरयल्यार तुज्या सारको तूंच

निसर्ग निर्मीत खावचीं फळां जातनाच जातात रुचीक
तांतूंत मीठ घालें जाल्यार भर पडटली चवींत

कवी हो न्हिंदता संतोषान आनी उठ्ठा उत्साहान
काव्य अवतरता तांच्यांत कवितेच्या रुपान

## २५९. ओघ

कविता म्हळ्यार...
कल्पनांचो मोग आनी भावनांचो ओघ
सत्याचो सोद, असत्याक विरोध

कविता म्हळ्यार सुविचारांचो करण
अविचारांचें सरण
सुंदरताये धन
जाग्रत काळीज आनी मन
मनाचें वस्त्र,
एक शास्त्र,
एक शस्त्र

## २६०. वेसनमुक्त

कविता वाचून कितल्याच जाणांची जीण बदलल्या
मान मेळोवन समाजांत वेसनमुक्त जाल्यात

समाज म्हणून वगीच कोणाक दिना गा मान
एकलो कवी जावप म्हळ्यार समाजाक शान

वायट आयकूंक थोड्यांचे सदांच उगते कान
बरें आयकून वायटाचेरूच मारतात नदरे बाण

## २६१. सत्यवादी

असत्याक करता विरोध तोच खरो सत्यवादी
आपले परीन कवी सदांच सत्यध्येयवादी

सत्य आनी असत्या मदीं सदांच पेट्टात झगडीं
दोगांय कर्मा एकामेकाचीं रस्त्यार उडयतात उगडीं

असत्य म्हणटा आपूण खरो सत्यवादी
सत्य म्हणटा म्हजो जल्म तुज्यान आदी

## २६२. मनशाक अमरत्व

रक्ताळलेल्या हातांनी आमी बरोवं कवीची वाणी
कलम केलो हात तरी, अमर जातली काणी

कवीचें रक्त म्हळ्यार जिणेचें सत्व
कवीचें व्रत म्हळ्यार मनशाक अमरत्व

उबारलें शस्त्र तरी सत्याक भिरांत ना
समदिरांत पडलें तरी सत्य बुडना

## २६३. गळ्यांत दागिनो

गांवांत कवी आसप म्हळ्यार गळ्यांत दागिनो
कितलोय शिकलो म्हूण कवीवरी जायना शाणो

कविता म्हळ्यार गुळी एक प्रेशर देंवपाची
कविता म्हळ्यार सूय एक पुळी फोडपाची

कितलीय जाली घमेंड तर कविता देंवयता
व्देश विसरावन मनशाक काव्य-हवेंत पेंवयता

## २६४. दोळे धांपून

जगांतल्यो सगळ्यो वस्तू दोळे उगडून पळोवच्यो
फकत कविता तितल्यो दोळे धांपून आयकुच्यो

कविता आमी काळजांतल्यान आयकतात
आनी मनांतल्यान पळयतात
देखून त्यो आमचे जिणेक
सदांच दितात साथ

काळजांत आमच्या काव्याचे थरार थर
कवितेन थंयच केलां आपलें घर

## २६५. भास

नातीं गोतीं मान भौमान खिणयाळो भास
दर मनशान दवरचो फकत कवीचेर विस्वास

कवीच्या काव्याचेर चलता काव्य संवसार
कवीच भोंवडी मारू शकता संवसारा भायर

कोण केन्ना पावना थंय कवी पावता
ताचो हात धरल्यार तुकाय थंयच व्हरता

## २६६. घरांत देव

घराभायर करून खेव घरांत जातात देव
अशा घरांत जावंक जाय एका कवीचो उदेव

सगळे सदूण कवीच्या आंगांत
नाका जाल्लें दसता हेरांच्या मनांक

जशी तुळस दर एकाच्या दारांत
एक तरी आसचो कवी एका घरांत

## २६७. येता तरतरी

घरांत बसून बसून जाता आळशेपणाची सवंकळ
कानार कवन पडटांच सुचता कवितेची वळ

संकटांतल्यान सुटपाक देवाचें नाम
मनाक थाकाय मेळपाक कवितेचें नांव

दिसपट्ट्यो भानगडी आयकून मन भेरेलें जरी
कवितेच्या तालान येता जिवाक तरतरी

## २६८. चुकेर चुको

इतले तुमकां मारंले उले, तुमी नसाय करीत रावले
चुकेर चुको काडीत रावले, देखून आमी फुडें पावले

अजून वेळ वचूंक ना, जीण तुमची सोंपूंकना
तुमच्योच चुको तुमीच काडशात जैत पयस ना

## २६९. एकाच जाग्यार

एकाच जाग्यार मारशी घण, घट वणत फुट्टली
एकाच जाग्यार लावशी दोळो, कविता जल्मतली

उदक ना थंय उदक काडून एक इतिहास घडय
प्रयत्न करून फाटीक लागून प्रतिभाशक्ती वाडय

कोणाक ना तें मनशाक आसा शक्य
एकाग्र करून चित्त घालूंक जाय लक्ष

## २७०. बळ

गांवागांवांत आसल्यार कवी, मनीस सुखावतलो
गांव गांव समृध्द जावन देश बळावतलो

शक्ती आसल्यार युक्ती ना, अशें जावंक फावना
युक्ती विणे शक्ती तुजी कामाक येवपाक ना

## २७१. सपनां

नडणे परस थोड्यांचे, कण्णेच आसतात जबर
न्हिदपाक रातचे घेतात ते कवितेचीच चादर

सपनां पळयतात कवीवरी ऊंच ऊंच उडपाचीं
सपनांत जाता तशें जागेपणी जावपाचीं

न्हिदल्या बगर सपन पडना, जागल्या बगर खरें दिसना
ताण तणावांत न्हीद लागना, न्हीद ना देखून सपन ना

## २७२. मलम

दोळे उगडून कवी जेन्ना पडटा हातरुणार
तेन्ना तो मलम लायता गरिबांच्या दुखण्यार

कोणे कांयच दिलेंना तरी मलम लायत रावता
आपणावरीच जण एकल्याक खूश करीत वता

गरिबांचीं दुखणीं तेन्ना ताचे लागी उलयतात
उपाय म्हणून कवी तांकां कविताच दितात

## २७३. बायल भुरगीं

बायल भुरगीं कवीचीं, हांसतात रडटात दोळ्यांतल्यान
जेवतात खातात कडव्यांतल्यान, खेळटात काव्यांतल्यान

झगडीं म्हळ्यार कवीलीं, फकत काव्यगितां
काव्यदेवीच तांकां झगडूंक प्रेरणा दिता

खेळटां खेळटां कडव्यांतल्यान येतात नवीं कवनां
रडटां रडटां दोळ्यांतल्यान तयार जातात गितां

## २७४. पिरंगण

मेळटा तो मनीस पिरंगता, आरेरे....देवा रे....
तुमकां कितें जाता तें कवीक सांगात मरे

पोटखणें जालां तर कवी
काव्यरस दितलो पिवंक
हाडां दुयेंस जालां ताका
कविता दितलो लावंक
मेंदवा दुयेंस आसत तर
गितां दितलो गावंक
ताळो दुखता ताका तो
कडवीं दितलो खावंक
व्हडलें दुयेंस आसत तर
तुगेर येतलो रावंक

## २७५. पिराय

तूं कितलो जगलो तुज्या कवितां वेल्यान कळटा
जितल्यो थोड्यो कविता तितली पिराय गळटा

कविते विणे जगल्या मनशा जिणेक अर्थ ना
कविते बगर जगली जीण वयर हिशोबांत येना

कविते बगर जिणेक ते जीण म्हणनात
उतरांक चाल लायले बगर गीत म्हणनात

## २७६. तृप्त अतृप्त

अशोच कविता रचीत रावल्यार तेंगशी गांठटलो
भुकेलेल्यांक जेवण म्हूण कविताच वाडटलो

जेवतले तितलेय पोट भरून जातले तृप्त
जे जेवचेनात तितलेय उरतले अतृप्त

ल्हान व्हड सगळेच आयज कवितांक भुकेल्यात
वांचय आपलो जीव म्हूण कवी फाटल्यान लागल्यात

## २७७. उपकार

भुकेल्ल्याच्या पोटांत जेन्ना पेट्टा भुकेन उजो
कविता ताच्या हातांत दिल्यार उपकार मानता तुजो

लाडू नाका गोडशें नाका, नाका पंच-पक्कानां
अशा वेळार ताका जाय कवितेचीं पानां

कविता तुज्यो पळोवनच ताचें पोट भरतलें उमेदीन
वाचून दाखयल्यार म्हणटलो आपणाक सांपडलें मीन

## २७८. कवितेंतल्यान उलय

आसूं गोरो गोरो नातर कोळसो किट्ट काळो
गावंक सोदता जाल्यार, नासल्यार जाता ताळो

जिविताच्या दर एका मळार, कविताच तुका सांवरता
कांयच सुचना जालें तर प्रसंगार कविताच पावता

सूर नाका ताल आवाज, कवितेंतल्यान उलय
श्रोत्यांच्या काळजार काव्यार्थाचें राज्य चलय

## २७९. संपत्ती

नवकवी कवितेंतल्यान नवो संदेश दिता
कवितेचीं कडवीं ताचे दुर्गुण लिपयता

कवींनी बरयल्ल्यो कविता मनीसजातीक संपत्ती
कवितेचें नासत गिन्यान कवींचेर आपत्ती

संपत्तीचें रक्षण करप दर एकाचें कर्तव्य
ताचेरूच निंबून आसा साहित्याचें भवितव्य

## २८०. मनन

कितें तुवें केलें काय म्हूण जायते जाण विचारतात
मुखामळार कविता म्हज्यो चलता भोंवता झळकतात

चिंता मनशाक खाता, चिंतन मनशाक तारता
मनन आनी मननांतल्यान चिंतामुक्त जाता

## २८१. कल्पनेचीं पांखां

कल्पनेचीं पांखां लावन उगत्या मळबांत उडन
पांखटे तुटून पडले तरी, काव्यतळ्यांत बुडन

कल्पनेच्या राज्यांत सगळे सुखी सुखी
आपलींच सुखां जण एकलो भोगी भोगी

उगत्या मळबांत आसा कितें, उडल्या बगर कळपाना
काव्यतळ्यांत कसलें सूख, बुडल्या बगर कळपाना

## २८२. ही म्हणटा

ही म्हणटा,
कविते पुस्तक तुजें
पोटांत पडचेंना
हांव म्हणटां,
कविते बगर संवसारांत
कांयच उरचेंना

ही म्हणटा,
कवितेची भाजी करून
वाडूंक मेळना.
हांव म्हणटां,
कवितेचो अभ्यास केल्यार
भूक लागना

## २८३. गांठवल

उतरांचें गांठवल बांदून सांठो केल्ले
संदेश आनी सुविचार
कळप इतलें सोपें न्हय
सांगप इतलें कठीन न्हय.

शंबर वळींचो
चार वळींनी सांगिल्लो सार
विचार करूंक लागल्यार
वयर वयर उडत वता धार.

बोटभर सूय
पोंदा पोंदा वचपी मूय
फकत बसून पळयतात
हांव आनी तूय.

कवी म्हणटा, लोळिल्लें आसा वस्त्र
चिखोल वचसर चोळून चोळून धूय
उरता तें भांगर आंगार घालून चोय

## २८४ मनाचो हारसो

मनाचो हारसो पूस रे मनशा,
मनाचो हारसो पूस
भितर भरल्यात कविता खूब,
भितर कविता खूब

जीणभर तुवें केलें परतें, निमण्या वेळार सारकें कर
केलेंना केन्ना शुभकर्म तर, आयज कविता कर

कवितेची मयमा गाय आनी कवीजीण सार्थकी लाय
केल्लें आसत चुकून पाप, पुसून उडोवंक कविताच जाय

गर्व, घमेंड, अहंकार मनांतलो उडय काडून भायर
तेन्नाच तुज्या आंगांत मनशा येतलो कविते भार

## २८५. अवदिसा

तुका कविता कळ्ळी, तुजी अवदिसा पळ्ळी
अमृताची वाटी तुज्या माथ्यार गळ्ळी

आतां तुजो फुडार पळय
काव्य रचून जिवीत घडय
काव्यधन हातांत घोळय
हेरांच्याय हातार गळय

## २८६ अमृताचें फळ

ताणे विचारलें,
मनीस जल्माक येता आनी
मरता कित्याक रे ?
हांवें विचारलें,
अमृताचें फळ गळून
पडटा कित्याक रे ?

## २८७. अमर

जल्माक येता तो मनीस मरता,
हांवें सांगूंक जाय ?
जल्माक आयिल्ली कविता मरना,
हांवें सांगूंक जाय

जायतीं गुपितां आमकां
सांगले बगर कळटा
देखून आमचे तकलेंत
कविता जल्म घेता

## २८८. फायदो

कविचो फायदो कितलो समाजाक
थोड्यांक कळना
कविता वाचून खूश रावल्यार
काळजा दुयेंस जायना

आनंद घेवपाक मनीस खूब करतात नाडेपेन्नां
कविता घोळयल्यार मनांत काळीज नाचता आनंदां

# २८९. हांव सुखी

हांव एकटो न्हय
आमी दोगां जाणां
ती म्हाका कशीच सोडना
हांवय तिका सोडूंक शकना
आमचें नातें मानसीक
आनी बौध्दीक
ती व्हरता थंय हांव वतां
ती शिकयता तें शिकतां
ती म्हजी गुरू
चोवीसय वरां म्हजे भितर
शिकवणेक रुजू
ती म्हाका वळखूंक शिकयता
पारखूंक शिकयता
सुंदरताय वर्णूक शिकयता
दूख जाणूक शिकयता
सूख भोगूंक शिकयता
आनंद लुटूंक शिकयता
आनंद वाटूंक शिकयता
तिकाच लागून हांव इतलो सुखी
खिणा खिणा इतलो खोशी
तीच म्हजें विश्व
म्हजें सर्वस्व

## २९०. आपशे आपूण

जाण्टेल्यान विचारलो
जिणेचो अर्थ
भिवन भिवन
झाडावयलें फळ पडलें
आपशे आपूण
पिकून पिकून

आतां जाण्टेलो जगूंक भियेना
जगतां जगतां पडूंक भियेना

ताची चाल सुर्याची, ताची वाढ झाडाची
जीण धरती मातेची, जाण सैम सत्याची

## २९१. कविता जोड

रानां माड्डीय
दरया पेंव
देंगणां हूप
जिवांक तार
घुस्पून पड
नेटान ऊठ
पलतड मार
खणींत देंव
फातर फोड
गांवांत भोंव
एक तरी तुजी
कविता जोड

# २९२. येता तशी

थोडे म्हणटात कविता आपूण येता तशी गायता
जाण आयली म्हणटकच भुरग्याक चेड्डी जाय पडटा

जल्माक आयिल्ल्या भुरग्याक खंय
कसलीच अक्कल नासता
संस्कार घालपाक सांगचें पडटा
तें तुजें दिसता

इल्ले इल्ले संस्कार पडून मनीस मनीस घडटा
शिकून सवरून समाजांत परिपूर्ण जाता

तशी तुजी कविता सगळ्या आंगानी वाडची
उणीं दुणीं वचून अग्रंवर जावची

# २९३. म्हज्या बोल्सांत

थरल्या वेळार दोळे म्हजे तुजे वाटे कडेन
तूं येतांच नदर तुजी बोल्सांतले नोटी कडेन

जायते फावटी तूं म्हज्या बोल्सांत हात घालता
नोट ओडून काडटा पूण कविता हाताक लागता

नोट आनी कविता हातूंत, म्हाका फरक दिसना
नोटीचेर जी कविता आसा, तुका वाचूंक कळना

## २९४. शिरंगार

रुपसुंदरी हारशामुखार, वरांच्या वरां शिरंगारता
म्हजी कविता येतनाच, शिरंगार करुन अवतरता

शिरंगाराची कवितेच्या करू नाका सर
आमचो तिचो वेगळो इतलें मतींत धर

मुळचीच जी सुंदर तिका अडेचो शिरंगार लागना
रूप आसत उणे तर थोड्या शिरंगारान भागना

## २९५. घाम

हांव थंड झेल आनी तूं पेट्टो उजो
देखून तूं लागी येतांच घाम देंवता म्हजो

केन्नाय तूं झेल हांव तुजो उजो
तेन्ना हांव घाम देंवयतां तुजो

दोगांय आमी झेल जाल्यार एक जाता दोगांयचो
दोगांय उजो जाल्यार गोबोर जाता तिसऱ्याचो

## २९६. कलय

वायट दीस अशेच येतात बऱ्यांक दसून दसून
आयदनांची कलय लेगीत काडटात घांसून घांसून

आयच्या आमच्या आयदनांक आसना रे कलय
वायट दीस धांवडावपाक कवितेंतल्यान उलय

कवितेंतल्यान आपय, कवितेंतल्यान तापय
कवितेंतल्यान जावंदी दर एकाचो जय

## २९७. वायट दीस

कवितेची सेबा कर, वायट दीस पयस दवर
एक एक करून आख्खो गांव सुखी कर

सुखी गांवांत आसतले सुखी सुखी मनीस
काव्यांतल्यान उलयतले रात आनी दीस

जणेकाच्या तोंडार घोळटली काव्याची भास
कवितेचो गांव म्हूण नांव पडटलें खास

## २९८. सौंदर्य

देवा म्हजे भुंयेर तुवें इतलें सौंदर्य भरलां
कवितांनी लुटलें इतलें, तरी जायतें उरलां

उरल्या तितलीय सोबिताय उरतली सासणाची
कारण म्हाका खबर आसा ती निर्मणी कोणाची

तुजे ते निर्मणेचो हांवय जाता एक भाग
तुका वायट म्हणल्यार म्हाका येता राग

## २९९. तालठेक्यार

कविता चड कवी थोडे अशें आमचें जालां
देखून चलप खावप जेवप तालठेक्यार चल्लां

तशें जालें देखून सगळें संगितमय जालां
जग आख्खें संगिताच्या तालार धोलत रावलां

कांय तेंपान वाडटलीं कवीचीं नातरां पतरां
जायत रावतलीं एकार एक कवींचीं काव्यसत्रां

## ३००. घालता साद

काळजांतल्यान आयिल्ली कविता अजून उरता याद
हाडांतल्यान आयिल्लें गीत सासणाक घालता साद

कवितेचो उगम खंयच्यान, कोणेच सांगू नजो
उलोवंक गेल्यार उलो मनांतच उरता म्हजो

कवितेचो गाज गाजता आख्ख्या जगांत
अशेच गाजाचे सूर नाचतात कवी मनांत

## ३०१. काव्यधून

एक सावळी सदांच आसता फाटल्या फुडल्यान
काव्यधून वाजता वेळेर रेंवे कणाकणांत

वारो ताका सूर धरता झाडां खांचींतल्यान
ल्हारां ताका साथ दिवपाक घुमटां वाजयता

एक कवी वेळेर बसून तांचें गीत बरयता
गावपी वाजोवपी भान विसरून ताकाच पळयतात

## ३०२. कुळागरांत

पानां फुलां फळांच भरल्यांत
गोंयच्या म्हज्या कुळागरांत
तांच्या मदल्यान भोंवतना तीं
गितां गायतात कानांत

झाडांमदें रावल्यार कवी उपाशी पडचोना
कवी उपाशी पडलो तर इतिहास घडचोना

उपासांत कवीच्यो कविता जातल्यो नव्यो वेगळ्यो
कविता पोटांत पडल्योना तरी धन्य फुडल्यो पिळग्यो

## ३०३ झाड म्हणटा

झाडार हात ओडल्यार
कविता म्हणटात फुलां
गीत हांवें गायल्यार
ताल धरतात पानां
सावळेंत ताचे बसल्यार
आसन दितात मुळां
भूक म्हाका लागल्यार
खा म्हूण पडटात फळां

## ३०४ गायत राव

दोळ्यां मुखार रावतात उब्यो
सगळीं संकश्टां सगळ्यो कटकटी
तेन्ना हांव गायत रावतां
कविता खोशेन भरिल्ली
कटकटी पळटात फाट करून
हांव तांकां पळयतां
दोळे उगडून

संकश्टां म्हणटात,
तूं खोशी आसल्यार
आमची कसली गरज !
खोशे मदें आयलीं तर
आमीच आड पडत

## ३०५. काव्यकुड्डो

कविता दोळ्यांक दिसना
तर तो काव्यकुड्डो
काव्यगाज आयकूंक येना
तर तो काव्यभेड्डो
मन नाचना तर तो
काव्यांगणांत गिड्डो
अशा मनशान अदीमदी
दसून रावचो कवीक
गरज ना वचची
दोतोराचे सोदीक
कोणाक विचारनासतना
घेवचें काव्यटॉनीक

## ३०६. पावस येता

पावस येता, पावस येता, धरती भिजोता
भिजोन भिजोन फुगोता तेन्ना यादी शिजोता
शिजल्यो यादी, पेटल्यो वाती उजवाड पर्जळटा
उजवाडांत कोवीक आमगेल्या कोविता दिसोता
चाका चाका जोगलावण्यान कुपां हांसोता
घडघड्याच्या वाजपा तालार कोविता गाजोता
कोविता गाजोता तेशीं झाडां नाचोता
कोवीच्या गालार येसोच हांसो फुलोता

## ३०७. काव्य-शीर

कविता म्हजी उडटां उडटां
म्हाकाय खबर ना
तिकाय खबरना
खंय खंय हेडटा
खंय खंय पावता....

हांव जमनीर उबो
सूर्य येता, चंद्र वता
मळब भरता, रितें जाता
वारो खेळटा, कुपां धवळटा
तेन्ना म्हजी कविता
थंय धांवता, थंयच रावता
सगळें निवतळसर....

रूप घेता आनी
राज्य करता म्हज्या मनार
जागयता काव्य-शीर
दिता असीम धीर
हांव उबो जमनीर
सामकार अथांग समदीर

## ३०८. फुडली जीण

संवसाराच्या जंजाळांत काव्यशक्ती गेल्ली विरून
आतां हांव मेकळो जालां घर-संवसार सोंपून

जळिमळी कविता म्हाका मारतात उल्यार उले
फुडली जीण म्हणटात म्हजी आपूण घडयतले

हांव म्हणटां कवितेक लागून जिणेक येतलो वालोर
कविता म्हळ्यार जिणेक म्हजे सोबीत सुंदर झालर

## ३०९. कांय नासता थंय

कांय नासता थंय खंय, हवा तरी आसताच
हवा लेगीत नासता थंय, कविता तरी आसताच

कवितेक म्हजे आस्पावन घेवपाक पृथ्वी पावना
मळब पावना, अवकाश पावना, म्हजें मनय पावना

अशी म्हजी कविता, अशें म्हजें मन
तन म्हजें विश्व, कवन तांतूंत धन

## ३१०. सोदून काड

खंय खंय आसात कविता कठीन सोदून काडूंक
एक काडटकच त्याच जाग्यार दुसरी येता फुलून

भरल्यात कितल्यो कविता मनशाच्या सभावांत
धवळून पारखून हातासपाक म्हजो सभाव पावना

जाग्या जाग्यार पावला पावलाक कवितांची रास
कविता म्हळ्यार कवीचो तेन्ना भुकेवयलो घांस

## ३११. पांयवाट

सगळेच चलल्यार एकेच दिकेन
तयार जाता पांयवाट
पूण दर एकलो चलता
नवे दिकेन
वाटे विणे
चडत रावता घांट
नवो पाट, नवी वाट
कवितेचो नवो थाट

# ३१२. दिर्घायुशी

कवित्व आसून रचना कविता, तो जाता अल्पायुशी
जो सदांच जगता कविता, तो जाता दिर्घायुशी

आयुश्य कित्याक जाय तुका
खावन जेवन मरपाक मू ?
इतली पिराय दिल्या तुका
कवी जावन जगपाक न्हू ?

सैमाचो नेम तूं पाळना
तर सैम तुका मानना

# ३१३. बुडबुडे

आमी उदकावयले बुडबुडे
नाचतां नाचतां खिणाभितर फुट्टले
आमचो नाच पळोवपी आमचे रसीक
फुटपाचो आनंद लुट्टले

आमी फुटून वतले
बारीक बारीक कण
ह्याच उदकांत विरगळटले
कोणाक वायट दिसचेंना

सगळे बुडबुडे अशेच फुट्टात
अशेच फुटल्यात
फुटचे आदी नाचल्यात

पूण यादीन उरला तो सुर्यकिरणी झगझग
आरपार सभाव नाचरो, उदका वयलो

## ३१४. मान अपमान

दिल्यार जाता मान, केल्यार जाता अपमान
सूख आनी दूख आमकां दोनय एकसमान

तरी तुमचो पचोवन अपमान
स्विकारून दिल्लो मान
आमी तुमकां दीत रावतले
काव्यदान...काव्यदान...

आमचें दान तुमकांच न्हय, आख्खे मनीस कुळयेक
जल्मून गेले कितले कवी, न्हय फकत एक

## ३१५. गर्भार

कविता कविता म्हणून, धरती माता जाता गर्भार
आमी कवी दोतोर जावन ल्हव करतात तिचो भार

काव्यभारान धरतेची बागवता जेन्ना मान
तिचें चिंतून दुकांनी रडूंक लागता आसमान

आसमानचें दूख आमकां कळपाना
धरती माते सूख तुमकां कळपाना

## ३१६. गोड संवसार

हांव हांव न्हय, तूं तूं न्हय
जिबेर आसल्यार कविता
खंय कसलो भंय !

कविता म्हजी तलवार
कविता म्हजी ढाल
कविता म्हजी जपमाळ
आयज काल सदांकाळ

कविता म्हज्यांत, कविता तुज्यांत
सुखदिणो भार
अचळय आडमेळीं पार
सुरळीत संवसार

## ३१७. प्रार्थना

तकली धाडोवन तुमी जाका करतात याचना
कविता रचून आमी ताका करतात प्रार्थना

मागणें तुजें पावता ताका सरगम सुरांतल्यान
एक कविता गावन पळोवची मना काळजांतल्यान

भक्तांच्या प्रार्थनांचो येता पूर
ताका पावता काळजांतलो सूर

## ३१८. सुर्याचेर

उगवत्या सुर्याक तुमी बरे करतात नमस्कार
उगवच्या आदीच सुर्याचेर आमची कविता तयार

नवी कविता वाचूंक आमची सुर्य उदेता
काय तो येता म्हूण आमची कविता जल्मता ?

ताचीं तीं अपरुपां आमकां कळनात
ताचीं तीं गुपितां आमकां दिसनात

## ३१९. सुर्याक

हांव म्हणटां सुर्याक
सुर्या, निसर्ग कडय
किरणां खिरोवन
मेंदवांत म्हज्या
थेंब थेंब रकय

सूर्य म्हणटा,
आरे कवी शाण्या
दिसता तितलें पळय
आनी मन तुजें
कविते कडेन वळय

## ३२०. भावना

बंद देवळांतल्यान देवाक आदरान हाडलो भायर
चलतां भोंवतांच भक्तांक धरूंक मेळ्ळे पांय

देव म्हणटा कवीक, कर म्हजेर प्रार्थना
भक्तांक म्हज्या शिकय, वळखय तांची भावना

कवीन मागीर कविता केल्यो सुपांत धरना
सूर लावन भक्त गायतात म्हणटात प्रार्थना

## ३२१. कल्पनेंतल्यान

कवी आतांच जंल्मला, ताका कांयच खबर ना
तरी आपले कल्पनेंतल्यान आख्खें ब्रह्म जाणा

ब्रह्मांतलीं अजापां ताका बसला थंयच कळटा
कवी न्हय तो ताचेर ह्याच खातीर जळटा

बशिल्लेकडें कविता तुज्याय पडटा कानांत
मनाचो उपेग करून उबी करची दोळ्यांत

## ३२२. काव्य-झर

आमच्या सपनांक नासता मेर,
आमच्या चिंतनांक नासता तड
आमची नदर सगळ्यान खर,
व्हांवत आसता काव्य-झर

काव्यझरी वारो खावन तुमी तृप्त जावचे
काव्यझरी उदक पिवन श्रोतेय कवी जावचे

## ३२३. सुक्या सड्यार

कविता नासल्यार झाडां सुकतात बरीं बरीं
कविता गायल्यार सुक्या सड्यार फुट्टात झरी

आंग काडटात पळोवन तुमी देंगणां आनी दरी
कवीक दिसता काव्यपरी न्हेसून साडी भरजरी

## ३२४. कांयच शेणना

आमचें केन्नाच, खंयच, कांयच शेणना गा
कविते बगर शेणपासारकें कांयच आसना गा

भांगरां शेणल्यार थोड्यांचो वता खंय जीव
असल्यां मनशांची आमची कविताय करता कीव

भांगरां सांठोवन कांय मनशांक मेळटा आसत सूख
कवितांनी आख्ख्या जगाचें पयस पळटा दूख

## ३२५. परमळटा

शेणल्यार रुजता कविता
रुजल्यार वाडटा कविता
वाडल्यार फुलता कविता
फुल्लयार परमळटा कविता

चड तेंप दवरल्यार
कसलीय वस्त इबाडटा
कवितेचो सुगंध मात
दिसान दीस परजळटा

## ३२६. जोत जळटा

जोत जळटा उजवाड दिवपाक
स्वता खातीर न्हय
कवीची निर्मणी जगाखातीर
आपल्या फायद्याक न्हय

स्वता सोंपली तरी
जांकां पेटयल्या आपणे
तांणी पेटयत वचचें
हजार हजार लाखांनी
ही तिची इत्सा
मतींत धरची पेटयतल्यांनी

कवी आसता झरीवरी
आपूण उदक पियेना
कोण पिलोना तरी
व्हांवची थारना

## ३२७. कवीची तिजोरी

चोरान एका कवीची फोडली खंय तिजोरी
हाताक लागली फकत एक कवितेची डायरी

डायरी घेवन रस्त्या कडेक वाचूंक लागलो कविता
वाचतां वाचतां तो दिसता आनीक आनीक वियेता

कांय वेळान ताच्या म्हऱ्यांत दुडवां जाली रास
लोकां नदरेन कवी म्हणून तो जालो पास

दिसान दीस दुडवां पोटली जड जड जड
चोरये परस हीच कमाय चड चड चड

## ३२८. शेणाथापो

मातयेंत पडलो शेणाथापो घेवन उठ्ठा माती
काव्य-तळ्यांत पडटा तो भिजून जाता कवी

शेणांत पडलो, शेणाचेर कविता
तळ्यांत पडलो, तळ्याचेर कविता
लोळून भिजून मनीस हांगचो
आपुणूच जाता कवी

## ३२९. बुराक

पाणयांतल्या व्हड्याक मारल्यार बुराक
व्हडयांत येतलें पाणी
कवी बुडल्यार काव्य-दर्यात
नाका तोंडांत काव्यपाणी

कवी जंय पावता थंय, तसलें घेता रूप
कवी जावचो दिसता ताणे कवीची घेवची ऊब

## ३३०. सोयरे

खावंक-जेवंक आसल्यार सोयरे खूब
दुड्डू बोल्सांत नासल्यार कवितेची ऊब

सोयऱ्यांक मुखार बसय, कविता वाचून दाखय
आयकून भूक गेलीना तर, एक गावन दाखय

इतलेंय करून सादना तर, दाखय तांकां नाचून
नाचतां नाचतां दांत तुजे, दाखय हांसून हांसून

सोयरे जातले खूश, विसरतले भूक
तेन्नाच तुवें समजुचें, तांची संमती मूक

वा-वा-वा करीत वतले आपापल्या घरा
सुंदर..सुंदर म्हणीत बायलां तोंड पुसतलीं पदरा

## ३३१. शितागोटो

कविता खावन कोणय जायना मोठो
मुयेक सुस्ती मारपाक पुरो शितागोटो

सुको सुको शिता गोटो मुयांक रुचना
साकरे मेलांत बुडयलो तर सगळ्यांक पावना

कविता न्हय साकरे मेल, न्हय म्होवें म्होंव
म्होंवी आसल्यार कविता, म्होंवा बगर ल्हेंव

## ३३२. काव्यांगणांत

पिशांनी लेगीत काव्यांगणांत मजा म्हणून येवचे
जाय तशो कविता गावच्यो, शाणे जावन वचचे

शाण्याक कविता गायन दिसता
ताचे लागी आंगण नासता
पिसो कविता गायत भोंवता
तेंच आपलें आंगण म्हणटा

## ३३३. शाणो

असोच एक पिसो एकदा काव्यांगणांत बसलो
त्याच खिणाक शाणो जावन कविता रचूंक लागलो

आयकून ताचें श्रोत्यांक दिसलें, तो करता फकांडां
तो म्हणटा जायतीं कवनां आसात म्हज्या तोंडां

उपरांत एका म्हाकवीन कवीत आपलें गायलें
पिशान म्हणलें गीत तुजें काळजाक म्हज्या भावलें

## ३३४. धुमशेणां

घाणटा जाल्यार घाणू, धुमशेणा कांडूं
कवितेचो रस पचोवन व्हडलो जालो पांडू

पांडू जावं शाणू, कविता तांकां ओडटात
कविता आयकूंक जायते जाण खूब धडपडटात

जांकां लागता गोड, तांचेंच हें मळ
हेर नवकवींक कवीच दितलो बळ

## ३३५. मेरेर

दर्या खातीर हांवें बरयली एक कविता वेळेर
ताणेच ती पुसली आतां तकली फोडटा मेरेर

वेळेर बरोवन कवीन कविता विसरुन वचची न्हय
तकलेंत आपले बरोवन थेवची रेवेंत सोदची न्हय

## ३३६. तेय आमीच

वाऱ्याचो वेग पियेवन, मळबांत रंग घोटेवपी आमीच
भुंयेचें पाचवें हांशें जनाजनांत फुलोवपी, तेय आमीच

आनीक कितें हावेस तुजे सांग म्हाका कविते
तुवेंच दिल्ले मंत्र मारून मेल्ल्यांक करपी जिते

## ३३७. पाटी

हांवें बरोबची म्हूण कविता ब्रह्मांडाची
वारो पुसून दवरता पाटी भरल्या मळबाची

पाटयेर इतलें बरयलें कोणे, कोणे पळोवंक ना ?
कवीन इतलें रचलें ताचेर, दुसऱ्या कोणे रचलें ना

तुवें जावचो म्हूण कवी, मळब तुका दाखयता चित्रां
कुपां भितर लिपोवन थेयता, सुंदर नवीं उतरां

## ३३८. धरतेचीं सपनां

सुर्य जेन्ना जमीन तापयता आनी पावस थंडायता
तेन्ना हो कवी धरतेचीं सपनां उतरांनी फळयता

तुका म्हाका सपनां पळोवंक गाड न्हिदचो पडटा
धरतेचीं सपनां पळोवंक कवीक जागचो पडटा

## ३३९. वळी वळीर

नांगर घेवन शेतकार मारता, आपल्या भाग्याच्यो वळी
वळी वळीर कवी जुळयता आपल्या कवितेची जाळी

शेतकार म्हणटा हेच वळीर धादोसता म्हजी पोटखळी
हजार कविता बरयल्यो म्हूण माती घालचीना गाळी

## ३४०. तुजें गीत

खरें म्हणल्यार तुज्या कपलार बरयल्लें आसा नशीब
तेंच वाचीत वाचीत कवी गायता तुजें गीत

तूं थंय सोडयत आसा नशिबाचें गणीत
एकेक गोटो वेंचता कवी भात कांडीत कांडीत

## ३४१. मिनार

राजान बांदिल्लो मिनार भुंयकांपाच्या धपक्यान मोडलो
कवीन बरयल्लो कविता झेलो भौसाच्या काळजांत उरलो

भौसाचें काळीज आमच्या साहित्याक लागी
तेंकून बसून मिनाराक कवितेच्यो खबरो मारी

आयच्या काळांत आसात कवी पायलेक पंचवीस
मिरोवपीच जातात कवी पंचेचाळीस अदीक

## ३४२. तालसुरार

एकलो वाजयी फुटकें फिडल, दुसरो बेसूर सतार
कवितेच्या कडव्यांनी दोनूय वाजलीं तालसुरार

बेतालाक तालार हाडची, बेसुराक सुरार हाडची
कवितेच्या कडव्यांनी आसता एक शक्ती

असल्या प्रसंगा वेळार श्रोत्यांच्या इच्छाबळार
आपले आपूण शक्ती नकळटां जाता उगती

## ३४३. काळखी रात

रात कितलीय आसत काळखी
उजवाडल्या बगर रावना
सुर्य कितलोय आसत सुंदर
बुडल्या बगर रावना

तुका आनी म्हाका लागून
सुर्य उदेना
तुका म्हाका कवीक लागून
वचन दिसना

## ३४४. अशें म्हणचें न्ही

पवित्र काव्यमळांत ह्या कवी आसात लाखांनी
म्हजीच रचना तांबडी' अशें कोणे म्हणचें न्ही

जितले कवी तितल्यो रिती
दर एकाची वेगळी बरी
एकाची अरुंद तरी धुंद
दुसऱ्याची उगती आसून बंद
मोटवे अकलेन केन्नाच कोणे मेजची न्ही
म्हजीच रचना तांबडी' अशें कोणे म्हणचें न्ही

एके कवितेक वेगळोच रंग
दुसऱ्या काव्याक वेगळोच ढंग
एकांत फकत विचारांचें व्दंद
दुसऱ्यांत भरला मंद आनंद
पचयल्या बगर केन्नाच कविता जोकची न्ही
म्हजीच रचना तांबडी' अशें कोणे म्हणचें न्ही

एक शांत, एक अशांत
एकाक शिंगां, राक्षेसाचे दांत
एके कवितेक लांब मोटव्यो सुयो
दोरो घालून नेड्यांत भावना शिवंच्यो
सुता बगर पोंत केन्ना मारचे न्ही
म्हजीच रचना तांबडी' अशें कोणे म्हणचें न्ही

एक कविता उतरांचो खेळ
दुसरी एक गर्भार केळ
एक कविता निखटी सुंदर
एक आसता गिन्यान भर
कांयच ना अर्थ म्हणून फाफुडची न्ही
म्हजीच रचना तांबडी' अशें कोणे म्हणचें न्ही

एक असोच मळब कॅनवास
एक खरोच सर्गाचो भास
एकाक अख्ख्या जिविताचो वास
एकांत भरल्या कवितांचीच रास
काळें वक्ल लावन कविता केन्ना वाचची न्ही
म्हजीच रचना तांबडी' अशें कोणे म्हणचें न्ही

## ३४५. अहंकार

काव्य रचणूक न्हय नोकरी, न्हय धंदो वेवार
हांवच व्हडलो कवी म्हणटा, तो ताचो अहंकार

अशे कवी आसनात, आसात ते साप्प उणे
एकाच तळ्यांत पेंवन पेंवन जाल्यात देडशाणे

## ३४६. काव्यपट्टी

सुरुपाय पळय चंद्राची, खराय पळय सुर्याची
काव्यपट्टी बुडोवन मेजची खोलाय दर्याची

पळोवची आनी तोखेवची म्हूण उगत्या दोळ्यांनी
कवी वरी काळीज घेतलां सगळ्याच मनशांनी

## ३४७. कवीचें व्हडें

बोट बुडली तेन्ना, हुंदीर पळ्ळे पयले
केन्नाच बुडूंक पावलेंना तें कवीचें व्हडें

पळ्ळे ते हुंदीर सगळे दर्यात बुडून मेले
गायत गायत कवी व्हडें पलतडीन पावलें

कवीक मेळ्ळो उदका साथ, ल्हारां ताल
जांकां गावंक जमलेंना, तांचे जाले हाल

## ३४८. घाय पेखलेना

तुवें म्हाका दुखयलें हांवें हाय म्हणलेंना
रागार जावन गेलें हांवे बाय म्हणलेंना

बाय म्हणुकूच जाय अशें कांय ना
तुवें दिल्लें खाजें खाय अशें ना

काळजाक केल्ले घाय अजून पेखलेना
सुक्या उतरांनी पेखून बरे जाय अशे ना

## ३४९. कीक

हातांत तुज्या लिखणी आनी तकलेंत कवितेची कीक
मागूंक वचची गरज ना कोणाकडेन आयुश्याची भीक

भीक मागून जीण जगप कवीच्या सभावांत बसना
कवीचो मान कवीचो भौमान भीक मागून मेळना

## ३५०. कवी वगी

मदीच येता चंद्रमुखी, मदीच फुडटा ज्वालामुखी
आपुणूच पडटा मृत्युमुखी, तरी कवी सामके वगी

वगी रावप कवीच्या सभावांत बसना
तरी तोंड उगडल्यार कविता घुस्मटना

कविता घुस्मटना तर मोठो जायना फार
फार जायना तर उगतें जायना दार

## ३५१. दोळे धांपल्यार

दोळे धांपल्यार कवीक खंय सगळें दिसती पडटा
तोंड धांपल्यार संवसारांतलें सगळें आयकूंक येता

आयकून पळोवन कवी कोणाचें कितें करतलो ?
राग मोग काडपाक एक कविताच करतलो

अशें तुमकां दिसता तर ती तुमची चूक
तोंड धांपता तोच आयज खरें भोगता सूख

## ३५२. कवीत निसरता

म्हज्या सारख्याकं दोळे धांपचे आदीच येता लकण
न्हिदल्या उपरांत कवीत सोडून भलतेंच पडटा सपन

न्हिदेंत म्हाका समजना तें जागेपणी समजता
त्याच शेळ्यार येवजल्लें तें कवीत निसरता

## ३५३. ऊड...

तुका दोन पांखटे दिल्यात
पांखट्यांत उडपा शक्ती
कारण तूं एक जागरूत कवी...

तुज्यांत आसा दैवी प्रतिभा
पूण तूं बंद पांदऱ्यांत मायेच्या
पांदऱ्या भितरूच सोंपली
तुजी अर्दी जीण
आतां तुका आवडूंक लागल्या
तीच बंद जीण
पांदरो उगडो उरलो तरी
तूं वचना भायर
पासय मारून परतून येता भितर.

पांदऱ्यातले अर्थ अपुरबायेन
खाणा जेवणाच्या आमिशान
तुका गुलाम केला गुलाम

ऊड तूं..ऊड
तुजो जल्म उडपाखातीर
बंदिस्त जावन
पांदऱ्यांत घुस्मटपा खातीर न्हय

ऊड तूं..ऊड
हें मळब तुजें घर
पांदरो न्हय
ऊड...
तूं एक जागरूत कवी

## ३५४. सदासुखी

आमी सदासुखी
तीच आमची खरी खुबी
कारण काव्यदेवता सदांच
आमचे मुखार उबी

तिची प्रेरणा, तिचो आशिर्वाद
आसा म्हणून
ह्या मळार आमी उस्ताद

तुमची दाद, तुमची साथ
आसा देखून
अज्ञानाचेर करतात मात

## ३५५. हत्यार

पयले चुकेक करचें माफ, दुसरे चुकेक मोनो मार
तिसरे चुकेक वापरचें कवीन, कवितेचें हत्यार

कांय चुको चुकून घडटात, कांय मुद्दम करतात
कांय स्वताच सुदरतात, कांय दुसऱ्यांक हारयतात

चुकांविणे चलचो संवसार म्हूण कवीचो प्रयत्न
असलो मनीस असलो कवी, धन्य तो धन्य

## ३५६. तंद्री

कविता अंतर्मुखी, सर्वव्यापी सर्वसुखी
मना ओघ, मनभर मोग
जाय तेन्ना वाग, मनिसकायेक जाग
वाचल्यार गूढ जाप, नातर मनस्ताप

कविता तंद्री, मनवाजंत्री
खोशी मोट्ठी, उमेद दोट्टी

कवितेची मयमा, वगीच कळपाना
जाय पडटा कविचींच चिंतनां

## ३५७. चित्त

कवी ह्या प्राण्याचो पांवडो सदांच वयलो
शेणिल्लें चित्त थाऱ्यार हाडपांत नंबर पयलो

चित्त शेणटा ताचें, जाचें उखलापें
चित्त सांडोवन वागप एकदम सोपें

कवीक लेगीत उणाक लेखपाक आसात उबे
तांकां वखद घालपी आमचे कवी खांपे

## ३५८. काव्यधार

कवितेक आसची, तीख तीख काव्यधार
तीच वापरून एकेकट्याक सारके सुधार

धार नासल्यार ती जाली भुरग्यांचें खेळणें
अर्थ नाशिल्लेंच जालें कवितेचें देणेघेणें

हांगा जें घडटा तें जगाखातीर
जें चलता तें जगाच्या मोगाखातीर

## ३५९. तीख घाय

थोडे खेळटात जुगार दुसऱ्याच्या खुस्तार
थोडे बेठेच उडटात तिसऱ्याच्या जिवार
असल्या मनशांक हाडपाक जाग्यार
एकूच बरो उपाय, कवितेचे तीख घाय

## ३६०. कवितेचो मार

दर तरेचे मनीस आसात दर एका मळार
मनशाक खावन जगपी मनीस अजून आसात जगार
कविता पचोवन जगपी कवीय आसात ह्या काळार
तरे तरेचे उपाय करून जाले आसत बेजार
तांकां फकत सुधारू शकता कवितेचो मार

## ३६१. तुजें जैत

किर्ते घडत सांगू नज ह्या जगांत तुज्या मोगांत
देखून मनशान सुखान जगचें, कवितेच्या गोपांत

कोणूच तुज्या म्हऱ्यांत आसना
आसता फकत कविता
कोणूच मनांत उलोवंक शकना
उलयता फकत कविता
कोणूच जग दाखोवंक शकना
दाखयता फकत कविता

कोणूच तुज्या उल्याक येना
लागी आसून पयस
शेजाऱ्यान धांव मारली तरी
वेळार पावना वैज
कविता तुज्या काळजांत आसप
हेंच तुजें जैत

## ३६२. पर्जळ

चलतां भोंवतां मेजूं येतात सगळीं धोंगां पोंगां
काळखांत बसून वाचूं येतात कवितेचीं पानां

सरभोंवतणी नासलो तरी
काळजांत आसल्यार उजवाड
तोच उजवाड दोळ्यांतल्यान
पर्जळायता रान

## ३६३. असत्याचो भास

जांकां नासता ध्येय, तांकां नासता इतिहास
धरुनूच जगतात जिवितभर असत्याची कास

तेंच धरून जगतात, तेंच धरून मरतात
सत्याच्या विश्वांत पर्यान असत्याचो भास

सोदूंक गेल्यार सत्य हें सत्य जालां दुर्मिळ
कारण जगांत सत्य हें सत्यूच सगळ्यांत निर्मळ

## ३६४. बीन कण्याचे

कांय प्राणी जल्मतात सकाळचे आनी मरतात सांजेचे
कारण ते आसतात बीन मानेचे आनी बीन कण्याचे

तेच नकळत आपूण आयले खंयच्यान
चलले खंयच्यान, वचचे खंयच्यान
जे वाटेर पडटा पावल चुकून
तीच धरतात वाट दोळे धांपून
कवितेंतल्यान मेळटा मार्गदर्शन
जिणेंत भरपाक सूख समाधान

## ३६५. पांय रोंबून

सात फावटी पडटलो, आठ फावटी उठटलो
तेन्नाच मातयेंत पांय रोंबून उबो रावंक शिकतलो

पडप दुखप होय तुजे जिणेचो भाग
उठलोना तर पडटलो जिविताचेर दाग

दागा विणे जीणे, अशक्य न्हय गजाल
कवितेंत बुडून राव आनी आख्खें जिवीत जाग

## ३६६. एकाच पांयार

पडपाक जाय धाडस तशें उठपाक जाय बळगें
एकाच पांयार रावतात उबे ते धवे बगळे

पडलो तरी मनशान मानची न्हय हार
धरते पांयार पडलो तर उगतें जैता दार

पडप उठप पडप उठप होच जैता साद
धरती मातेर पडप म्हळ्यार तिचो आशिर्वाद

## ३६७. आगटें

कांय मनशांचे दोळे कावळ्याचे, काळजां लोखणाचीं
देखून हातांत आसचीं आगटीं, कवितेच्या उज्याचीं

कोणाक ते भियेनात म्हणटात तें तुजें दवर
एक एक कविता निबर घेतली तांची खबर

दोळे आनी काळजां, जाणे तांकां दिल्यांत
ताणेच निमणे मागनासतना काडून व्हेल्यांत

## ३६८. कविता शिजतात

जांकां कितेंच पचना, तांकां वखदां पचतात
कितेंय पचता तांच्या तपल्यांत कविता शिजतात

कविता जिनसां कणकणी
कविता घांसा कणकणी
अशो कविता केल्यात कोणी
जाणे कितेंय पचयलां तांणी
वखद पचता ताणे वखद खावचें
वखद जिवीत दिता तितलें जगचें
वखदा वखदा कणकणी कवन करचें
ह्या जल्मांत आपणे अमर जावन वचचें

## ३६९. कविमित्र

मेनकेक दिसलें हांगा बसल्यात ते सगळे विश्वामित्र
कविता आयकून कळ्ळें तिका हे सगळे कविमित्र

मेनकेन हालयलें आख्खें ब्रह्म
कवीक गुठलावपाक
कवीन धवळ्ळें शब्दब्रह्म
मेनकेक थंडावपाक
कविमित्र दोळे उगडिना
ब्रह्म हालचें थारना

## ३७०. आत्मविश्वास

कवितेच्या उतरा उतरांत भरून वोतता आत्मविश्वास
तातूंत भरसता सूरताल आनी गाजता संगितगाज

बूड मारूंक ओड जाय
बुडून रावची खोड जाय
तकलेंत रिगूंक वाट जाय
अकलेंत रंगूंक वाव जाय
इतलें जरी आसलें तरी
काळजा तळाक भाव जाय

## ३७१. काव्यधुंदी

शरिराची आमच्या कोणेच पळोवची न्हय उंची
मळबापरस विशाल अशी आमची काव्यधुंदी

उंचींत अशें आसता कितें
घुंदींत अशें भरलां कितें
एकदा लागल्यार लागता पिशें
अशें अजाप जाता कशें
धुंदींत भरला आनंद
ताचे फुडलो परमानंद

## ३७२. फुडें

पेटट्या मड्यार भाकरी भाजपाक, जायते जाण फुडें
कवीच एकटो शिवूंक शकता, गिधाडान उगडलेलें मडें

दर एकलो भियेता येत म्हूण आपल्यार विघ्न
निर्भीड कवी भोंवन आयला आख्खें हें ब्रह्म

ब्रह्मांड भोंवडी मारल्या उपरांत कवी जाता निर्भीड
नातर ताका पोखरीत रावता उणाकपणाची कीड

## ३७३. कवितेचो जल्म

कवीचे लिखणेक लागना शाय, लागना रक्त
कवीचे तकलेंत भरल्या, ब्रह्मविजेची शक्त

कवितेचो जल्म जंय थंय
कळना कवीक खंय खंय
निखट्या दोळ्यांक दिसना
दुदांत तूप लोणी धंय

## ३७४. पांखटे

देवा म्हाका पांखटे दिले ते कसले ?
सुपुल्ले सुकण्याचे
म्हाका पांखटे जाय आसले
व्हडल्या मोठ्या गरुडाचे

तुवें दिल्ले पांखटे म्हाका जातात ल्हान
मळबा भायर पावंक जाय म्हजें काव्य गान

हांव जरी ल्हान हावेस म्हजो म्हान
म्हजे कवितेचें संवसार श्रोत्यांक दान

रचणाऱ्यान दिली म्हाका दोन पांयां जीण
बळ पांयांर तोलना कोणार काडूं शीण

## ३७५. अदृश्य पांखटे

उजो लागून सरभोंवतणी
पेटलें जरी आगटें
देवान आमकां उडूंक दिल्यात
दोन अदृश्य पांखटे

आमच्या पांखट्यांक उजो लागना
वेग घेतल्यार वेळ लागना
पयस पयस वयर वयर
उडपाचें सोडना

## ३७६. विचार

भिकेचो विचार घोळयल्यार जायत भिकारी
कवितेचो विचार घोळयल्यार जायत कवी

विचार मनशाक घडयता काय
मनशा प्रमाण विचार बदलता
असलो नेम लागना आमकां
पयली पडटात आमकां सपनां
मागीर विचार येतात मनां

विचार घट दसलो की जालो निश्चय
एकदा निश्चय केलो की तुजोच विजय

## ३७७. कविते वारो

कवीक कित्याक भियेवंक जाय? हिंसेक ना थारो
सुर्य जरी तापलो, श्रोत्यांक सुखायता कविते वारो

एकलो जावं दुकलो, कवीचे वाटेक कोण वतलो !
कवीचे वाटेक गेलो तो शांतिकायेक मुकलो

## ३७८. सुण्याच्यो कविता

सुणो भोंक भोंकलो आनी कवीक येवन चाबलो
तेन्ना सावन तो सुणो कविता गावंक लागलो

कविता ताच्यो जगावेगळ्यो
समजूंक जाय ताका समजल्यो
ताची भास तुजी भास
एक न्हय
तरी तुका म्हाका समजूंक
कठीन न्हय

रस्त्यावयल्या सुण्याक आयकय कविता
तो तकली हालयतलो
आपली कविता भोंकतलो
आनी म्हऱ्यांत येवन
तुजे पांय ल्हेंवतलो

भियेवन पळशी जाल्यार मात
तुज्या फाटल्यान धांवतलो
आनी आपली कविता
गायत रावतलो
तालसुरान

## ३७९. वीर

कविता म्हळ्यार केदो धीर !
काळखांत अचूक लागता तीर
कविता केल्यार शांत वीर,
नातर झरल्या सान्नीचो व्हीर

आपल्याच पांदऱ्यांत आसून कीर
सोदूंक भोंवतल्याची नदर अशीर
जाची बुद्दी सदांच थीर
तोच कवी खरो अमीर

## ३८०. चावी

कविते बगर कवी म्हळ्यार किरणां बगर रवी
सुरा बगर गीत आनी थाल्या बगर चावी

कविता म्हणून कवी काय
कवी म्हणून कविता
एका बगर दुसऱ्याची
कल्पनाच सोसना

जशीं मळबांत कुपां
आनी कुपांत रंग
कवींत कविता
आनी मन
रंगांत दंग

## ३८१. वारो

तुमी म्हणटात तुमच्या घरांत कवी आयल्यार पुरो
तो कित्याक येवंक जाय? ताचो वारोच लागल्यार पुरो

पावसाच्या दिसांनी उदक आनी वारो
कवीच्या कल्पनांक जळीमळी थारो

वचत थंय कवी कवन, जाय थंय घेवचें दर्शन
वसंतांत तर झाडांनी कवी, जसो एक काव्यसंत

## ३८२. सुनेच्यो कविता

मांयन विचारलें सुनेक ,
कितें हाडलां कुळारा सावन ?
सूनेन सांगलें, सुटकेस भरून कविता,
एक दाखयतां गावन

सुरू केलें गावंक तशी, मांय लागली धावंक
सून धांवली आडावंक, मांव सुनेक धाडावंक

वाटेर मेळ्ळो एक भिकारी, ताच्या हातांत कट्टी
कविता कट्टेंत उडयली तेन्ना, भिकाऱ्याक खोशी दोट्टी

दुसरे दिसा तोच भिकारी, उबो तिच्या दारांत
म्हणूक लागलो आनीक कविता, दी म्हज्या हातांत

सुनेन भिकाऱ्याक दिली कविता, खोशी जालो भिकारी
तीच कविता गायत गायत, मागूंक लागलो भीक

एकाच सुमानान भिकाऱ्यान म्हणलें, फाल्यां वतां शारांत रावंक
हांव आयलां तुज्यो कविता, विकत्यो घेवन गावंक

## ३८३. कवितांनी वार

माना खातीर, प्रतिष्ठे खातीर तुमी करात झुजां
कवितांनी वार करपाक आमकां बारा भुजां

कवितेचो वार तुमकां सांगल्यार कळचोना
व्हड व्हड धनवानां लागी मागल्यार मेळचोना

वार आमी तकलेर न्हय अकलेर करतले
इतले तुमी बदलतले, आनीक मागतले

## ३८४. अदृश्य शस्त्र

लाखां मदी रावून लेगीत आमी सदांच एकले
देखून हातांत शस्त्र आसून आमी हांगाच सुकले

आमचें  अदृश्य शस्त्र युगांक बदलेंना
दाखयलें जरी मोस्त्र थोड्यांक पटलेंना

पटलें जरी शास्त्र मनार घेतलेंना
पुश्टीक आसून अन्न पानार वाडलेंना

## ३८५. फारार फार

समाजांतल्या निष्प्राण मनशांत फुकले प्राण
मनिसपणा झूज कवी जिखले सोपेपणान

प्रसंगाक कोण आमकां काडी नासलो दार
आयज वाड्या वाड्यार जातात फारार फार

## ३८६. येरादारी

गाडयो, बसी, वाहनांची रस्त्यार चडूच येरादारी
गजबजलेल्या शारांत आयच्या, कविता फुटपायरी

फुटपायरेर थोडेच लोक, चडशे चलतात रस्त्यार
फुटपायरी आसून पिशे, जीव मुठींत धरतात

फुटपायऱ्यो रस्त्याकडेक सगळ्यांखातीर आसतात
हाली हाली गाडयो लेगीत फुटपायरेर चडटात

## ३८७. शाणेपण

जें कितें म्हणचें आसा तें कवितेंतल्यान म्हण
फुकट वचूंक दिवं नाका मनीसपणा शाणेपण

उलयल्लीं उतरां सगळीं गेलीं वाऱ्यार हुबून
युगां युगां उरलीं थेयल्लीं कवितेन गुंथून

कविता म्हळ्यार न्हय रे बाबा, उतराक तेंकून उतर
सगळीं उतरां एकवटान गिन्यान दितात जबर

## ३८८. जिवीत फुलय

काव्यान उलय, काव्यान बरय,
काव्यान संवसार चलय
पानदुडू लेगीत नासलो तरी
काव्यान जिवीत फुलय

कविता मनांत घोळयता ताचो
पांवडो सदांच ऊंच
कविता घेवन बस आनी
पंगतीक पान पूस

## ३८९. पातयेवं नाका

वारो येतलो आनी कोयर काडटलो
म्हूण रावू नाका
तुजे अकले बगर दुसऱ्या कोणाक
पातयेव नाका

तुजी तकली म्हळ्यार जगाक दिवपी वीज
तुजे विचार म्हळ्यार हेच मातयेचें नीज

तुजें एक कवीत पुरो दुस्मानांचीं मनां घुंवडावंक
तुजें एक गीत पुरो भारतमातेक प्रसन्न करूंक

## ३९०. जाग कर

कवितेंतल्यान मोग कर, कवितेंतल्यान राग धर
चुकलो कोणय, दुखलो तर, कवितेंतल्यान जाग कर

कवितेंतलो मोग आसता भौरंगी
कवितेंतलो राग रंगी बेरंगी
रंगामदी रंग, काव्यरंग
कवीचो संग, सदा प्रसन्न

## ३९१. वाट

केन्नाय आमची कविता, वयता तकले वयल्यान
तेन्ना तुमी वाट काडची दोन कडव्यां मदल्यान

काव्यां मदली वाट, तुमकां जाय तशी
ओली ओलीशी, सुकी सुकीशी
ओली जावं सुकी, वतली काव्यमळांत
चाल ताठ आसल्यार गांठठली तेंगशी

## ३९२. कवितेचो भक्त

कवितेचो भक्त हांव, कवीचोच संग जाय
तुमचेलागी जायना तर कवितेच्या गांवांत पाय

कविता आयकून कविता करून तृप्त जाता जीव
कविते विणे जिणेमृत कशें म्हणून पिवं

कवितेच्या संगांत मनीस शाणो जाता जरूर
तन मन ओंपलें तर काव्यदर्याक येता पूर

## ३९३. कवितेचो गांव

रचणाऱ्यान म्हाका सांगलें, थंय वचून राव
थंय वचून पळेल्यार तोच कवितेचो गांव

कविते गांवांत घराघरांत
कवितेचो सुगंध
दर एकाच्या तपल्यांत शिजता
कवितेचें अन्न
झाडाझाडार कचकचीत
लागतात काव्यफळां
जाग्याजाग्यार भरल्यांत फकत
कवितेचींच मळां

## ३९४. उसरां

सादर केल्ली कविता जर बेगीन समजना
समजता तेन्ना खोशेक शीम मेर उरना

इश्ट नाका कनिश्ट नाका, नाका वायट संग
ताका सदां जाय दिसता, कवींचो सत्संग

कवितेच्या ज्ञानांत सांपडटा आयचें नवें गिज्ञान
कवितेंतल्यान अज्ञान वचून मनीस जाता सज्ञान

## ३९५. बदलता रंग

वातावरण तंग
दंगलेंत लोक दंग
तेन्ना आमचे लोककवी
समाजमनाचो बदलता रंग

कवीची कविता वाचता जेन्ना जेन्ना
बदल्याची भावना मनांत येना
काव्यबोध घेवन लेगीत कांय जाणां
परतून मस्ती करपाक फाटी नात

असल्याच्या हातांत दिवचीं चार कवनां
बोल्सांत दवरचीं कवितेचीं चार पानां
कांय तेंपान झगडेकार सांगतलो
लोकांक अहिंसेचीं ज्ञानां
म्हणटलो आदी केल्ली मस्ती
तीं जालीं उश्णी वायणां

## ३९६. मैफील

जाय तसो यो रे मनशा, जाय तसो वच
वचचे आदी मात्सो तरी मैफलींत बस

मैफलींत तुका दिसतलो ब्रह्मांडाचो रंग
कवी आनी कवितेचो उर्बादिणो संग

मैफील म्हणचें वखद आमचें कवी श्रोत्यांचें
काव्य आंगाक घश्टलें तर निरोगी जावपाचें

## ३९७. कविता जप

अमर जावचें दिसता जाल्यार कविताच जप
वडा पोंदा बसून कर कवितेचो तप

येवचो वचचो मनशा तुजो सोपो जातलो प्रवास
वारें वादळ अडचणींचो जावचोना रे त्रास

कवितेचीच सेवा करपाक जल्म तुजो खास
कटकटी विणे जगपाक जिणे जावचो कवितेचो दास

## ३९८. भितर सोडचोना

तुवें कितलीं केलीं पातकां तो विचारचोना
कविता केल्ली नासत तर भितर सोडचोना

तिळा उगड...म्हणलें म्हूण दार उगडचेंना
कवीची सुलूस लागल्यार बंदूच जावचेंना

कविता सुरू करतांच नांव तुजें वता वयर
तेन्नाच तूं मेकळो जाता वयर करूंक सैर

## ३९९. रोग

ये कविते...
म्हाका तुजो खूब खूब जाय आसलो मोग
तुज्याच नांवाचो काळजाक जावचो दिसता रोग

वखद नाका कसाय म्हाका तसोच उरचो रोग
म्हाका आनी जगाक तुजो तोच खरो उपयोग

## ४००. वायट जावचें ना

तूं नासून बरो नासता हांगासरलो लोक
हांगा थंय भोंवून बेठेच घेतात वखदां सोद

सोद घेवन वखद घेवन कांयच फायदो ना
तूं आसल्यार मनशाचें वायट जावचें ना

कविते यो, कविते यो, दर एकाचे मानेर बस
तुजी इत्सा पुराय जातकच जाय थंय वच

# ४०१. काळजाचो हारसो

म्हज्या काळजाच्या हारशांत पळयत राव तुजें रूप
तेन्नाच हांव करूंक शकतलों, तुजेर कविता खूब

म्हज्या काळजांत कितें भरलां  म्हाकाच खबर ना
तुवें भितर धवळळे बगर भायर सरपाक ना

तूं भायलो संवसार सोडून थंयच भितर राव
कवींक आनी कवितांक सदांच अशेंच पाव

# ४०२. देवी

तुजेर कविता केल्यो म्हूण भलतेंच कितेंय समजुशी
तूं म्हळ्यार म्हाका एक काव्यदेवीच कशी

देवीक म्हजे निवेध म्हूण कविताच दाखोवपी
कविता करून करून दानपेटयेंत उडोवपी

# ४०३. थिगूर

कवीं मदें रावले बगर जिवीत कांयच कळना
काश्टी भिजयले बगर थिगूर हाताक लागना

रुचूच तुका ना तर काश्टी भिजोवन कितें फायदो
काश्टी सांबाळून थिगूर धरप हो तुजो कायदो

सुके काश्टेन थिगूर धरप तुका जमपाक ना
काश्टी सोडून देंवलो तर तूं वयर सरपाक ना

## ४०४. बुजगावणें

कवितेच्या कवनांचें जालें, भरल्या मळबांत जोगलावणें
दोळे घुंवडावन पळोवंक लागलें मिरसांगांतलें बुजगावणें

हात हालना पांय हालना तरी बुजगावणें आयकना
तुका नाका कविता म्हणल्यार मन थाऱ्यार उरना

कोगूळ येता कानांत ताच्या गीत गावन वता
कावळो येता तोंडांत ताच्या शीत घालून वता

बुजगावणें मात दोळे घुंवडावन कवीक सोदीत आसता
कवी आपल्यो कविता गायत दिस्त थंय पावता

कविता आयकून बुजगावण्याचे हातपांय हालतात
कवी मागीर तालार ताच्या नवें गीत रचता

## ४०५. बासणांत

कविता म्हजेलागी जायत म्हूण हांवें
चिंतूंक नासलें सपनांत
लोक म्हणटाले कविता करतासर तुजीं
हाडां किल्लतलीं मसणांत
एक दीस हांवें भोंवडी मारली
वयर उगत्या मळबांत
लोकांचीं तीं उतरां थंयच
उरलीं तांच्या बासणांत
चलतां भोंवतां कविता करतां
न्हिदेंत आनी सपनांत
कविताच कविता घोळटात म्हज्या
ध्यानांत आनी मनांत

## ४०६. फेविकॉल

मोगाचो तुट्टा दोर ताका कळनासून मोल
तेन्नाय वापरून पळोवचें कवितेचें फेविकॉल

कळटा ताका कळटा कवितेचें म्हत्व
कळ्ळें म्हणटकच पट्टा कवितेचें तत्व

कवितेन जुळयल्यात जायते तुटलेले दोर
मोगान पिडिल्लूयांक लावचो काव्यसोर

## ४०७. समजुचें पडटा

केन्नाय कावळो बसता तेन्नाच खांदी मोडटा
रस्त्यार म्हाका चडशें तूंच कित्याक दोडटा ?

कवितेच्या मोगान बाय केन्नाय अशें घडटा
तें तुवें हांवें समजुचें पडटा

## ४०८. कविते खातीर

मोग करात, नोकरी करात, संवसार लेगीत करात
कविते खातीर काळजा कोनशाक इल्लो जागो दवरात

मोगा विणे संवसार चलना, कविते विणे मोग फुलना
रगत आंगांत घोळूंक जाय तर काव्य रगतांत भरसूंक जाय

काव्य रगतांत भरसल्ले आयज जैता तेंगशेर पावल्यात
व्हडलें जैत लाबलें तरी आमचे मदें गायल्यात

## ४०९. लगीन

कवितें लागी जर तूं करशी शाण्या लगीन
फुडलीं तुजीं सगळीं कामां जातलीं बेगीन बेगीन

कविता म्हळ्यार परी एक तुजे भोंवतणी घुंवपाची
कविता एक विमान तुजें तुका घेवन उडपाचें

## ४१०. खाड

मान नातर मान नाका, काळीज म्हजें गावंक लागलां
ल्हवू ल्हवू कवी बशेन, खाड म्हजें जावंक लागलां

कवीच्या खाडांत भरल्यांत केंसा कणकणी कवनां
तुका म्हाका दिसनात तरी भितर भितर लिपल्यांत

काळीज गावंक लागता तेन्ना खाडाक गाल पावना
खाडार हात ओडशी तर कवनांक मळ पावना

## ४११. बोल्सांत

आनंद म्हणटात तो सायबा दुसरें कितें काय !
बोल्सांत एक कविता आसल्यार आनीक कितें जाय !

कविता म्हजो आनंद, कविता परमानंद
अमोल असो छंद, सर्गांत भोंवपाची संद

## ४१२. शाबू

कोण जाणा कवितेन म्हजेर कसलो केलो जादू
मनांतलो म्हेळ धुवपाचो तो एकदम बरो शाबू

मन तुजें धुवपाक तुवें
नितळ उदकांत बुडोवंक जाय
चोळच्या आदी शाबू घेवन
मनार बरो ओडूंक जाय
उदकांत बरें झंजळावन
घट्ट बरें पिळूंक जाय

मागीर पळय मन तुजें
कशें जाता नितळ
सगळ्यांचीं मनां तुका
दिसतलीं तुजे भितर

## ४१३. कवीमन

तुमचे लागी आसत जायतें कोटी कोटी धन
कवी लागी नितळ निवळ मळबा येदें मन

केदेंय व्हड कवीमन भरून उरलां सपन
पावला पावला खिणा खिणा कवन आनी कवन

कोण म्हणत असल्या कवीक गरीब आनी निर्धन
तोच खरो जनाचो भक्त ताचे जन

## ४१४. फोनार फोन

एकूच कविता म्हणली ताणे, आयले फोनार फोन
कुड्ड्यान मागलो एक दोळो, देवान दिले दोन

उमेदीक ताचे नासली शीम, आसलो फकत बांद
बांद हुपून बांद मोडून पयल्याड पावलें गान

## ४१५. ऊंच मळबांत

धरतेर आसून थोड्यांचे पांयूच उखलनात
कवी वरी ऊंच मळबांत उडूंक शकनात

मळबांत उडूंक शक्ती न्हय
उर्बा जाय उर्बा
पांखटे आसले तरी काव्याची
कृपा जाय कृपा

## ४१६. गंगाजळ

कविता करता म्हूण,
तूं म्हजेर जळ,
कविता आयकून तुजें मुखामळ
जातलें उजळ
अशेंच आसता हें मळ
कविता म्हळ्यार गंगाजळ

## ४१७. तिच्यो कविता

कविता करतां म्हूण बायल म्हाका घाली गाळी
आतां तिच्यो कविता आयकपाची म्हजेर पाळी

ती रांदता तितलेंय हांव खातां जेवतां रूचीन
हांव बरयतां तितलेंय ती पचयता चिंतून चिंतून

वाचली आनी गायली म्हूण कविता पचना
रेंवेंत रकयल्लें उदक तुका वयर दिसना

## ४१८. अजाप

चली आमच्या शेजारचें आसलें काळें किट्ट
कविता करून करुनूच जालें गोरें पिट्ट

न्हवऱ्यान ताका विचारलें, कशें जालें अजाप ?
–कोणेय कितेंय विचारल्यार कवितेन दितां जाप

फुडें ताणे विचारलें, तोंडाक कितें लायता ?
–कवितेचीं पानां हांव तोंडार दवरून न्हिदतां

तुजे सुंदर ओंठ कशे जाले तांबडे ?
–उतरां चाबून चाबून हांव गिळीत रावतां आंवडे

तशें जाल्यार व्हंकले म्हजे तूं जालें पास
तूं म्हजी बायल आनी हांव तुजो दास

मनांत निश्चय कर बरे आनी गिळीत राव आंवडे
दिसाक एक कविता कर आनी चड जैता पावंडे

## ४१९. कवीच्यो गजाली

कविता जाका नाका ताका कोण नासता वाली
कविताच येवन ल्हवूच ताका सांगता गजाली

देखून आमी म्हणटात केन्नाच कवी नासता एकटो
पयस खडपार बसलो तरी बसना वगीच बेश्टो

वारो ताचेलागी उलयता कानांत न्हय मनांत
दरया ताका हांसयता वयलेवयर न्हय पोटांत

## ४२०. कवीचेर घाय

तो म्हणटा कविता करून खंय कितें मेळटा ?
इल्लीं भुरगीं कविता करतात तेन्ना मात जळटा

मेळोवपा खातीर कविता करप, कवितेचेर अन्याय
तुवें अशें चिंतप म्हळ्यार, कवीचेर घाय

कवी हो मनीस धरतीचो, घेवन आयला संदेश सैमाचो
मनीस कुळयेक ताचो उलो, सगळ्यांनी पिवचो काव्यपेलो

## ४२१. कवी अमर

जीण जातली म्हातरी, हांवूय वतलों खंयतरी
दुभंगतली धरतरी, कविता तितली उरतली

जितले जाले कवी तितलेय जाले अमर
तुका जावचें दिसता तर तूंय तशेंच कर

कितलेय मारले उले म्हूण ती देंवचीना सकल
तुज्या आंगांत येवची तर तुज्यांत कर बदल

## ४२२. कवितेची गुळी

जाका कवितेंची आवड तो जीव न्हय शीव
आंगार दवर कविते गुळी, कोणाक नाका भिवं

कोणेय तुजेर आगळीक केल्यार मंत्र घडोवन मार
नातर बरिशी कविता ताच्या कानार घाल

कविता तुजी आयकून तो मनीस जातलो जार
सूद वचून तुज्याच पांयार बेसूद पडटलो थार

## ४२३. खजानो

कवितेचो बुडयलो खजानो तरी बुडपाना
कमयल्ली माया तुजी वयर तुका पावपाना

वयर वयर वयर  म्हळ्यार खंय वतलो रे तूं ?
धून आयकूंक आयली तरूच धन्य जातलो तूं

ब्रह्मांडाच्या संगिताची काव्यधून आयकतलो तूं
काव्याभ्यास केलो तरूच आयकूंक शकतलो तूं

## ४२४. दोन काळजां

हड्ड्यांत म्हज्या आसात दोन काळजां
एक तुजे खातीर, एक कविते खातीर

तुजें चलपाक व्हांवत उरूं तुज्यो यादी
म्हजें चलपाक घडत उरूं कवितेच्यो भेटी

## ४२५. सैमांगण

कितलीं म्हजीं घरां, एकांतूच हांव रावतां
ना वण्टी ना दारां, सैमा आंगणांत जेवतां

न्हावप धुवप न्हिदप म्हजें भायले भायर जाता
देखून हांव आयज मेरेन सुखान जियेतां

सूख म्हळ्यार कितें तें म्हाका समजलां
कवितेंतलो भायर सरून दूख अणभवलां

## ४२६. सैम-घर

कवी न्हाता दरया न्हाणयेंत
उदक तयार आसता
जेवता सैम-पोरसांत
जेवण तयार आसता
संवसार-बल्कावांत बसता
बसका तयार आसता
कवितांचो पुरुमेंत कोठये देंगणांत
जाय तेन्ना हाडटा
बरयत बसता सैम-आंगणांत
कवितांचो पावस रकता
न्हिदता कुपां-कुलच्यांवार
कुपां तयार आसात

# ४२७. कवितेचो गूट

सांगतां तुज्या कानांत एक भोव मोलाचो गूट
सैमांत मेळटात कविता फुकट, ताची मार लूट

कोणे कितल्यो व्हरप हाका ना नेम ना अटी
भरून व्हर केदीय गोणी नातर हातांतली पोती

इतलें भरून व्हरून तूं करतलो तरी कितें ?
विसरू नाका पोतयेंत तुजे काव्य आसा जितें

# ४२८. हकदार

नाकांत वास कवितेचो,
तकलेंत भास कवितेचो
चलपांत आनी बसपांत
थाट कवितेचो
जिणेक आनंद उर्बेचो
तोच जाता खरो
हकदार सर्गाचो

# ४२९. सैमा कांतार

तकलेर आसा सुर्या, दोळ्यांमुखार दर्या
उलो मारता तारया, ल्हारां ताल धरया,

वाऱ्यावांगडा धोलया, सैमा क़ांतार करया
सगळ्यांक खोशी दिवया, खुशालभरीत जावया

तुजेलागी जें आसा तें तुजें न्हय, सगळ्यांचें
सैमाचें हें धन सगळ्यांनी वांटून घेवपाचें

## ४३०. गांठ

तूं केन्नाय करता फाट, केन्नाय जाता सामकें दाट
ह्याच आपालिपाच्या खेळांत, कवितेकडेन पडटा गांठ

तुज्या रागांत दुखाच्यो कविता, मोगांत सुखाच्यो
तुजे यादींत आशेच्यो, तुज्या येवपांत चान्न्याच्यो

निसर्गाचे सगळे राग तुज्यांत
कवितेचे जायते भाव मोगांत

## ४३१. फुलाचें दुःख

त्या ओडलायण्या फुलत्या फुलान
दुकां गळयत
हात जोडून म्हाका म्हणलें,
उपकार कर, म्हाका हांगचें व्हर
देवाच्या पांयार ओंप,
अस्तुरेच्या माथ्यांत खोय
नातर न्हंयेंत व्हरून सोड
पूण हांगा दवरू नाका

म्हाका त्या फुलाची काकूत दिसली
आगो म्हणलें, तूं वाडयता सोबाय ह्या घराची
तीय एक सेवा तुज्या घरमालकाची.
तें म्हणटा, आपलो जल्म फकत
सोबाय वाडोवपाक न्हय
देवान म्हाका रचलां
मनशाक आपल्यो भावना
व्यक्त करूंक मेळच्यो म्हूण

म्हज्या रुपान.
पूण हो घरकार
कोणाक काडूंक दिना म्हाका झाडावयलें
बावून पडसर दवरता आमकां हांगाच
निमणें सोंपता आमचें जिवीत बावून झडून
एकरूप जाता मातयेंत
तेन्ना मात्शें बरें दिसता जिवाक
कारण झाड म्हजें
रुजून आयलां हेच मातयेंत.

जण एकल्याक
आपले आवयक मेळटकच जाताच खोस
पूण भोगता दूख,
म्हजे जिणेचो उद्देश हांगाय
जाता असफलूच

त्या फुलाचें सूख आनी दूख आयकून
म्हाका कविता येवजता
त्या फुलाचो आनी एक उद्देश
हांव सफल करतां

## ४३२. एकेकदा

एकेकदा कवितेक म्हजे कितें जाता कळना
हांव तिका हटकितां, तीच म्हाका वळखना

रागार जाता फुगार, हेड्डूंक भोंवता जगार
चोंयवशीन येतात उले हांव जातां बेजार

म्हऱ्यांत आसता तेन्ना तिची करूंक जाय अपुरबाय
नातर म्हणटा आपल्याक हाडल्या तशी व्हरून पाय

## ४३३. फांतोडे वेळार

हजार राती माथ्यार काळोख पडटा घरार
न्हीद भरता दोळ्यांत तेन्ना कविता मारता दारार

काळोख म्हणटा हांव येतां उजवाडाक खावंक
तेन्ना म्हाका कविता म्हणटा, हांव येतां धांवन

फांतोडेच्या वेळार कविता म्हज्या हुमऱ्यार
साद घालीत येता बसून वाऱ्या ल्हारार

हांव तिका वळखूंक विसरतां,
हांव तिका हटकूंक विसरतां
हांव तिचो जावंक विसरतां
हांव तिका गावंक विसरतां

## ४३४. धरतेच्या पोटांत

दुस्मान लोकांनी
आमच्यो असंख्य कविता
जमनीपोंदा गाढल्यो.
तांकां दिसलें आतां त्यो
घरतीच्या पोटांत गडप जाल्यो.

खूब तेंपान
मेकळ्या काळांत
सगळ्यो आपशीच
रुजून वयर आयल्यो
आमी त्यो शिंपल्यो, वाडयल्यो.

म्हजी धरती
एका भाता गोट्याक
शंबर गोटे दिता
झोपांनी कविता उगवल्यो...

आयज जमीनभर
कवितांचीं कणसां कचकचीत भरल्यांत
त्या कणसांनीच आमी वाडल्यात
आमच्या रगतांत कविता जगल्यात
हाली हाली साहित्याची सुरवात
कवितेन जावंक लागल्या

## ४३५. जाय तशो लुटात

उठात कवींनो उठात, सैमकविता खुंटात
जाय तशो लुटात कवीनो जाय तशो लुटात

कविता म्हजी, कविता तुजी
मातयेंत जल्मल्या
झाडार फुलून आयल्या
सुगंध वासार वळखात
जाय तशो लुटात

वाऱ्यान जगार फांकयल्या
कवितांची खबर
झडून पडटात सकल
धरतेर जमीनभर
तुमी फकत सोदून काडात
जाय तशो लुटात

## ४३६. धर म्हणटा

आपणाक म्हणटा धर, तकली म्हजी खणटा
दीसभर शिणटा, दुर्लक्ष केल्यार शेणटा

आसा थंय बसला थंय, म्हाका कवी करता
अशी म्हजी कविता, दुदांत साकर खिरयता

## ४३७. कर्मा चाळी

सगळ्यांचे गुणदोश आमी धवळी, वायट बरीं कर्मा चाळी
देखून तसले आसात तेच आमकां फाटल्यान घालतात गाळी

तांणीं गाळी घाल्यो म्हूण कविता जायना रागार
अशे आमकां गाळी घालपी जायते आसात जगार

घाल्यो गाळी सोडले श्राप म्हूण मेळना जाप
कवीक कोणेय गाळी घालप, सगळ्यांत व्हडलें पाप

## ४३८. साद

दिसाची जाता रात, काळखांत पालवता वात
तेन्नाच म्हजे कवितेक चान्नें घालता साद

चान्न्यांत कितल्यो कविता भरल्यात म्हणून सांगूं !
आनीक कितल्यो म्हूण हांव ताचेकडेन मागूं !

आनीक कविता मागपाचो अधिकार म्हाका ना
कारण तिच्या खातीर हांवें खास कांयच केलेंना

## ४३९. अप्रुपां

असलीं अप्रुपां पळयलीं आमी, एक न्हय खूब
जगांत खंयच दिसलेंना कविते परस सुंदर रूप

एक रूप भायलें, एक भितरलें
एक दृश्य, एक अदृश्य
एक समजपाचें, एक समजावपाचें
एक अस्पश्ट, एक स्पश्ट

हीं सगळीं रुपां खिणाखिणा कवीक भुलयतात
गोड गोड उलयतात, खबरी सांगून फुलयतात,

## ४४०. धरतेवयलो सर्ग

गांव म्हजो देवा म्हज्या धरतेवयलो सर्ग
तूंच येवन राव हांगा, सांबाळ तुजो निसर्ग

निसर्गातल्यो कविता आयज
ल्हासून जातात गोबोर
काडून न्हय मोडून सगळ्यो
जावच्यो आसात काबार
आतांच मनशा कविराजा
वेंचचें घे मनार
सासणा खातीर दवर
पृथ्वीचो तोल सांवर

## ४४१. व्हरू नाका बेगीन

देवा तुका विनयतां, म्हाका व्हरू नाका बेगीन
कविता बरोवन सोंपल्यो म्हणटच हांवूच येन उमेदीन

तुवें भरून थेयलां जें जळीमळी धन
हातासलें कितलेंय तरी भरना हें मन

दोळे म्हजे इतले ल्हान सगळेंच नदरेंत भरना
तो आनंद भोगूंक म्हाका एक जल्म पावना

## ४४२. सांग यमाक

देवा तुज्या सांग यमाक, जाय तेन्ना म्हाका व्हरुंदी
व्हरच्या आदी मात म्हज्यो कविता बरोवन सोपुंदी

बेगीन तुका जाय तर हांव, बरयतां बेगीन बेगीन
त्या खातीर धाडून दी आरोग्य प्रतिभा आनी शांती

रातचो हांवें न्हिदचो म्हूण, तुवें केली काळखी रात
नातर म्हज्या हातसून जावचो नासलो असलो घात

## ४४३. सात जल्म

असंख्य लिपयल्यात कविता, अल्प दिल्या पिराय
सगळ्यो सोदून काडपाक म्हाका, सात जल्म जाय

सात जल्म पावत अशें म्हाका दिसना
मनशा सभावांतल्यो जायते फावटी कळना

मनशाचो सभाव तूं असो कित्याक घडयता ?
कविता बरोवन जावचे आदीच रंग बदलता

## ४४४. उगत्या मनांत

कविता तुमच्यो सादर करात खंयच्या तरी संमेलनांत
कोणेच लागी केलोना तर वाचात उगत्या आंगणांत

आंगण कवीचें सजयल्लें आसा
तुमच्याच उगत्या मनांत
लाब घेवन भर घालात
तुमच्या काव्य ज्ञानांत

चलत्या भोंवत्याक आपोवन हाडात
दियात काव्य-मेजवानी
भुकेल्ल्याक तें जेवण आनी
तानेल्ल्याक च्या-पाणी

## ४४५. कवितेचो उजो

तूं म्हऱ्यांत आसता तेन्ना जीव धादोसता म्हजो
अकस्मात काळजाक पेट्टा असो कवितेचो उजो

त्याच उज्यांत ल्हासता म्हजें भरिल्लें काळीज
उज्यांत लेगीत रुजून येतात काव्यबियां नीज

## ४४६. वाटेखर्चाक

पानदुडू नासल्यार बोल्सांत अपमानीत करतले चांटेपावलाक
म्हणून म्हणटां एकतरी कविता आसुंदी तोंडार वाटेखर्चाक

वाटेखर्चाक कवीक आमच्या दुडवां गरज ना
कविता तोंडार आसल्यार कसलोच खर्च ना

## ४४७. रेंदेर जुळयता

माडार चडटां चडटां रेंदेर कांतार घडयता
कांतार गायतां गायतां रेंदराक मळब धोलयता

झाडालागी कुपांलागी रेंदेर उलयता
उलयताना तींच ताका कुंपास शिकयता

झाडा पानां, माडा चुडटां कानांत सांगतात गूट
गांवांत येवन रेंदेर जुळयता पडल्या तितलीय फूट

## ४४८. अस्तंत्या सुर्याक

उदेंत्या सुर्याक तुमी फकत नमस्कार करतात
अस्तंत्या सुर्याक आमी लोटांगण घालतात

सूर्य म्हळ्यार आमचें श्रध्दास्थान
उदेंतो जावं अस्तंतो
चंद्र आमचें प्रेरणास्थान
साश्टांग नमस्कार आनी नमन

## ४४९. तांतीं काय कोंबी ?

तांतीं घालपाक जाय पडटा, एक कोंबी
कविता पयली काय उर्बा तुमची? हुस्को नाका
कोंबये बगर तांतीं ना तांतया बगर कोंबी ना
कोण पयली कोण दुसरी कित्याक जाय तुका ?

कविते वासान भरता खऱ्या कवीचें पोट
उर्बा आसा ताकाच कळटा ताचें मोल

आतां म्हाका सांगात
कविता पयली काय उर्बा कविची ?
उर्बे बगर कविता जल्मतली कशी ?
कविते बगर उर्बा येतली कशी ?

## ४५०. आमचेर कुरपा

कोण कविता गायता कोण वाचता
थोड्यांक कविता तुमकां लागून सुचता

वाचता ताका वाचुंदी, गायता ताका गावंदी
कवितेचो भावार्थ मात, आमचे तकलेंत रिगुंदी

आमकां पळोवन सुचता तर, आमी तुमची उर्बा
आमकां लागून जाता कविता, ती आमचेर कुरपा

## ४५१. गोड कोडू

केन्नाय कविता रचची लागना
रूप रंग वांगडाच येता घेवन
तिका कोणे न्हेसोवची लागना
सोळा शिरंगार येता करून

मूळ शिरंगारान कवीची लुडबूड
केन्ना कोडू केन्ना गोड गोड
आवडना तर पूस आनी कृत्रिमच घड
कोडू काय गोड तें श्रोत्यांचेर सोड

# ४५२. आमचें मन

तुमकांच लागून जाता आमची काव्यरचना
तुमचे बगर आमचें मन कोणाक समजना

जायत्या जाणांक कविता म्हळ्यार दनपारचें जेवण
संगितान मढयल्लें गीत म्हळ्यार पुश्टीक पिवण

# ४५३. सुकडो

व्हीर व्हीर घट्ट बांदून तयार जाता मुगडो
कविता जो आयकना तो बारीक जाता सुकडो

सान्न हातांत घेवन ताणे कोयरूच काडपाचो
आपलेंच घर नितळ करून फकत जगपाचो

# ४५४. दाद

कविता आयकून तुमी आमकां दिवची बरी दाद
दाद दिल्यार काव्यरीण करतां सगळें बाद

कविता करनात कविता आयकनात, ते आमच्या रिणांत
नव्यो कविता सुचू शकतात दाद दिल्यार एका खिणांत

दाद दिलीना तरी श्रोत्यांनी ताळयांचें दिवचें दान
ताळयो लेगीत दिनात ते करतात कवीचें लुकसान

# ४५५. जातात जड

काड म्हाका म्हूण देंवता सकयल केळीचो घड
चड कविता रचल्यो म्हणटकच आमकांय जातात जड

कोणे काडलोना तर केळीं थंयच कुसतलीं
तुमच्या तोंडांत पडलीं तर सार्थकी पावतलीं

## ४५६. उडन दिसतलें

भितर येवन बसपाक थोड्यांचे पांय जातात जड
कवितेच्या पावसाची तांचेरूय पडूं वावझड

वावझडीन भिजतले तेन्ना तांकां कळटलें
थंड रगत सळसळटलें, वयर उडन दिसतलें

एक एक संकट पांय मोडून कुट्टलें
जंजाळ-नातें तुट्टलें, सगळे प्रस्न सुट्टले

## ४५७. नासता मोड

कविता रचपाक थोड्यांची तकली नासता धड
आमच्यो थोड्यो दिवं येताल्यो पूण बोल्सांत नासता मोड
थोड्यांक आपूण व्हडलो कवी जायन दिसता
कितल्योय कविता रचपी पूण वेळ नासता

सुखांत आनी दुखांत लेगीत कविता तयार आसतात
सुखदूख विसरून कवीक सोदून काडच्यो पडटात

## ४५८. झाडपिको

आंब्याआंब्यांत फरक, पिकलोना तर आंबट
झाडापोंदा बसल्यार गोड झाडपिको फुकट

आंब्यापोंदा बसपाक वेळ आसा कोणाक ?
उजो मात घालपाक वेळ आसा रानांक

एक रान मारल्यार म्हणटात लुकसान जायना सैमाचें
एक मनीस मेलो म्हूण कांय वचना कोणाचें

## ४५९. आपूण आपणाक

कवी आमचो तोंड दिना
ल्हान ल्हान झगड्यांक
कविता जावंक जाय जाल्यार
आपूण आपणाक देव समेस्तांक

चड उलोवंक रावलो तर झगडत झरतलो
नव्यो नव्यो कविता घडच्यो थंयच उरतल्यो

## ४६०. कांटे

कवी म्हणटा झाडावयलीं फुलां झाडार सोबपाचीं
काडूंक गेल्यार कांटे लागपाची तयारी दवरची

बीनकवींक कांटे नाकात फुलांच आवडटात
फुलापोंदा कांटे आसतात हें विसरतात

विसरलो म्हूण कांटे ताका तोपचे सोडनात
कांटे तोपतात म्हूण थोडे फुलांच काडनात

## ४६१. गोड जिवीत

हें करतलों तें करतलों, एकूय करना धड
कविता केल्यो ताचें आयज जिवीत जालें गोड

साकर घालून केल्यार, कितेंय जाता गोड
थोड्यांक खाणा परस साकरेची चड ओड

फकत साकर खाल्यार जायत गोड रोग
रोग जालो तरी तांचो साकरेरूच मोग

## ४६२. कविता वाच

कोणाक नाक़ा कोडू जिवीत जाल्लें गोड ?
दर एकल्याची आयज सायबा सुखा वटेन ओड

सूख म्हळ्यार कितें तें पयली समजूंक जाय
ते खातीर जण एकल्यान कविता वाचूंक जाय

## ४६३. भागता भूक

झाडां फुलां दिसनात थोड्यांक, दिसता सुकें मळ
कवीक मात आसता सदांच निसर्गाचें बळ

निसर्गात वाडटा मनशा तुजे जिणे सूख
निसर्गाच्या काव्यान भागता सासणा भूक

## ४६४. हारतुरे

कवी म्हणटात नाका तुरे, नाका गळ्यांत माळ
अशे रावतात घाळ देखून तांची शिजना दाळ

दियात शिजोवन दाळ नातर झरोवन दियात पाळ
तो म्हणटा भलायकी सुदरता तोच आपलो सुकाळ

## ४६५. कृत्रीम

आयच्या जगांत कपडे म्हारग, शाबू पोव चेर म्हारग
सदांकाळ सुगंध दिवपी कविता मात सामक्यो फुकट

कृत्रीम चेर आनी निसर्गीक, कितलो फरक जाणा ?
लग्न सुवाळ्याक कृत्रीमच जातात सगळीं जाणां

पोव आनी चेर थंयच झडटा नाचून हांसून किटकिटून
सुंदरताये मूळ सांगता आड्डून आपणाक पळय म्हूण

## ४६६. आमची कामना

आमकां नाका पुलितीक,
नाका कसली वेंचणूक
आमचे कडसून जावंदी देवा,
उत्कृष्ट काव्य रचणूक

भावना आनी आत्मप्रेरणा
हांची करची स्थापना
हीच आमची कामना
प्रतिष्ठितांचीं सपनां

## ४६७. घुंगरां

रडटा म्हूण धूव कवीन तिका व्हेली संमेलनाक
आदीच बाय नाचरें तांतूंत घुंगरां बांदलीं पांयांक

नाचऱ्याक मेळ्ळी माची कवीक मेळ्ळो मान
नाचतां नाचतां धुवेक ताचे माची पडली ल्हान

नाच आपलो घेवन धूव संवसारभर नाचली
वांगडा कवीची कविताय जगभर पावली

## ४६८. सूर ताळो

कवितेचें जाता गीत ताल ठेको जुळ्ळो तर
दरया पार पावूं येता सूर ताळो जमलो तर

बरी वस्त केन्नाच उरना घरा भितर धांपून
कोंबो लेगीत पांटले पोंदचो आवाज दवरना चिड्डून

तो जाणा आपूण हांगा घरांत पडला घाणा
मेळटा देखून खाणां, विरुध्द आवाज काडना

## ४६९. चटक

सुयेर आसूं नातर सुतक, नुस्त्या वासान जिबेक उदक
समजना तरी आयकुनूच, कवितेची लागता चटक

कवितेची चटक जाता ताचे जिणे घटक
आयल्या दिसा कविताच ताच्या दारार करता टकटक

## ४७०. कवितेचो घोस्त

तळिल्ले बांगडे आनी विस्वणाचीं पोस्तां
जाका खायन दिसता
ताणे पयली जीब लावन पळोवची
कवितेच्या घोस्ता

कवितेचो घोस्त मनशाक
करता चडूच सुस्त
मन ताचें जाग्यार हाडपाक
श्रोतेच बरे मेस्त

## ४७१. खतखतें

जेवण जेव शिवराक नातर बरें नुसत्याचें
कवितेचें खतखतें सगळ्यांच्या घोस्ताचें

रूच ताकाच कळटा जाची जीब बरी आसता
वक्ल लायलें म्हणटकच सगळें स्पश्ट दिसता

कविता सोदपाक गरज लागना दोळ्यांची
ही सगळी किमया अकलेची आनी तकलेची

## ४७२. कवितेचो वास

वचत थंय घाण आनी कुसलेलो कोयर
कवितेचो वास घेता तो वयर करता सैर

कसलोय आसूं वास, कवीक जायना त्रास
घाणीचेर तशी वासाचेर ताची कविता तयार

## ४७३. पानापानांत

हांव आसा शारांत आनी तूं आसा रानांत
देखून मिस्ता कविता घुस्पता पानापानांत

तुजेच लगाडीन कविता म्हजी लिपून बसल्या पानांत
कवनां म्हजीं गायत रावतात येतल्या वतल्या कानांत

## ४७४. काव्यशक्ती

आसूं सैमाकडें दोस्ती नातर निसर्गाची भक्ती
काव्य रचपाक आसची पडटा काव्यशक्ती

काव्यशक्तीच काडूंक शकता प्रतिभेवयलें कांबरूण
जगा दोळे दिपकावं शकता कांबरुणा पोंदचे गूण

## ४७५. थोड्यांक अवघड

आसून उपकारना आवड, मेळून उपकारना सवड
बरी कविता तकलेंत येवप थोड्यांक चड अवघड

अवघड वाट सोपी करपाक एकूच कर उपाय
अहंकार काडून कडेक दवर, काव्यदेवी धर पांय

## ४७६. टॉनीक

कविता स्फुरचें टॉनीक मेळना खंयचेच फार्मासींत
हें गिन्यान भरिल्लें आसा निसर्गाचे आलमारींत

चावी दारां कवडां नासून आलमार सदांच उक्ती
तरी कांय कवीच्या निर्मणेक येता सदांच सुकती

सुकतेक ताचे येता भरती कोणाच्या तरी गाळयांनी
काव्यशक्तीक येता चेव श्रोत्यांच्या ताळयांनी

## ४७७. हिणयां थिणयां

कविता सोदूंक भोंवतात थोडे हिणयां थिणयां
कवितेचें टिम्ब आसता रेंवेच्या कणा कणा

रेंवेर थोडे बसतात तेन्ना रेंवेक म्हणटात गादी
रेंवे कणांत न्हिदतात पुणून मळबांत सोदतात चांदी

## ४७८. शेणिल्लो अर्थ

आपलेच कवितेचो अर्थ थोड्यांक सांगूंक कळना
तेन्नाचे धुंदींत कितें बरयल्लें ताकाच उगडास ना

अशा वेळार शेणिल्लो अर्थ सोदून काडचो पडटा
ह्या बोटावेलो निथू त्या बोटार दाखोवचो पडटा

## ४७९. च्याव

च्यावपालो घालून तूं कशी करता च्याव ?
उतरांत घाल भाव आनी फुलां येसर राव

थोडे च्याव करूंक नकळ, पियेवंक मात जाणात
थोडे च्याव बरी करतात पूण आपूण पियेनात

दुसऱ्यांक च्याव दिवपांत एक खाशेली मेळटा खोस
ताच्यान चड मेळटा समजतकच कवितेचो आपरोस

## ४८०. जुळना

कोणाय लागी कविता जायना अशें कोण म्हणना
उतराक उतर जुळना तेन्नाय कवितेकडें गणना

कवी बरो आसल्यार कविता बरी
आपशीच तकलेंत येता तीच खरी

बरी आसली तरी तिका उगडी व्हरची न्हय
आंगार कपडे घाले बगर उबी करची न्हय

उतर जुळना तरी अर्थाक भावार्थ जुळोवचो
दुदांत साकर घालून घोंटार घोंट पियेवचो

## ४८१. घेवन येतलों

कांयच व्हरूंक मेळना हांगचें देवा हांव जाणा
कविताच घेवन येतलों थंय नाका म्हणू नाका

कविते बगर थंय तुमचो वेळ वचचोना
अप्सरांच्या नाचांत थंयच्या रंग भरचोना

रंग भरपाक म्हजेलागी आसात कविता रंगीत
तुमचें थंयचें सर्गातलें मात्शें वेगळें संगीत

## ४८२. तुज्या दरबारांत

देवा तुज्या दरबारांत हांव म्हजी कविता गायतलों
कविता आयकून तूं आपणाक सकयल व्हर म्हणटलो

चलतां भोंवतां गोंयकार गायतात कांतारां धुनो
पेटी तबलें घुमटां सांगाता वाजोवन पियानो

पेटी तबलें पियानो मेळून वेगळोच जाता सूर
राग तिडक पातळ जावन मोव पडटा क्रूर

## ४८३. सुमेळ

कोण म्हणटा कविता म्हळ्यार उतरांचो खेळ ?
भावनां आनी उमाळ्यांचो तो भोव सुंदर सुमेळ

उमाळी कविता सादर करूंक गरज लागना उतरांची
कवीक पळोवन श्रोते आयकतात भास काळजाची

उतरां म्हळ्यार निमीत एक तुमकां हटकुपाचें
ताचे उमाळे मोनेपणान काळजाकानान आयकुपाचे

## ४८४. शांत वेळ

कविता करपाक जाय पडटा थंड शांत वेळ
चलता भोंवता कविता करता तो नशिबाचो खेळ

दीसभर बुडून आसता जो कवितेचे धुंदींत
कविताच उलयता असल्या कवीचे मतींत

जाचेलागी कविता उलयता तो खरोच नशिबवान
जाचे तकलेंत फकत कविता ताका म्हणचो धनवान

## ४८५. समाधान

कविता तयार जातकच जें मेळटा समाधान
ताका कसलीच तुळा जायना तुज्या जिवनांत

समाधानाक रंग कवितेचे, कवितेक रंग समाधानाचे
कवी जातात वांगडी, दिसना त्या आसमंताचे

आसमंता भितर आसमंत, भितर आनीक आसमंत
थंयच्या कणाकणाक तुजी वळख, तूं संत महंत

हातांत येता काव्यढाल, विसरूंक जाता भूतकाल
मनीस जाता विशाल, पंगऱ्याची पंगऱ्याक साल

## ४८६. शाल

कवीच्या खांदार घाल भरजरी शाल
पळय कशी चडटा काव्याक धार

कवीचे शालींत भरतात काव्याच्यो लहरी
कवीच्या उतरांक फुटटात काव्य-झरी

खात्री करून घेतलो तर तुज्याच आंगार घाल
आनी पळय कसो भरता आंगांत काव्यताल

## ४८७. चादर

भुरगें सोडना आवयचो पदर
कवी सोडना शुन्यांतली नदर
दोळे धांपले तरी आंगार
झगझगती चान्न्यांची चादर

चान्न्या चादरी मोल कळना
तुज्या म्हज्या सारक्यांक
कळ्ळां तांकां सांगूंक कळना
आपल्या मनांतलें दुसऱ्यांक

# ४८८. कवीमन

फुलाफुलांत पानापानांत रानावनांत कणाकणांत
अवकाशांत ब्रह्मांडांत कवीमन काव्यांगणांत

कवीमन काव्यतन काव्यमन काव्यधन
काव्यउगम काव्यसंगम काव्यमंथन काव्यजतन

# ४८९. वेसन

चणे खावचे भिकणां खावचीं,
लाडू खावचे बेसन
सोऱ्या कोप घेवच्या बदला
कवितेचें वेसन

ना घाण, ना वास
खिणा खिणा सुगंधी सुवास
ना पाश, ना त्रास
स्वतंत्र ध्यास काव्य विस्वास

# ४९०. गुरू

उरूं उरूं उरूं, फाटी उरतात ते उरूं
सैमाक मान गुरू आनी कर कविता सुरू

येदो व्हडलो गुरू तुका लाबला आसतना
नेणार जावन बसला कित्याक तो आपयतना ?

फाटी उरल्यात तांची करू नाका काकूत
तांचेर जावंदी तुज्या कवितांची जादू

## ४९१. तालगडी

समदिरांत बुडी, ब्रह्मांडांत उडी
तेन्नाच बसता कवितेची घडी
चिंतनां नाचतात तालगडी
घेवन कवित्वाची घुडी

मनीस हांगा मनीस उरना
जाता काव्यरंग
स्वता न्हिदलो उठलो तरी
मन धुंदींत दंग

## ४९२. घुमचे कटर

घुमचे कटर घूम, धोलार पडटा बडी
गीत गायलेंना तरी तालार नाचता सवंगडी

कोणे कशें नाचपाचें कोण थारायना
जाय तशें नाचपाचें कोण आडायना

काव्याची धुंदी अशीच नाचयता
दुसऱ्यांच्यो चुको अशोच पचयता

## ४९३. व्हडलें बाय

ताचें व्हडलें बाय, सभावान सामकें गाय
पायक म्हणटा पाय, म्हाका कविता करूंक जाय

करूंक जाय म्हणलें म्हूण कविता जायना
झाडाक उदक घाल्या बगर वाड जायना

पायन म्हणलें, बाय तुवें संमेलनाक वचूंक जाय
बायन म्हणलें, तूंच म्हाका हाताक धरून पाय

## ४९४. उजू दिशा

चारूय वटयां संकश्टां येवन करतात दुर्दशा
तेन्ना म्हजी कविता दाखयता उजू दिशा

बुडून आशिल्ल्या मनशाक खंय लागनात संकश्टां
ताच्या भोंवतणी आसतात खंय कवितेचीं आवरणां

काव्य आवरणां कवीक एकटो सोडीना
आवरणां बगर काव्यगितांत गोडी ना

कवी म्हणटा, जल्माक येतनाच मनीस हाडटा संकश्टां
वाट काडून सूख मेळोवची रीत कवितेंत मेळटा

## ४९५. सुंदर सृश्ट

आसत निर्मळ दृश्टी, सुंदर दिसता सृश्टी
सदांच कश्टी कश्टी ते जीण व्हगडायतात बेश्टी

जीण तुका लाबल्या ती अशी व्हगडावंक न्हय
नदर पयली सुधार आनी संवसाराक पळय

आळस करून, न्हिदो काडून दीस वतात व्हळून
इतलो तेंप कमायलें तें अशेंच वता गळून

## ४९६. काव्यप्रसाद

नमन, वंदन, प्रार्थना, आरती
प्रसन्न करची रीत
भक्तान घाल्लो साद,
कवींचोच काव्यप्रसाद

प्रसादाक अमृत मानून
करचो कवीन गृहण
कविते अभ्यास करतना
करचें श्रोत्यान स्मरण

# ४९७. सदांच वसंत

कवी विशीं तुमच्या मनांत आसत एकूच खंत
तुमी संवसार ऋतूंत दंग, कवीचो सदांच वसंत

खंत म्हळ्यार खंत न्हय, ती जाता नसाय
कवीक लाबिल्लो वसंत काव्यदेवीची सासाय

काव्यदेवीची मेळूंक सासाय, करची काव्य साधना
थोड्यांक ती जमना देखून तांचें कांयच सादना

# ४९८. वगत

थोड्यांक बाबड्यांक कविता करपाक वगत मेळना
एक फावट करूंक बसल्यार वगत कळना

वगत कसो वतलो हाचोच हुसको थोड्यांचे तकलेर
कवितेक गेल्ले श्रोते थंयच दसून उरतात बसकेक

वगत जांचो वचना ते बेठेच करतात येणेतेणे
भोंवडेक म्हूण वतात आनी खबरांक करतात पेणे

# ४९९. थोड्यांक समजना

शंबर फावटी सांगलें तरी थोड्यांक समजना
कवितेंतल्यान सांगलें तर केन्नाच विसरना

ताची भास वेगळी भास, कोणाक परकी न्हय
रसीक केन्नाच म्हणचोना तुजी भास सारकी न्हय

श्रोत्यांचे तकलेंत भरता कवी संवसारांतलीं शाणेपणा
अणभवाच्या गिन्यानान भरून काडटा उणेपणा

## ५००. हुमकळटा

कवितेचो दिव्य सुगंध वयर हवेंत परमळटा
ताका धरून रसीक बाबडो मळबभर हुमकळटा

घेवंक कळना सुगंध तो घरांत बसून चाळवता
हुमकळटा तोच झळकता फुडें फुडें सरकता

जाका जायन दिसता नखेत्र, पर्जळन दिसता हेरांवरी
ताणे धरचो कवी हात आनी गावचीं गितां ताचेपरी

## ५०१. पत्रां

कविता म्हळ्यार
मनाकाळजाक बरयल्लीं पत्रां
पुसल्यार वचना तसलीं
मनभुलायणीं उतरां
गिन्यान-रंगान पिंतारिल्लीं
अज्रंवर चित्रां
आयकून वाचून रसिकाचीं
तरतरतात गात्रां

## ५०२. चिरंजिवी

म्हाकाच आतां याद जायना कितली म्हजी पिराय
अमर चिरंजिवी हांव, वळखात म्हजी खराय

खरायेक म्हजे सुमार ना
कार्या वेगाक तुळा ना

मनशाक जेन्ना अक्कल आयली
शेवण्या सुकण्या नक्कल केली

ताचेय आदी हांव आसलीं
मनशा जिणेक वचून दसलीं

## ५०३. म्हजें गान

तुमच्या मनांत म्हजें गान आनी ध्यानांत काव्य उतरां
जाय तो तुमी काडचो अर्थ जसो योग्य तुमच्या शास्त्रा

कसलेंय कार्य करचे आदी समजूंक जाय शास्त्र
जशें आंगार घालचे आदी तपासून पळयतात वस्त्र

शास्त्र आनी वस्त्र लागना ते चार पायांचे रेडेपाडे
थोड्यांक जाय अमुकूच कपडे, थोडे सदांच उगडे

## ५०४. तुमच्या उपरांत

म्हाका दवरात हांव रावतां जगांत तुमच्या उपरांत
तुमचे आदीय जगलें हांव असंख्य मनशा तोंडांत

जेवण खाण लागना म्हाका, जाय एक छंद
तुमच्यांत आसप म्हजो छंद, तोच म्हजो आनंद

जो मेरेन मनीस आसतलो हे पृथ्वीचेर
तो मेरेन विस्वास दवरतलो फकत म्हजेर

## ५०५. जय

घेवनूच येता कविता सूर ताल लय
गीत संगिताचो अचळय जाता जय

संगीत हें न्हय फकत मन धोलोवपाचें
काळजाक होरावन जीण तुजी शांत करपाचें

गीत म्हळ्यार गीत तुजी चलती भोंवती प्रीत
खोशेन जीण सारपाची एक सादीसुदी रीत

## ५०६. साय

कवीक विचार, इतले दिस तूं कितें म्हूण खाय ?
तो म्हणटलो, पोटांत भरल्या कवितेची दाट साय

एकार एक कविता जाली तर खावचें लागना
कवितेंत बुडिल्ल्याक काव्यमाय पयस करना

ती रांदता हांव जेवतां
ती गायता हांव रंगतां
अशी आमची फुलता कविता
तिच्या आशिर्वादान जीण सुखावता

## ५०७. राम

कवितेचे निर्मणेंत निसर्ग करता काम
विश्व जाता ल्हान, कवितेंत येता राम

विश्वाची निर्मणी कवितेक लागून
कवितेची निर्मणी विश्वाक लागून

दोनांयचें अस्तित्व कवीक लागून
कवीचो जल्म काव्याक लागून

## ५०८. जबर खबर

कविता करप, कविता जावप वेगवेगळी खबर
कविता येवप म्हणटा ती खबर एकदम जबर

कविता येता, कविता वता
कोणाक होलमता, कोणाक होलमना
कवीचे नदरेक पडटा तेन्ना
तिचें अवतरप चुकना

## ५०९. आडोस

कितलोय पडलो पावस तरी पयलो लागता पाडसाक
कवी पावसांत भिजलो तरी कवितेच्या आडसाक

कवी मागता,
असलो पावस पडल्यार पुरो
असले व्हाळ व्हांवल्यार पुरो
आडसाक रावलो तरी कवीक
व्हडवीक वावझडीची
लोटून कितलेंय गेलें तरी
व्हडवीक पावसाची

## ५१०. मोड

कवी उपाशी पडटलो म्हणटा ती खबर सोड
ताच्या बोल्सांत आसता ती तुमच्यांत नासता मोड

ताचे मोडीक मोल, हेर सगळें पॉल
धोल धोल धोल ताचें तायट सदांच गॉल

## ५११ भायर सर

बरो कवी जातलो तर घरांतलो भायर सर
कवी जायना म्हाकवी कवितेंत भिजले बगर

कवितेचो पावस वळखुचो पडटा
उटंगाराच्या पावसांत भिजचो पडटा

असल्या पावसाचे लोट आंगार घेवन न्हावचें
पुसनासतना आंग करंजेसर रावचें

## ५१२. काव्यपती

तुमी आसत करोडपती, अब्जापती, उध्योगपती
आमी आसात सृश्टिपती, सैमपती, काव्यपती

आमच्या काव्याक ना तोड
तुमच्या दुडवांक ना मोड
तुमचे मोडीची चलता स्पर्धा
चलते स्पर्धेची आमकां उर्बा

## ५१३. अभिमान

कदीमकाळा सावन आमी धरतेर पळयतात सर्ग
हें सांगपाक आमकां चड अभिमान आनी गर्व

सर्गातले लोक धरतेर येवन उलयतात आमचेलागी
फाटीर मारून हात काव्यशक्ती करतात जागी

जागी जाल्ले शक्तीन आमी घडयतात संमेलन
देव, अप्सरा, कवींचें हांगाच जाता मिलन

## ५१४. आमचें घर

जमनीच्या वेंतभर कुडक्याक तुमी करतात रक्तपात
हें विश्वूच आमचें घर अशें मानपी आमची जात

आमी न्हय तुमीच रावतात आमचे भुंयेर आमच्या घरांत
तरी सदांच दंग तुमी आपलें समजून झगडी झुजांत

दुडू दिवन घेतात तुमी धरतरेचीं कागदां
आमी घेतल्या पृथ्वी दिवन कविते पानां

## ५१५. उपकार

भाकरी लेगीत नशिबांत ना ताका कोण जापसालदार ?
एके कवितेन दीस काडटात, हो कवितेचो उपकार

भाकरे बगर कविता जायना म्हणटात तें फट
भुके वांगडा कवी आमचो एकदम घट

खातलो जाल्यार कवीक ताणे उपाट दवरलां
कविते फुडें कवीक कितेंच खायन दिसना

## ५१६. बेधुंद

आमच्या विश्वांत घुमत आसता सप्तसुरांचो सरगम
व्हरपाक आमकां येता तेन्ना बेधुंद जाता यम

काव्यधुंदेंत यम आपलें काम विसरता
कवीच्यो कविता घेवन नाचत परतता

## ५१७. भास कवीची

खबर तुमकां दितां आयकात शंबर लाख कोटींची
देवाक बरी समजता खंय भास आमची कवींची

केन्नाय उलय कितेंय उलय, कवितेन उलय
मनांतली इच्छा तुजी मनशा कवितेन कळय

आवाज चडोवन सांगलें म्हूण तो आयकना
सूर ताल लये बगर ताका भास समजना

## ५१८. मिरयो पूस

तेंच तेंच आयकून घरांत कपलाक पडटात मिरयो
त्योच मिरयो पुसून उडोवंक मळबांत मारात फेरयो

मळब आमी कित्याक घेतलां ? फेरयो मारपाकूच
फेरयो आमी कित्याक मारतात ? कविता करपाकूच

कविता आमी कित्याक करतात ? जग सुधारपाकूच
जग आमी कित्याक सुधारतात ? गितां गावपाकूच
गितां आमी कित्याक गायतात ? खोशी जावपाकूच

## ५१९. पळय घांसून

भांगर पळोवचें घांसून, कितें घालां भितर
एकदा पारखून पळय, उपरांत जाय थंय दवर

भांगरा वरी दिसपी आतां जायत्यो येतात वस्ती
अस्सल भांगरा लागीच मनशान दवरची दोस्ती

आंगार घालची वस्त खरी अस्सलूच आसची
कविता करूंक मुळांत खरी अक्कलूच आसची

## ५२०. भाग्य

सुर्य उदेता तेन्ना दिस उजवाडटा
कविता समजता तेन्ना भाग्य उजळटा

भाग्याचें आनी काव्याचें लागीचें नातें
दोगायनी एकामेकाक मारलां माथें

काव्याचें कवीकडेन जल्माचेंच नातें
कवीचें मनशाकडेन साहित्यीक नातें

## ५२१. आकांतवाद

आकांतवाद बंद करपाक एकूच उपाय करात
चोवीस वरां तांकां फकत कविताच आयकयात

चोरांक लेगीत चोरचे आदी कविता आयकूंक दियात
खुनमाऱ्यांचे सुरयेक एक कविताच बरोवन खोयात

गुंडांक दादांक बऱ्यो कविता पाठ करूंक सांगात
जितल्यो कविता जाय तितल्यो कवीक बरोवंक लायात

## ५२२. बारा विघ्नां

एका लग्नांत येतात खंय बारा बारा विघ्नां
कवितेचो अभ्यास केल्यार विघ्नां बगर लग्नां

बऱ्या लग्नांत जावंक जाय कवी संमेलनां
कविता नासल्यार न्हवरो व्हंकलेचें बरें जुळना

## ५२३. पुन्नपोळयो

कोण खाता उंडेपाव कोण खाता पोळयो
कवितेचो ध्यास लागल्यार सदांच पुन्नपोळयो

नाका पोळयो, नाका पांव, कविते... तूंच म्हाका पाव
कांयच खायन दिसना तेन्ना तुजोच साथ जाय

## ५२४. तोंडाक लाय

जावं राजा महाराजा, जावं व्हडली राजमाता
पंचपक्कान्नां जेवता, तोंडाक लायता कविता

कविते विणे थोड्यांचें उखलना पावल
दिसाक एक तरी चाखूंक जाय दावल

थोडे कविता जेवतात, पक्काना तोंडाक लायतात
तें जाचे ताचे जिबेर निंबून आसता

## ५२५. साद घालता

चुडटां खोंपींत एकठांय जाल्यार कवींचो चोंबो
न्हिदिल्लो उठून साद घालता गिन्यानाचो कोंबो

एकदां असोच रातच्या वेळार भरलो कवी मेळो
कविता आवडना तो लोक जेवन घरा पळ्ळो
कवींक लागली उमळशीक रात जागोवची
कोंबो पळयतालो वाट बाबडो दीस उजवाडची
कविता आयकून जाग जाली मध्यान रातीची
जाग येतांच ताका संवंय साद घालपाची
साद घालून ताणे आख्खो वाडो उठयलो
कवितेचें गायन आयकून लोक एकठावलो

## ५२६. कविता उरूं

मळब फुटूं नातर संवसार बुडूं
कवीच्यो कविता मात सदांकाळ उरूं

मळब फुटल्यार गळटल्यो त्यो कविता
संवसार बुडल्यार उफेतल्यो त्यो कविता

खंयच्च्याय मळार कवितेचो असोच जाता जय
खरें दिसना जाल्यार तूंच प्रयोग करून पय

## ५२७. णव हजार कोटी

ताचे लागी आसात, णव हजार कोटी
आवयस...! णव..हजार..कोटी !

खंयचेय आसूं, कसलेय आसूं
कोणाचेय आसूं, कशेय करूं
कमोवपाची रीत आसूं खोटी
ताचेलागी आसात णव हजार कोटी

कोणाचे खाल्लूया, कोणाचे माल्लूया
आमकां कित्याक पडलां...!
पूण ताचेलागी भल्लूया णव हजार कोटी

म्हाका एक कोट मेजूंक कळना
एके कोटीक कितले शंबर कितले हजार
तेंच खबर ना
सगळ्यो मेळून कितल्यो जातात नोटी
तेंय कळना
मेजतलों कशे णव हजार कोटी....!

तो कोण काय..! कसो दिसता काय..!
कसो रावता काय..!
कसो बसता, कसो न्हिदता काय !
कसलें शीत जेवता काय..!
कसलीं खाणां खाता काय !
खंय दवरता काय, णव हजार कोटी

म्हाका उमळशीक ताका पळोवची
कसो दिसता मनीस
जाचेकडेन आसात णव हजार कोटी !

हांव गेलों ताका पळोवपाक
ताचेकडसून कितेंय शिकपाक
पळोवन जालो अपेक्षाभंग
म्हजेपरस काळो ताचो रंग
खाडकेर बोकड्या खाड
अर्द काळें, अर्द पिकें
केंस तरी आसत भांगराचे
अशें म्हाका दिशिल्लें
खड्ड्यार एकूय ना केंस
पोले पडल्यात, दांत कुसल्यात
ना शिंगां, ना पांखां
दोनूच हात, दोनूच पांय
असलेच कान, असलेच दोळे
नाकाक मात लागलां काळें
मान खाला, तोंड लजेन बावलां
दोनाय हातांक बेडी, पुलीस मारीत ओडी
कोण म्हणटलो ताचेलागी आसात
णव हजार कोटी !

तब्बेत तरी बरी..!
म्हजे परस बारीक
झिपींत घालून बंदखणींत व्हरी
ताका मारीत मारीत
कित्याक उपकारले, णव हजार कोटी ?

मनांत म्हणलें, देवा
म्हजी मात सदांच रिती पोती
म्हाका दिलेनात तुवें
तें एकदम बरें केलें
णव हजार कोटी...णव हजार कोटी

नाका रे देवा म्हाका
असल्यो कोटी नोटी

हातासपाची ती रीत खोटी...
फकत कवितांनीच भरुंदी म्हजी व्हंटी
आनी जगपाक मेळुंदी
दिसपट्टी दाळरोटी

## ५२८. कवितेक लागून

तुका पांय दिल्यात संमेलनाक वचूंक
अक्कल दिल्या कविता रचूंक
वाच्या दिल्या कविता वाचूंक
गळो दिला कविता गावंक
कान दिल्यात कविता आयकूंक
हात दिल्यात ताळयो मारूंक

## ५२९. कवितांचो मारो

सगळ्या गुन्यांवकारांक हाडून एका जाग्यार बसयात
तकलेर कवितांचो मारो करून तांकां सुधारात

कविता हें अदृश्य शक्तीचेर जैत मेळोवपाचें शस्त्र
आंगार घालून मिरोवपाचें एक झगझगतें वस्त्र

## ५३०. सुधार

बंदखणींतल्या सगळया राखण्यांक काडून उडोवचे
गुन्यांवकारांक सुदारूंक फकत कवींक दवरचे

संमेलनांच करपाक म्हूण एक व्हडलो
माटोव आसचो थंय
कवी पळोवंक मेळटा म्हूण गर्दी
वाडत म्हणून भंय

गुन्यांवकार सोडून हेर कोणाक
भितर घेवचे न्हय
कविता करनात तांकां कितेंच
उलोवंक दिवचें न्हय

## ५३१. मस्ती

मस्ते मनीस करीत जर कवी लागी दोस्ती
जिणेंत केन्नाच करचेनात परतून कसलीच मस्ती

मस्ते मनीस केन्नाच करनात कवी वरी कविता
तांकां दिसता कवी हो मळबांतूच जियेता

ते म्हणटात, मळबांत असली मस्ती करूंक मेळना
रंगां वांगडा खेळटां खेळटां मस्तेक वेळूच मेळना

## ५३२. शांतिकाय

कवी हो असो मनीस, शांत, सुसभावी
ताच्या हातांत आसता शांतिकाये चावी

शांतिकाये घेवन चावी तो बसता कविता करूंक
कविता ताच्यो घुस्मट्टात अशांती पयस करूंक

## ५३३. कवीच्या घरांत

एक दीस कवीच्या घरांत चोर भितर सरलो
कवीच्यो कविता आयकून तो चोरूंक विसरलो

कवीन ताका आपोवन आपल्या म्हऱ्यांत बसयलो
चार कविता आयकयल्यो आनी सामको सुधारलो

तेन्ना सावन चोर घरांत सदांच येवंक लागलो
कविता करून कवी वांगडा गितां गावंक लागलो

## ५३४. पावस

केन्नाय बरोच गडगडटा पावस, एकूय थेंबो पडना
केन्नाय खूब झडटा पावस, मातूय आवाज करना

गडगडटा तेन्ना कळपाचें, तांतूंत थोडें काव्य ना
गाजयनासतना झडटा तांतूंत काव्य उणें ना

कविते विणे पावस केन्ना झडलोना
पावसा विणे कविता केन्ना अडल्योना

## ५३५. पडमूर

दुडवांच्या बाबतींत मनीस सदांच शिटूक आनी शादूर
जाता जावन करनात कविता तांकां म्हणटात पडमूर

तांकां दिसता कवी हो आसता सदांच पातिशेर
ताचे लागी भरलां धन ताका शीम ना मेर

धन म्हणचें कितें तें तांकां नेणाऱ्यांक खबर ना
भरून दवरून कविते मुखार कित्याक उपकारना

## ५३६. तकली चलना

वाचूंक येना बरोवंक येना, बरीं लागनात चिन्नां
तकली सारकी चलना तोय कविता करचें सोडना

ताच्या हातान चुकून लेगीत गुन्यांव घडना
गुन्यांवकार कवी आमी केन्ना पळयलोना

## ५३७. रान

कविता करचें दिसता जाल्यार वच म्हणटा रानांत ?
बारीक चिंतूंक वचशी जाल्यार रानच म्हज्या मनांत

रान तशेंच मन म्हजें कवितांनीच भरलां
नव्या नव्या कवितांनी उपाट भरून उरलां

तुज्या रानांत कितें भरलां, म्हाका दाखयशी ?
ना तेंच कोयतो घेवन राखूंक भोंवशी

## ५३८. म्हजें मौन

जायतेदा म्हजें मौन म्हज्या एकलेपणा लागी झगडटा
दोगायचीं झगडीं हांव फकत दोळे धांपून आयकतां

आयकतां तितलोच वेळ हांव विसरतां एका खिणांत
उपरांत हांव बुडून वतां म्हज्या कवितेच्या चान्न्यांत

## ५३९. कवितेचें वक्ल

वक्ल लावन कवितेचें गेलों हांव बाजारांत
कविताच कविता दर जिनसांत, दर मनशांत

प्रत्येक जिनस प्रत्येक वस्त विकती घेवची दिसली
थंयच रावन तांच्यांतली हांवें कविता डायरेंत टिपली

## ५४०. फुकट

एक गजाल सांगल्यार हांवें तुमका दिसतलें फट
एका जिनसार मेळटा बाजारांत एक कविता फुकट

फुकट मेळटा म्हणून बाजारांत घेवपाक जाली गर्दी
विकप्यान सांगलें, विकतें घेतकच कविता येवजतली

एकदा दिल्ली वस्त आमी कशीच परत घेवचे नात
कविता खात्रेन जातली तिका पळयत बसात दिसरात

## ५४१. कवितेची धार

धार घेवन कवितेची पळोवंक गेलों शार
पावला पावलाक भरिल्लो कवितेचो बाजार
फुटपायरेर भरिल्ली फेस्ताची फेरी
फेरयेक भोंवपाक शारांत मजा येता बरी
वेगवेगळ्या मनशांचो फेरयेंत मेळटा संग
उलोवपाच्या ढंगांत तांच्या कवितेचो रंग

## ५४२. हारसो

म्हजो हारसो फुटलो तर
रूप कशें पळयतलों ?
कवितेंतल्यान हांव म्हाका
सारको दिसतलों

कवीत म्हजें रूप दाखयता
दाखयता काळीज, मनसभाव
असो म्हजो विस्वास
असो म्हजो भाव

## ५४३. सुक्ष्म गूण

गाळणेंत घाल्ले सगळेच गूण गाळून सकल पडले
कोणाचे नदरेंत भरलेनात सुक्ष्म देखून इतले

गूण बरे, गूण पाडे
थोडे बारीक थोडे मोठे
बारीक नाचतात सादेपणान
मोठे आपल्याच मोठेपणान
मोठेपणाचें आमकां पडलां भोव
सगळ्या गुणांचो कवीक अणभव

## ५४४. न्याय अन्याय

गिन्यानाचो उपयोग करप, हो जालो न्याय
कविता जल्माक घालना तो काव्याचेर अन्याय

कविता करना तो दुसरें करतलो कितें ?
हयहय नाना खंय गेल्लो खंय ना इतलें
कितें केलें कांय ना, कितें दिलें कांय ना
कितें व्हेलें कांय ना, कितें थेयलें कांय ना
समाजांत इल्लो रावन दाखय
समाजाक इल्लें गावन दाखय
समाजाक केन्नाय पावन दाखय
समाजाचो जावन दाखय

## ५४५. तुज्या दोळ्यांत

म्हज्या दोळ्यांत तूं पळयता तुजो सुखी संवसार
तुज्या दोळ्यांत दिसता म्हाका कवितांचो सांवार

सुखी संवसार दोळ्यांत नाका, पळय तुज्या गळ्यांत
तुजी म्हजी पयली भेट जाल्ली कवितेच्या मळ्यांत

थंयच मोगा घाल्लो आमी पयलो गळ्यांत गळो
अजून म्हजो लागून आसा संवसाराचेर दोळो

## ५४६. गळ्यांत माळ

एक पांय तळ्यांत, एक पांय मळ्यांत,
तसलें आमी करनात
दोनूय पांय आमच्याच खळ्यांत
आनी ऋतुंची माळ गळ्यांत

रुतूंची माळ आसतना गळ्यांत
हुपची लागना शीम
ते माळेंतल्यानूच आमी पावयतले
काव्यतत्वाचें रीण

## ५४७. शिंयाळो

झाडां पिळून शिंयाळो आपलीं फुलां गळयता
विशय घोळोवन कवीक तांच्यो कविता केळयता

म्हणून तर कवी इतल्यो कविता फळयता
झाडांचें पावसाचें मनशाचें नातें जुळयता

हें सगळें वयर रावून मळब पळयता
तांकां जाय तशें आपूण कुपां खेळयता

## ५४८. मेल्या बगर

कोण म्हणटा, मेल्या बगर सर्ग दिसना ?
कवीचो हात धरून चलल्यार नरक दिसना

कवी कडेन आसता सर्गाचें चित्र आनी नकसो
बिनकवीक दिवंक ताका लागता मात्सो पात्सो

कविता हातांत घेवन गेल्यार कोण आडयना
कवी फाटल्यान गायत चलल्यार कोण विचारना

## ५४९. रेंदेर

कश्टकरी मनशाक पर्जळायता रवी
माडार चडटां चडटां रेंदेर जाता कवी

वयर पळयल्यार ताका भुलयता मळब
सकल नदर मारल्यार भेंकडायता तळप

अशे स्थितींत आसून तो घट करता जीव
मळब सुर्या आसतना म्हणटा कोणाक कित्याक भिवं

## ५५०. आपले आपूण

आंगापांगांत, गात्रागात्रांत घुमतली कविता
तेन्नाच आपले आपूण कागदार देंवतली कविता

शिरंत्रांनी वाजता कविता
तीच कवी कागदार वियेता
तेन्ना ताचीं गात्रां कवितेर जियेता
शिरान शीर ताची काव्यरस पियेता

## ५५१. आस्वासनां

कवीचो हावेस, न्हय आस्वासनां पोकळ
दाढेक धरलेलें काव्य, कवी सोडूंक नकळ

काव्यउतरां उडोवचीं न्हय वाऱ्यार, म्हणटा कवी
उतरान उतर ताचें लागचें सुधारणेच्या सत्कारणी

## ५५२. आपालिपा

कविता खेळटा आपालिपा, दिसता, नाच जाता
आपणाक आफुडना ताका दांत दाखोवन हांसता

कविता हो कवीचो प्रतिष्ठेचो विशय
तेच साधनेंत ताचो जायत आयला जय

आपालिपाच्या खेळांत ताका दिवचो तुमी साथ
काव्याक कोंबऱ्यो फुटल्यो तर खेळचें दिसरात

## ५५३. कुड्डो

कविता गायता, आयकना तो भेड्डो
भोंवतणी उडटा, दिसना तो कुड्डो

कुड्ड्यान आयकचें, भेड्ड्यान पळोवचें
दोगायनी एकामेकाक कुरवांनी कळोवचें
अशेंच करून काव्यसंदेश घराघरांत पावोवचे
दिसना ताका दाखोवचें
आयकना ताका आयकोवचें

## ५५४. बचकभर

बिण्ण काळोख, कांयच दिसना म्हाका तुका
कवीक मात हात घालतांच, बचकभर कविता

काळोख चिरून भायर येता उजवाडाची कविता
तीच तुज्या फुडारांत उजवाड फांकारता

काळखांत कितें लिपलां ताच्या दोळ्यांक दिसता
देखून तो काळखांत पर्यान दोळे उगडून चलता

## ५५५. पारखुणी

मनांत तुज्या कितें शिजता खबर नासत रवीक
दोळ्यांत पळोवन कितें चिंतता पारखूंक येता कवीक

कवीची पारखुणी, सगळी एकसणी
पावला कणकणी, मुखार नागमणी
रवी आसता आपलेच फिरकेंत
कवी आसता काव्य-भिरकेंत

कांय कवींक दोळ्यांनी पळोवचें लागना
कोणाचो सभाव कवीच्या नदरेंतल्यान सुटना

## ५५६. वयल्यान

आमकां जाय विमान, वतलो तर वयल्यान
कवी आमचो सदांकाळ, चलता हवेंतल्यान

हवेंत चलपाक पांखां लागतात
तुका आनी म्हाका
कवींक मात कांयच लागना
पांखां आनी चाकां

## ५५७. भांगरां

येतनाच कवी घेवन येता कवितांची खाण
तींच भांगरां आंगार घालतात आमी सगळे जाण

भांगरां आनी शिंगरां तुजें शरीर सजयता
काव्य आनी कविता तुजी जीण घडयता

जिणेक तुजे अर्थ येता कवितेच्या उतरांनी
अशेंच भौतेक सांगिल्लें आसा काव्यशास्त्रांनी

## ५५८. फालतू

एका जाग्यार बसून कवीक सगळो संवसार दिसता
देखून फालतू मनीस ताका आळशी समजून फसता

भूक लागतकच फालतू मनीस खावचें सोडिना
तेन्ना कवीक खावंक कोण कांय व्हरून दिना

## ५५९. दूत

केंस वाडयल्ल्या कवीक पळोवन एकल्यान म्हणलें भूत
दुसऱ्यान सांगलें भूत न्हय तो, कवितांचो दूत

ह्याच दुतान आमचें भांडार कवितांनी भरलें
संगितकारान चाल लावन गावप्यांनी गायलें

असलो दूत पळोवंक मेळटा हें तुमचें भाग्य
कांय जाणांक पळयल्यार तकलेक मारता राग

## ५६०. भरलें भगुणें

दुडवांकारान म्हणलें कवीक, तूं असो कितें ?
कवीन सांगलें, भगुणें म्हजें भरलें, ताट तुजें रितें

भगुण्यांत जाता तितलें एका ताटांत जायना
ताटांत वाडटात जिनस तितले भगुण्यांत वाडनात

भगुण्यांत म्हज्या कोणे कितें घालें कळना
वेगवेगळे जिनस कशे रुचीक लागतात कवनां

## ५६१. ध्यान

साद़ू कशे, संत कशे एका जाग्यार बसतात
कवी आमचे ध्यान लावन कविताच सोदतात

कविते बगर तांकां दुसरें दिसता तरी कितें ?
जेवतना खातना लेगीत ताटांत कवितेचें खतखतें

सोदता तितलीं गावता तांकां ब्रह्मांडांतलीं सत्यां
गावना तांकां तयार आसात समाजांतलीं तत्वां

## ५६२. भौरंगी मळब

तुमकां दिसता काळोख, तेन्ना कवीक लख्ख उजवाड
चित्रां विंगड विंगड आनी भौरंगी मळब गाड गाड

गाड मळबांत भरल्यांत कवनां वयल्यान कांबरुणां
कांबरूण काडून पळयलें तरी एकसणी दिसना

कवी आपली लिखणी पाजून घेता कविते सोद
घेता घेता सोद खासा ताकाच मेळटा बोध

## ५६३. पुरस्कर्तो

कवी आमचो पुरस्कर्तो सौंदर्याचो आनी सुखाचो
ताका हुस्को श्रोत्यांचो, जगाचो आनी सैमाचो

जगाचो हुस्को करपी एकटोच जगांत प्रामाणीक
संवसार धवळ्ळो तरी दुसरो मेळचोना आनीक

असली ही व्यक्ती ताची मठी सदांच उगती
जाका चिंता आपलेच मठयेची तागेर सुकती

## ५६४. भाव भाव

लेखक, कवी, श्रोते, सगळेच भाव भाव
सगळीं मळां फुलूं आनी कवींचें बरें जावं

श्रोते बरे आसल्यार कविता ताच्यो आयकतले
नातर कवी आपलीं गितां गायत गांवांत भोंवतले

तुमचे बरे मागणेचो कवीक ना वालोर
तुमकां खाता थंडी तेन्ना ताका जाता कालोर

## ५६५. विचार सुचचे

कवीक वळखुचे, समजुचे, मानचे आनी पुजचे
जग सुदारचें, सैम फुलचें, बरे विचार सुचचे

तशें केल्यारच हें सुंदर जातलें जग
मनिसकुळी हे धरतेर धरतली तग

कवीक करपी माफ थोडेच आसात समाजांत
कवी म्हूण आयज मानतात, फाल्यां विसरतात

## ५६६. लोक रडटना

केन्ना केन्नाय कवी हो दिसता तसो नासता
लोक रडटना सुचता कविता, भितरल्यान मुरगट्टा

लोक रडटा तेन्ना ताका खऱ्यानीच वायट दिसता
कवी जाल्ल्यान तेन्नाच रडपाचेर कविता सुचता

ताचें रडप, ताचें हांसप, दुसऱ्यांक दिसना
तुमी हांसतात, तुमी रडटात कविता वाचतना

# ५६७. निर्भय

जाय तेन्ना कवीय आमचो असोच जाता निर्दय
प्रसंगा वेळार धीर दिवन भित्र्यांक करता निर्भय

आमकां दिसता कवीचो तो सभावूच मात्सो रागीट
अन्यायाचो राग येना ताचेर अशीच उडयता कीट

कवी जंय आसता थंय सगळ्यांक अभय
संकटाक तोंड दिवनय ताचोच जाता जय

# ५६८. मन रमना

कवी आनी कवितेचें नातें आवय बाळकाचें
कविते बगर खीणभर मन रमना कवीचें

तो खेळटा, नाचता करता अपुरबाय
कविता पाडूक तर कवी ताची गाय

# ५६९. रवंथ

खावचे दांत वेगळे, दाखोवचे वेगळे, तशें कवीचें
तोंडांतले दांत दाखोवचे, मनांतले रवंथ करपाचे

जितलो लागता वगत ताका करूंक रवंथ
तितलो कळाव आमकां लागना कविता जिरोवंक

## ५७०. चिमटे

सैमाक दुखयतल्याचीं, जगार घालता कर्मा आनी मर्मा
दुखयनासतना धर्माक, चिमटे काडटा अधर्माक

कवीच आमचो थरता आयज खरो सैमीक गुरू
ताचो आवाज नासल्यार सैमाची कत्तल सुरू
धर्म आनी अधर्माची ताची व्याख्या वेगळी
बरें आनी वायटाचेरच ताची नदर सगळी

## ५७१. कांयच मागना

कवी करता कविता, बदलाक कांयच मागना
कितलें सूख मेळटा, कोणाक कांयच सांगना

घर भरून दार ओतता, सुखा समाधानान
मागची गरज पडना इतलें सूख आंगांत

कवितेचो कितें उद्देश ताचें तोच जाणा
बसला थंय आनंद मात मेळटा आमकां

## ५७२. कवीच्या वाऱ्याक

जण एकलो एका तरी कवीच्या वाऱ्याक रावा
ताचे कडसून शिकात करपाक निरपेक्ष सेवा

सेवा कशी करची, तो तुमकां सांगचोना
ताचेंच पळोवन शिकचें, तो आडावचोना

तुमचें आनी ताचें अशें जुळ्ळें जर सूत
तुमचे आनी कविते मदलो तोच जातलो दूत

## ५७३. तोंड धांपून

कठीन महाकठीन समजूंक कवीचें मन
तोंड धांपून लडटा एकटोच संवसाराचें रण

शस्त्र नाका लडाय नाका, नाका हिंसेचो विचार
कवन कवन एकठांय करून अविचारांचेर वार

रण सामकार सदांच आसता, कविता घेवन कवी लडटा
रसीक बाबडो फाटल्यान आसता, तेंको आनी उर्बा दिता

## ५७४. कवी दाखयता

आमी आमच्या हारशांत तोखेतात आमचीं आमचींच रुपां
कवी आपल्या हारशांत आमकां दाखयता आमची प्रतिमा

कवीच्या हारशांत भरल्यांत रुपां सुंदर सुंदर
सुंदर न्हय तांची लेगीत तो करता कदर

थोड्यांक दिसता थोड्यांक दिसना
थोड्यांक खरेंच काव्य समजना
थोडे म्हणटात हें रुपडें
आमचे वरी दिसता खरें

## ५७५. एकदीस

तुमीय अशेच कवी वरी, तयार करात मन
तुमचेरूय केन्नातरी कविता जातली प्रसन्न

प्रसन्न जावंक तुमची तशी आसूंक जाय सेवा
ह्या नेणाऱ्यांक केन्नातरी पाव रे देवा

## ५७६. चेरा शिशी

कवी म्हळ्यार सुगंधान भरिल्ली चेरा शिशी
उगडी उरल्यार सुगंध फांकता दिशी दिशी

शिशीचो उपयोग चेर दवरूंक सांबाळून
काव्यसुगंध दवरूंक मेळना असो धांपून

## ५७७. याद करात

खंयच लक्ष लागना, कितें करचें कळना
मुजरत याद करात एक कविता अशा वेळार

कवितेंत जरूर रमतलें तुमचें मन
मनांतल्यान करचें काव्यस्मरण
विसरून वचचें सांठयल्लें धन
कानांत नाका दुडवां खणखण

## ५७८. धून

करीन दिसता आत्महत्या, मारीन दिसता खून ?
तालसुरान गायत रावात खंयच्याय गिताची धून

धून तुका पावतली, शिरंत्रांनी वाजतली
मेंदवांत तुज्या बसतली, सरभोंवतणी गाजतली

## ५७९. मारची तान

भिरांत दिसल्यार गावचें गीत
गीत निर्भयतेचें
मारूंक आयल्यार वाचचें कवीत
कवीत तलवार धारेचें
भूक लागल्यार करचें गान
गान अन्नदात्याचें
तान लागल्यार मारची तान
तान व्हांवते झरीची

## ५८०. अर्थ समजून

करचो पडत भ्रश्टाचार, निसर्गाचेर अत्याचार
अर्थ समजून वाच कविता, पयस जातलो पापाचार

जगांत हिंसा घडटा ती नेणारपणाक लागून
धर्म अधर्म समजना खोल विचार ना म्हणून

## ५८१. सगळ्यांक

सुकणीं, मुयो, सुणीं किडी
सगळ्यांक समजता कवीत
तांच्या सामकार गावन पळय
दोळे धांपून हालयतात तकली
तरी कांय मनशांक मात्त ना रस
इतलें करून तांचे मुखार जाता फस्स

## ५८२. गरज तेन्ना

इतले आमचे कवी आसात,
आमी कित्याक कोणाक भिवं ?
गरज तेन्ना कोल्याबूद,
गरज तेन्ना जावचे शींव

शींव जावन आपलो हक कवीन झोंबून घेवचो
कोलो जावन दुस्मानाक न्यायान आडवो घालचो

## ५८३. बगळो

मान, चोंच, दोके लांब, धवो फुल्ल सगळो
थीर नदरेन पळयता कवी, सभावान बगळो

इतल्या सगळ्या पक्षांमदें बगळो मात्सो वेगळो
अदमास घेत उदका पोंदचो एकाच जाग्यार उबो

## ५८४. हातरूण

चडशे लोक हातरूण पळोवन सोडटात खंय पांय
आमचे पांय मुळचेच लांब, हातरूण पडटा ल्हान

पांय लांब आसले तरी आमी मारनात धेंपां
गरज पडल्यार हड्ड्याकडें दोडून घेतात धोंपरां

## ५८५. गायता ताका

बसता थंयच न्हिदता ताका हातरूण कित्याक जाय ?
न्हिदता न्हिदता गायता ताका जागूंक कित्याक जाय !

काम करीत न्हिदता ताका पुरो जाल्लें आसता
ताचें ताका खबर आसता, जागता तो जगता

## ५८६. आपलेच तंद्रेंत

सूर्य उदेता सूर्य अस्तमता, कवी आसता धुंदेंत
चंद्र उदेता चान्नें शिंपडटा, कवी आपलेच तंद्रेंत

कवी आनी तंद्री वेगळी काडूंक शकना
वेगळी काडली तर काव्य जल्माक येना

## ५८७. उगतीं पानां

म्हासागर ग्रंथाचीं उगतींच आसात पानां
वेळेर हाडून वाचूंक दितात आमकां आपलीं कवनां

जमता ताणे जाता तितलें आत्मसात करचें
विशालताये अर्थ लावन समाजाक सांगचें

## ५८८. रेंवे कणांत

वाऱ्यान व्हांवून येतात कवनां,
थोड्यां दोळ्यांक दिसनात
रेंवे कणांत वाजतात गितां,
थोड्यांक आयकूंक कळनात

दिसना तांकां, आयकना तांकां
आसा एकूच उपाय
कवीकडेन मागून मागून
कविताच वाचूंक जाय

## ५८९. शीत कडी

उकड्या तांदळां शीत, ताचेर सुंगटां कडी
खरो कवी आसता तो, कविताच रगडी

कवी सामकार कितलेंय दवर बरें तें पक्कान्न
फकत एक कविताच ताचें मन करता प्रसन्न

## ५९०. हुमणान

कवीच्या बुडकुल्यांत आयल्या दिसा शिजता कविता
कल्पनेच्या हुमणान कालोवन कवी तेंच तेंच जेवता

श्रोते म्हणटात कवीचें, भरता कशें पोट ?
कविता जाता जाल्यार तेकूं फाटीक पोट

## ५९१ तुजेविणे कविते

तुजेविणे कविते आमकां चैन कशीच पडना
तूंच आमकां उर्बा हाडटा कोणाक कळनासतना

आयल्या दिसा खिणाखिणा विचार तुजो घोळटा मनां
तुजे सेवेन काव्यमळार मेळटात आमकां नामनां

तुजे यादीन धन्य धन्य जाता जिवीत आमचें
तुजे धुंदींत रमता मन सुचता नवें नवें

## ५९२. कवीच्यो बडी

हाताक बेडी, फाटीर चाबकां ओडी
तरी काव्य घडी, अशो कवीच्यो बडी

बसली ती बसली, दसली ती दसली
कितेंच केल्यार सुटना कवितेची घडी

## ५९३. पोकळ वांशे

बडय बडय धोल ताशे, पळून वतले कोले सोशे
मोठ्या घरा पोकळ वांशें, तोंड धांपून जातलें हांशें

धोल ताशार पडटा बडी, काव्य कवन मारता उडी
हाका सोडून ताका धरी, तेन्ना ताच्यो दिसतात खोडी

## ५९४. सोदून काड

सुचतली  आनी बरयतलों म्हूण वाट पळोवं नाका
भायर वचून सोदून काड, बाजार उलगसर रावू नाका

संधीसादू पळयत आसात वाट संधीची
पसरकाराक भिरांत आसा संप बंदीची

## ५९५. शिताक रूच

हुमण बरें आसल्यार शिताक येता रूच
संमेलनांत बसल्यार कवी पावता ऊंच

कवी म्हणटा तुमचीं सगळीं आस्वासनां पोकळ
शीत हुमण नासलें तरी म्हाका चलता निवळ

## ५९६. खोलाय, उंचाय

कवितेच्या सागरांत आमकांय बुडूंक जाय
समुद्राची खोलाय, मळबाची उंचाय कळूंक जाय

समुद्राची खोलाय मेजपाक कवीच जाय
मळबाची उंचाय मेजपाक नदर जाय

## ५९७. कविता गाय

मळबाची उंचाय मेजूंक जाय ? कवीक मस्को लाय
समदिराची खोलाय मापूंक जाय ? ताच्यो कविता गाय

मेल्या उपरांत कोणा मनशाक सर्गार व्हरूंक जाय ?
तें लेगीत काम करपाक खांपो कवीच जाय

मेला ताका मोक्ष मेळचो म्हूण मागूंक जाय ?
काव्यान प्रार्थना करपाक तुमकां कवीच जाय

## ५९८. आपशीच

तुमचे तकलेंत कविता येता, कशी..कशी..कशी ?
दरयाक आपशीच ल्हारां येतात, तशी..तशी..तशी
समुद्राक अशीं ल्हारां आपशीच येतात तरी कशीं ?
कवितेचें बाड घेवन एकदां बुडलेली कवित्री
काडली तरी कविता परतून उगवता कशी
काडले तरी खाडाकेंस परतून येतात तशी
जगार भोंवन थोड्यांक कविता सुचता तरी कशी ?
शिंपनासतना रानांतलीं झाडां वाडटात पळय तशीं
फुलां, फळां, कुळागरां फुलतात तरी कशी ?
चिंतन मनन करुन कवीक कविता सुचता तशी

## ५९९. जल्मता काय घडटा

कविता सुचता काय येता, कवीकूच कळना
आपूण जल्मता काय घडटा, कवितेकूच खबर ना

ह्या प्रस्नाची जाप कोणच दिवंक शकना
येता आसतना कविता कोणाक दिसना

## ६००. तारे गिरे

जेन्ना जेन्ना संमेलन आसता आमच्या कवींचें
तारे गिरे येवन बसतात, तुमच्या आदी ते

ताऱ्यांक गिऱ्यांक कित्याक जाय तुमचें आपोवणें
तांकां रोकडेंच आयकूंक येता काव्य उलोवणें

तुमचे परस तांच्यांत ना काव्यधन उणें
बसला थंयच सुचता तुमकां तें तांचेंच देणें

## ६०१. भोंवडी

चलात, कुपांचे फाटीर बसून भोंवडी मारया
कवितेचे पांखटे लावन वयर वयर उडया

असली भोंवडी मारूंक शकता फकत ऐकलो कवी
ताच्याच हातांत आसा ताच्या अंबर-गाडयेची चावी
चावी ताचे गाडयेक सदांच लायिल्ली आसता
एका जाग्यार बसून तो भोंवड्यो मारीत आसता

रातच्या वेळार भोंवड्यो मारपाक बरीच मजा येता
काळखांतलीं विझ्मितां लागिच्यान पळोवंक मेळटा

## ६०२. ऊंच मान

जमनीर चलता मोटार, मळबांत चलता विमान
मळबा परस ऊंच आसता कवीची मान

कारण ताका मुळचोच आसता देवाचो वर
तोच ताका धुकलीत आसता वयर वयर वयर

## ६०३. वाट पळयतात

किंतल्यो तरी कविता
येतात कवी मनांत
थोड्यो दसतात,
थोड्यो वाऱ्यान पुसतात
थोड्यो उडून वतात
झाडाझाडार बसतात
वाट पळयतात कवीची,
आनी जागरूत श्रोत्यांची

## ६०४. तटास कान

संमेलनांत तुमी आमकां दितात इतलो मान
कवी उबो रावलो म्हणटच तटास जातात कान

न्हिदिल्लीं जागीं जातात जाण्टीं भुरगीं सान
दोळे चोळून पळयत रावतात कवीचें तें ध्यान

## ६०५. उस्ताद

कवितेविशी कोण कोणाशीं घालूंक बसना वाद
ते जाणात, कवीच तातूंत खरो व्हडलो उस्ताद

म्होंवाची आनी गोडाची सांगची लागना गोडसाण
कविता आयकून कवीची आंगांत येता घटसाण

कविता म्हळ्यार बाण एक तिरान सोडलेलो
जाचें जिवीत कोडू, वचून ताकाच लागलेलो

## ६०६. उसरपत

थोडे म्हणटात कविता करूंक कशी मेळटा उसरपत
कवितेक बांदुनूच कवी ओडटा आपलो संवसाराचो रथ

कवीच्या रथाक दोन रोदां, एक दावें, एक उजवें
दोनय रोदां घुंवतात तेन्नाच सपन फळटा कवीचें

## ६०७. तजवीज

जावं काळोख बिण्ण नातर रातची वचूं वीज
जिणेंत थिराय हाडपाची कविता करता तजवीज

कविता घालता उजवाड
काळोख आसता थंय, नासता थंय
ताचे खोशेक ना वंय,
ताच्या दिवपाक ना भंय

## ६०८. तिडातीड

भाव भयणांची, आवय बापायची चलता आसत तिडातीड
गावन दाखयशी कवनां कवीचीं, बंद जाता पिडापीड

हो एक अणभव बरो जायत्या लोकांचो
दुखी घरांत गावशी गीत झरो फुट्टा सुखाचो

## ६०९. रीण माफ

बँकेंतल्यान आयली चीट,
हप्तो भरलोना, पगार काप '
चिटी फाटल्यान कवीन बरयली
कवितेंतल्यान सुरबूस जाप
वाचून मेनेजरान
रीण केलें माफ
अशे सगळेच कवी जाल्यार
तिजोरी जातली साफ

## ६१०. कवतूक

गांवांत लोक कवीचें, तोंड भरून करता कवतूक
कवी म्हणटा, हेंच म्हाका सगळ्यांत व्हडलें सूख

गांवच्या लोकांक पडलां आपल्या कवीच्या सुखाचें
नातर फुडेंच वचचेंना कवीचें संवसार-व्हडें

## ६११. कलंक

सोरो पियेवप म्हळ्यार सुखी संवसाराक कलंक
कवितेचो घोट घेतलोना तर राजाचो जाता रंक

आदल्या तेंपार आसताले राजाचे राजकवी
कवितेंतल्यान बरे बरे प्रजेक उपदेश करी

आयचे प्रजेक कवीकच उपदेश करचे पडटा
पूण ताचें मार्गदर्शन कोण आयकून घेना

## ६१२. राजा आनी रंक

राजान घेतलें कोप, रंकान केली कविता
आतां रंक जालो राजा, दिसरात कविता

सोऱ्या कोपान वायटाक फुडो बऱ्याक फाट
सोऱ्या वासाक नेटान येता वायटाची लाट

## ६१३. माटोव

घर मोडून कांय जाण घालूंक वतात माटोव
असल्या मनशा उल्याक लेगीत कवी दिता ओव

अडल्या नडल्याक कवी दिता मानसीक आदार
तांच्या घरांत वचून कविता करता सादर

गाळी आनी फुलां कवीक न्हय भिन्न
एक ताचें पिवण तर दुसरें ताचें अन्न

## ६१४. रस्तो बंद

हेल्मेट घालेंना म्हूण कवीक
पुलिसान दिलो तालांव
कवीन वाचली कविता तेन्ना
पुलिसान म्हणलें, तूं म्हजो कवी-भाव
रस्त्यार मदीच बस
हांव आयकतां, तूं वाचीत राव '

कवी वाचीत रावलो, थंयच लोक भरलो
दोनय वटेन गाडयो, उब्यो थोड्यो आडव्यो
आयले सगळे पेसेंजर, ड्रायवर आनी कंडक्टर

आयलो व्हडलो इन्सपेक्टर
म्हणूक लागलो, हांवय वाचूं ?
सगळ्यांचेर जालो कवितेचो जादू
सगळे रस्त्यार बसले,
कवी संमेलन भरलें
दोनय वटेन लागलो बोर्ड
काव्य चालू, रस्तो बंद
बरेंच रंगलें रस्त्या वयलें संमेलन

वयल्यान आयलो फोन
-रस्त्यार बसला तो कोण ?
--कवी सायब. नांव जाणाकोण...

आर्मा घेवन आयले पुलीस,
लाठयो घेवन एकशें वीस
आर्मा लाठयो दवरून सकयल
कबिता आयकूंक मारली थपकल

दुसरे दिसा पेपरार, कवी-संमेलन रस्त्यार

## ६१५. पाळी

घेतलो म्हूण ताळी फाटल्यो कविता चाळी
अकलेक कविता जुळ्ळी की मुजरत पडटा ताळी

दोन हात आसून थोड्यांक वाजोवंक येना ताळी
ताळयांची लेगीत कल्पना करची कवीचेर पाळी

## ६१६. म्हातरो

एक दीस कविता केलीना तर जीव जाता कासावीस
कविता करून णव्वद वरसांचो म्हातरो जाता बावीस

कवीक लागना वय, सतायना मरणाचो भंय
कातरलीना तरी माडाची सुकून पडटा पोंय

## ६१७. अपरूप

ल्हान भुरग्यान कविता रचप म्हळ्यार एक अपरूप
म्हातऱ्यांनी लेगीत कविता रचल्यार उजळूंक लागता रूप

ल्हान जरी घर आसलें, रावतल्याची शान
दोन सुभाशितां बरयल्यार घराक येता जान

## ६१८. अक्कलदाड

कांय भुरग्यां जाता फकत शरिराची वाड
कविता करपाक येवची पडटा अक्कलदाड

अक्कलदाडेक आसता बाबा पिरायेचें बंधन
दाडेक आनी अकलेक असो कवितेचो संबंध

## ६१९. एलर्जी

थोड्यांक पचता सगळें म्हूण सगळ्यांक पचना सगळें
थोड्यांक आसता एलर्जी, थोड्यांक येतात ओंकारे

कविता मात अशें पक्वान, सगळ्यांक पचता बरें
कोणेय खावचें हुसक्यामेकळें, भलायकेकय एकदम बरें

## ६२०. येवजिता

बसला थंयच कवी, कितें कितें येवजिता
तूं कितें उलयता, तीय जाता कविता

तेच खातीर कवीलागी चडशे कोण उलयनात
तांकां दिसता कविते बगर हे कांयच आयकनात

खरें म्हणल्यार कवीक कोणाचें आयकचें लागना
सैमाच्या संगिताफुडें ताका दुसरें कांयच नाका

## ६२१. जिवनसत्वां

जायत्या जाणांक कळना गा कवितेचीं म्हत्वां
बरे कवितेंत आसता खंय सगळीं जिवनसत्वां

जिवनसत्वां पारखुपाक गरज लागना लॅबोरेटरी
कितलोय बटन दामलो तरी बल्ब नासल्यार पेटना बॅट्री

बॅट्रेंत कसलो आसा पावर आमकां दिसना
पेटोवन बोल्सांत घालो तरी मनीस पेटना

## ६२२. कवीची पदवी

कवीची मेळोवपाक पदवी, करचो पडना अर्ज
एक दमडी, एक पयसो, करचो पडना खर्च

अर्ज करून हातासपाची ही पदवी न्हय
कवी जल्माक येता काव्यवारें व्हांवता थंय

# ६२३. परमानंद

नासल्यार जाता कसलो मान, कसलो भौमान
ताच्याय फुडलो परमानंद, कवीच्या मौनांत

मौनांतलो आनंद जगावेगळो, लाब घेवपी दुर्मीळ
भितर कितलें खोल कळना हुंदराचें बीळ

# ६२४. अर्पण

सूख, दूख, निसर्ग आनी आनंद वर्णन
ह्याच कार्याक आख्खें आमचें जिवन अर्पण

पृथ्वीचो घेवपाक आनंद धाडल्यात आमकां हांगा
थोडे घेवन कुराडी आनंदाचीं करतात संवगां

# ६२५. काव्य-स्मरण

जितलें म्हूण करीत रावता काव्य-स्मरण
पयस पयस वचत रावता कवीचें मरण

मरण दिसना तरी स्मरण थारना
कवी उरना तरी कविता मरना

# ६२६. बदनाम

कोण दिता इनाम, कोण करता बदनाम
आमचींच गितां गावन, गावपी जोडटा नांव

गावप्याक जाय आपलें नांव
कवी म्हणटा कोण न्हय हांव
आयज म्हजो हो गांव
फाल्यां मारपी वयर धांव

## ६२७. जिबली

सगळ्यांत गोड जिबली, सगळ्यांत कोडू जिबली
कवीची मात कविता सदांच म्होंवांत बुडिल्ली

गोड गोड उलोवन लोक करून घेता कामां
गोड बरोवन कवी जगाचीं पयस करता दैनां

## ६२८. खोल

कवितेचो अभ्यास करूंक वचचें मुळांत खोल
अर्थ समजून घेतना मात सोडचो न्हय तोल

खोल खोल मुळांत आसता कवितेचो गाभो
एकदा तो सांपडलो की अर्थ जाता सोपो

## ६२९. निवळ

कविता म्हळ्यार बळ, खतखतो आनी सळसळ
पेजेंतलीं कुंयां काडून, उरता तो पुश्टीक निवळ

निवळाचें बळ सगळ्यांक आसा खबर
तरी आयज निवळाची परिस्थिती जबर

जोर रडटा पेजेक आनी पेज सोदता आंबलेक
पोटांत बोवाळ जाल्यार हात ओडटा बोमलेर

## ६३०. रीत मोगाची

मोग करपाची ही म्हजी
रीत अशी वेगळी
ना परवा जगाची
ना भिरांत कोणाची

हांवें तुका भुलयलें काय तूंच म्हाका भुललें ?
अशें कशें कवीत जावन मनांत म्हज्या रिगलें ?

हांवें म्हजी नदर तुज्या अंतरंगांत खोयली
ही म्हजी रीत मात तुकाय बरी पटली

जाग्या जाग्यार कवनां तुजीं आंगार म्हज्या फुटलीं
रसिकांनी गर्दी करून पांटल्यो भरून खुटलीं

## ६३१. मनाचें दार

नाका हार अलंकार, कविता होच कवीचो शिरंगार
कवी येवचे आदीच उगडटा श्रोत्यांच्या मनाचें दार

दार सदांच उगतें आसता कवितेखातीर श्रोत्यांचें
कवीच्या येवकाराक तोरण बांदतात हावेसाचें

## ६३२. पर्जळ

सूर्य आसून इतलो तेंप, काळखांत बसलों हांव
वोतांत उबो रावलों तेन्ना पर्जळूंक लागलों हांव

काळखांत रावन कोणच केन्ना पर्जळ्ळो ना
उजवाडांत गेल्लो कवी काळखांत परतलो ना

## ६३३. भिरांकूळ रानांत

कांयच नासलें थंय, कोणाचो नासलो सांगात
त्याच भिरांकूळ रानांत, कविता म्हज्या मनांत

कविता दिसना जातकच मनांत भरता भिरांत
भंयाक पयस करतकच कविता येता भिऱ्यांत

## ६३४. सोडून गेले

चिंता, हुस्को, आशा, अहंकार, गेले म्हाका सोडून
तेन्ना कविता आपले वटेन लागल्यो म्हाका ओडूंक

कवींक आसता एकूच आदार, कवितेचो धीर
पांदरो उगडो दवरलो तरी उडून वचना काव्यकीर

## ६३५. एक समान

आमचे वरी सगळ्या लोकांक मेळचो बरो मान
सगळे मनीस ह्या जगांत जावचे एक समान

जातीभेद धर्मभेद कोणाच्या बऱ्याक जाय ?
एकसमान जावपाक सगळे कवीच जावंक जाय

## ६३६. असलो एकलो

असलो आसा एकलो, पियेवन कविता करता
सोरोच ताका स्मरता, कविता थंयच उरता

सोऱ्याविणे कविता, फुलांबगर हार
अशें तो म्हणटा
सोरो आनी कविता एकामेकाचे दुस्मान
अशेंय तोच म्हणटा

## ६३७. काव्य-बियां

कवी जंय वता थंय शिंपडायता काव्य-बिंयां
येतेवते वाटसुरे मागीर खायत वतात फळां

खावचीं फळां, बियो मातयेंत उडोवच्यो
एकएक शिंपून वाडोवन, समाज शुध्द करचो

## ६३८. चिकटे विचार

इश्टागतीचे, नात्यागोत्यांचे, विचार भायर घाले
कवितेचे चिकटे विचार वण्टींक दसून रावले

इश्ट मित्र सोयरे दायरे प्रसंगाक पावतात
कवितेचे विचार सर्गा दारांत पावयतात

## ६३९. गोरूं

दीसभर गोरूं म्हजें वेंचून खाता तण
रातभर बसून घरांत रवंथ करता मन

रंवंथ केल्या बगर थोड्यांक कविता पचना
रंवंथ करुनय थोड्यांक सारकी जिरना

## ६४०. आमचो शेलो

जे तोखणायेक पात्र, तांच्या गळ्यांत आमचो शेलो
एका हातांत शास्त्र आमच्या दुसऱ्या हातांत भालो

अपात्राच्या हातांत पडचो न्हय भालो
नेणाराच्या खांदार घालचो न्हय शेलो

## ६४१. गंध

गुलाबाच्या आंगांत जसो उरता सुगंध,
आमच्या मनांत फकत कवितेचो गंध

गुलाबाचें फूल जरी कांट्यांनी जल्मलें
सुगंध दिवन दुसऱ्यांक धादोशीत केले

## ६४२. छंद

पूर्व पश्चीम दक्षीण उत्तर सगळ्यो वाटो बंद
तेन्ना तुजे संगतीक येता कवितेचो छंद

कवितेचो छंद कितें ख्रिणयाळो न्हय
जिणेचो आनंद जल्मभराचो सत्संग

## ६४३. कवी नेटार

थापट मारल्यार मृदंग दिता ध्वनी
बोट तोपल्यार सूर दिता पेटी

तार ओडल्यार वाजूंक लागता सतार
दाद दिल्यार कवी येता नेटार

## ६४४. पावशेय

कुपांनो पावशेय
मनशाक भिजुंदी
थाकाय मेळुंदी
तुमकां वळखुंदी

कुपांनो पावशेय
कोंब फुटुंदी
भूक भागुंदी
सूख मेळुंदी

कुपांनो पावशेय
मनशाक जगुंदी
संवसार चलुंदी
हांसत रावुंदी

## ६४५. ताणे मागलें

निमण्या वेळार ताणे मागलें,
देवा म्हाका कवी कर
देवान सांगलें,
आतां वाट पळय मरसर

जीण तुजी अशीच सोंपली
यणेतेणे करून
आतां तुजें लक्ष लागना
कविता करूंक

## ६४६. धाडोवन

उतराक उतर जुळयतात,
अर्थान अर्थ वळयतात
मारून मुटकून खेळयतात,
धाडोवन पणस पिकयतात
काव्यशक्तीक दुखयतात,
तेन्ना कविताय पिरंगतात

## ६४७. उशट्या हातान

तुजी कविता
म्हज्या नांवान छापतां म्हणल्यार
कोण आयकना
चडशे अशेच आसतात
उशट्या हातान कावळ्याक आमडिनात
तेन्ना कावळेय
उशट्या जेवणाक आफडिनात

## ६४८. पंगऱ्याची साल

तोंड धांपून वाचतात म्हणून थोडे कितेंय बरयतात
आंब्याच्या रुखाक हाडून पंगऱ्याची साल दसयतात

साली वयल्यान श्रोत्यांक झाडाची परिक्षा जाता
पयली पसून आंबे पणस खावन आयिल्ले आसात

## ६४९. बांय

उपाट साहित्य घेवन
वसल्या म्हजी धरा
एका फुडें एक सुंदर
खंयचें वाचूं खंयचें नाका
जीव धादोशीत जायना
असंख्य ग्रंथ असंख्य पुस्तकां
दितात मस्तकार दस्तकां

जीण इतली मोटवी तरी
सगळ्यांक सगळें जाय
खूब उदक दरयाकडें
तान भागयता बांय

## ६५०. तान

दर एकल्याची वेगळी तान
तरी तान हीच जान
थोड्यांची भागना तांबयान
थोड्यांची भागता एका घोंटान

पिवपी कितेंय पियेता
पियेत पियेत जियेता
केन्नाय कविता वियेता
देखून आनीक जियेता

## ६५१. नांव

तिची करता सेवा ताका ती केन्नाच विसरना
नांव ताचें साहित्यांतलें कशेंच पुसून वचना

थोडे म्हणटात कविता कशोय जावं
म्हाका जाय नांव
प्रसिध्दीच्या घोड्यार बसून
धांव धांव फुडें पाव

## ६५२. अरसिकाक

बरो सुगंध येता म्हूण, चेर केन्ना पिवचो न्हय
सुंदर दिसता म्हूण, अरसिकाक साथ दिवचो न्हय

अरसिकाचें आसता वेगळें शास्त्र
हातार कितेंय पडले बगर घेवपी न्हय त्रास

त्रास घेनासतना साधूंक सोदतात सुवार्थ
तुजी कविता आयकतात तोच तांचो परमार्थ

## ६५३. मनांत कविता

फांतोड जायना कोंब्यान साद घालून
रात़ जायना दोळे धांपले म्हणून
गांवकार जायना खोकून खोकून
कवी जायना मनांत कविता दवरून

## ६५४. सूर संदेश

कांय कवितांचे सूर गाजतात कोगळावरी
पूण संदेश मात दितात शिंवावरी

शिंवाक आनी कोगळाक
एका जाग्यार बसोवचे
सूर आनी संदेश
वांगडाच गावंक लावचे

## ६५५. काव्यसुरयो

आमी आतां भीक घालनात दुस्मानांच्या घुरयांक
कवी धार काडून रावल्यात आपल्या काव्यसुरयांक

कवीचेर आगळीक करतल्यांनी हें मतींत धरचें
काव्यमनशाक त्रास करचे आदी दोनदा चिंतचें

## ६५६. साकर

कविता तुमकां उपकारना म्हणटात तें विसर
कविता समजल्यार चडिल्ली देंवता साकर

साकर नासतना मनीस ना, कवीक मात चड ना
देंवली तरी, चडली तरी, कवी केन्नाच रडना

## ६५७. प्रेशर

पळोवं नाका दुसऱ्याच्या दोळ्यांतलें मुसळ आनी किसर
कविता आयकून गुळी घेनासतना जाग्यार पडटा प्रेशर

थोड्यांक दिसता आपणेय हेंच वखद करचें
तेखातीर ताणे संमेलनांत वचून बसचें

## ६५८. वरदान

जांकां लाबलां काव्य रचनेचें वरदान
तांणी तीर धरून अचूक सोडचे बाण
मतींत दवरून समाजसेवेची जाण
वाडोवचो काव्य साहित्याचो मान

## ६५९. आंबो

कांय कविता पाडटात, कांय आपशीच घडटात
पाडिल्ल्यो दिस्त वासावयल्यान कळटात

झाडपिको आंबो कोणाक दिसना खावचो ?
जबरदस्तीन पिकयल्लो नाइलाजान खावचो

## ६६०. शिजली कविता

झाडावयलें फळ लेगीत धुयल्या बगर खावचें न्हय
शिजली जरी कविता चाखल्या बगर वाडची न्हय

धुवन पुसून थेयल्लें फळ जिबेक उदक सोडटा
भितर कितें कुसलां तें घांस मारतकच कळटा

## ६६१. दोळे धांपून

कविता खंय आसा, खंय ना कोणाक कळना
दोळे धांपून पळयल्या बगर कोणाक दिसना

दोळे धांपप म्हळ्यार न्हिदप न्हय
दोळे उगडप म्हळ्यार जागप न्हय

कांय जाण दोळे उगडून न्हिदतात
कांय थोडे दोळे धांपून जागतात

## ६६२. जाय थंय

कविता तुका तारता, तुजेखातीर झरता
मनाक मारल्यार तुका ती जाय थंय व्हरता

तुवें तिका आपणावंक जाय
अंतस्कर्णांत बसोवंक जाय
नदर मारता ते वस्तीचें
भांगर करून सोडटा

## ६६३. फितां

कविता आसल्यार झळकता, नातर कोण वळखता ?
कविता म्हळ्यार चार चौगांत भुजार तुज्या फितां

कविता म्हळ्यार गळसरी, चपलाहार, भांगतिळो सरपळी
कविता म्हळ्यार बाजुबंद, तोडे, पाटल्यो, फुलां कडकडीं

## ६६४. अखंड दिवो

कवितेचो दिवो अखंड पूण मिणमिणटो
जाका दिसना तो नदरेन मात्सो उणो

आत्म्याचे दिवलेक श्रद्धेचें घाल तेल
काळखांतलें काव्य लेगीत वयले वयर झेल

नदर जाची उणी ताकाय आसा उपाय
सैम, धरती, प्रकृतीचो घेवचो कसाय

## ६६५. शेंपडी

कविता करतात तितलेय कवी-समाजाचे वांगडी
बाकी सगळ्यांची शेंपडी वांकडी ती वांकडी

शेंपडी जरी वांकडी, तकली तांची चलता
धन दौलत हातांत येतांच बुद्दी भ्रश्ट जाता

## ६६६. दीक

कविता म्हळ्यार निसर्गपाल्याचो पिळून काडिल्लो दीक
त्या दिकाचो वास घेतांच रसीक जाता सोशीक

असलो दीक पियेवन लेगीत थोडे उरताच अरसीक
तांकां दिसता ते सदांच अशेच आसतात खोशी

## ६६७. करंट

कविता वाचपाक थोड्या कवींक मारची पडटा पीन
ताळयांचो करंट दिल्यार लायट पेट्टा बेगीन

पेटली तरी पेटूंक जायना चडूच डीम
श्रोत्यांनीच ताका घालून दिवची शीम

## ६६८. ब्रह्मगांठ

कवीचो कवितेकडें संबंध इतलो दाट
ब्रह्मदेवानच तांची बांदल्या ब्रह्मगांठ

ब्रह्मगांठ बांदल्यार कसलीच ना भिरांत
कवितेंत ताच्या येतलें हटकून ब्रह्मगिन्यान

## ६६९. चिमटीभर

घोटभर उदकांत चिमटीभर साखर घाल
उदक जातलें गोड गोड
संमेलनांत एकूच कविता वाच
कवी जातलो व्हड व्हड

## ६७०. खोटें नाणे

कवितेक लायतकच चाल, सुरबूस जाता गाणें
एक सूर चुकलो तर, खोटें जाता नाणें

कवी आनी संगितकार, दोन वेगळे कलाकार
एक उतरांक दिता आकार, दुसरो सूर करता साकार

## ६७१. धूप

कविते तुजें कर्तुप अपरूप खूब खूब खूब
अस्तित्वाच्या यादींचो धूप धूप धूप

म्हजें अस्तित्व हांव तुजेमुखार दवरतां
तूं जें करता ताचो स्विकार करतां

## ६७२. गळ्यांत हात

दोळे उगडून हांवें एक उलो मारला मात
कवितेन येवन गळ्यांत म्हज्या घालो हात

कवितेचे हात सदांच आमच्या गळ्यांत
आमकां दिसना कारण मनाचे दोळे बंद

## ६७३. पोती भर

रीण काड सैमाचें, पोती तुजी भर
ना परतफेड, ना हप्ते, ना कळंतर

सैम तुजें, तूं सैमाचो
ना भेदाभेद
ना चिंता, ना हुसको
कविताच सोद

कविता तुका सोदची लागना
दोंगर, दरया, झाडांपेडां
वलो पालो, सुको पालो
मारीत आसा तुका उलो

## ६७४. उले

वेळेर बसून आयकत राव उले दर्याचे
सावळेंत लोळून रचीत राव कवीत सुर्याचें

सुर्याच्या उल्यांत गरमी तेजाची
दर्याच्या गाजांत वलसाण काव्याची
तेज आनी गाज मेळून
उदरगत जगाची

## ६७५. कुरवाळटा

तीच आमकां दिता उर्बा तीच करता मनसेवा
दुःखी कश्टी मनभावनां तीच कुरवाळटा

पिडीत मनशाक आयच्या जगांत कोण विचारता ?
कविताच कानाक तोंड लावन ल्हवच पाचारता

## ६७६. प्रसिध्द

कविता बरी आसल्यार प्रसिध्दीक लाय चूड
आपले आपूण वता पर्जळून आपलीच गर्भकूड

काव्याचो संदेश आनी गिताची धून
व्हरतली तुका काव्यांगणांत ओडून
काव्य तुजेर आसल्यार प्रसन्न
येतली प्रसिद्धी म्हर्‍यांत धांवून

## ६७७. चाकां

कविते... तुकाच लागून फुट्टात म्हाका पांखां
जमनीर पांय थेयतांच पांयांक फुट्टात चाकां

उडून म्हाका दाखयतात पांखां विश्वकाव्यां
भोंवडावन दाखयतात पांय मनशा अंतरंगां

## ६७८. कवींची रास

गांवागांवांत वाड्यावाड्यांत कवींची रास
चलतां भोंवतां आयकूंक येता कवितेची भास

कवितेचे भाशेक येता अंतस्कर्णा वास
अंतस्कर्णा वासांत आसा प्रगतीचो ध्यास

भायर भितर खिणा खिणा काव्यश्वास
पावला पावलाक रुजून येता कविता खास

## ६७९. अमरत्व

कविते... तूंच म्हजें सर्वस्व, तूंच म्हजें अस्तित्व
तुजे सेवेंत लाबूं येता म्हजें म्हाका अमरत्व

अमरत्वा परस चड हांव भोगतां तुजो आनंद
म्हजे भक्तीक दी शक्ती रचूंक गीत अभंग

## ६८०. काव्य झिरपता

मळबांतलीं कुपां वेरेतात तेन्ना काव्य झिरपता
काळोख पातळटा तेन्ना चंद्रीम कविता शिंपडायता

ह्या पावसांत म्हाका भिजुंदी, आंगांत कविता रुजुंदी
त्योच कविता गावंदी, तुजो संदेश संवसाराक पावंदी

## ६८१. व्हाळ तुंबले

तुमी उडयलो कोयर देखून आमचे काव्य-व्हाळ तुंबले
आतां कोयर वतलो व्हांवन कारण सगळेच कवी खुबले

पवित्र आमची साधना
पवित्र आमचें कार्य
बऱ्या कामांत नाका विघ्न
जाता जाल्यार करात सहकार्य

## ६८२. पावलांखुणो

जंय गेले थंय आमच्यो पावलांखुणो उमटल्यो
काळोख पडलो तरी रसिकांलागी उलयल्यो

गेले थंय जोडले आमी साहित्यीक संबंध
काव्याक केलो फुडो तांणी वायट केलें बंद

काव्याक रावले लागी लागी ते
फातरा लागी उलयले
समाजान तांकां चुकयले तेन्ना
मातयेन सांबाळ्ळे

## ६८३. म्हातारपणांत साद

ल्हान सान भुरग्यांक लेगीत येता कवितेची याद
जाण्टेपणांत, म्हातारपणांत त्योच घालतात साद

कोण नासता म्हऱ्यांत तेन्ना कविता येता धांवन
ह्या वयार लेगीत म्हणटा हांवच तुका पावन

## ६८४. दुर्गुणांचेर मात

कवितेन कोणाचो केलोना घात, दुर्गुणांचेर केली मात
खरें दिसना तर तुमी जाय तशी करात रुजवात

दुर्गुणांचो खेव आनी सद्गुणांचो भाव
कोणामदें दिसता तुमकां शांतिकाये अभाव ?

## ६८५. कविता खेळयतात

भाटां बेसां, शेतां कुळागरां तुमी वसयतात
ताचेर आमी जाय तशे कविता खेळयतात

शेतांभाटां म्हळ्यार तुमकां दुडू जोडपा साधन
आमकां तांतूत मेळटा तें दिव्य काव्यधन

## ६८६. सपणां

कोणेतरी चिड्डिल्यां आसत फुडाराचीं सपनां
कवितेचो हात धरून चडचीं उदरगतीचीं सपणां

सपणा सपणार पडुंदी तुजीं पावलां भक्कम
दरेकांत आसचो दम, एकूय नासचें मध्यम

## ६८७. करनात भेद

कोण भाटकार, कोण मुंडकार, आपले परके
आमी करनात भेद
आमकां प्रसन्न करपाक आसची पडटा
नदर तशी उमेद
उमेदीन मनीस खंयचो खंय पावता
करचो लागना बेत

## ६८८. करात साफ

तुमकां जांणी चिड्डिल्यात, तांकां करू नाकात माफ
कवितेची तरसाद घेयात आनी करात अन्याय साफ

तरसाद पाजून काडात बरी उतरांची धार
भावनांचे वार करून अरिश्टांक करात थार

## ६८९. काळजांतल्यान

जांकां दोळे नात तांणी मनांतल्यान पळोवचें
जांकां कविता भावता तांणी काळजांतल्यान आयकुचें

दोळे आनी मन हांचें लागीचें नातें
एकल्याक दिसना तर दुसऱ्यान दाखोवचें

काळीज म्हळ्यार कविता सांठोवचें तपलें
ताका भावल्या बगर तें भितर ना घेवचें

## ६९०. नाजूक मन

दोळे आसले म्हूण जायना, दोळ्यांत नदर आसूंक जाय
नदर आसली म्हूण जायना, नाजूक मन आसूंक जाय

नदर नासल्यार दोळ्यांक कसलेंच मोल ना
मन नासल्यार मनशाक मनीस म्हणू येना

## ६९१. धनवान

दुडू आसात आनी कविता नात, तर तूं निर्धन
दुडू ना पूण कविता आसात, तर तूं धनवान

दुडवां धनाक लाय चुट्टी, येवंदी कवितांची बुडटी
मार बूड मार हात, वायट कर्मांक दी सुट्टी

## ६९२. बोमाडो

आंगांत दुर्गुण भरिल्लो म्हणटा, हांव केन्ना सरतलों वयर
कवितेचो गॅस भरल्यार, बोमाडो लेगीत उडटा वयर

काव्यगॅस तुका नाका तर थंयच राव रडू नाका
दुर्गुणांचेर मार खोंट, कोणाचें कांयच आयकू नाका

## ६९३. चिखल

नितळ सुंदर रंगीत साळीक जल्म घेता चिखलांत
चिखलाचीय गरज लागना कविता रुजून येवपाक

चिखल न्हय, जमीन न्हय, फातर न्हय माती
जिद्द जाय, उमेद जाय, निर्भीड जाय शाती

## ६९४. शेणटा

चड उलयल्यार झगडें वाडटा, वगी रावल्यार पालवता
वगीच बसल्यार कविता जल्मता, उलयत रावल्यार शेणटा

उलयता कित्याक? शेणयता कित्याक? जाय तितल्यो जल्मुंदी
तुज्या मौनांत बरें जाता तर सगळें बरेंच जावंदी

## ६९५. सुटलो बाण

धनुष्यांतल्यान सोडपाक बाण जाय पडटा धनुर्धारी
बाण सुटच्या आदीच कवीक फुट्टात काव्यझरी

काव्यझरीक सुमार ना, न्हातल्या पितल्याक बंधन ना
कवी बगर रसिकाचो कवितेकडें संबंध ना

## ६९६. नुस्तें

कवी संमेलना बगर कवी, उदका भायर नुस्तें
कविता तांच्यो आयकप, सुंगटां कडये भुसकें

कवींमदें एकूच रड, हांव व्हड तर तूं व्हड
शिंवान घाली गरड तर शिंगां जायनात जड

## ६९७. थेंब थेंब रस

कवितेचो रस तकलेंत थेंब थेंब पडटा
एक एक थेंब मेळून कविता घडटा

सैमांतले तालसूर कवितेक जुळटा
तेन्ना कवितेक नवजिवन मेळटा

# ६९८. थवय जालो गवय

एक आसलो बेकार थवय
सोप्यार बसतालो, कुले तासतालो
थंय आयलो एक गवय
गितां रचून गावंक लागलो

थवय जालो अजाप
ताणे गवयाक केली जाप
गवयान गावन परतिली
थवयाचेर पडलो छाप
म्हणलें, म्हाकाय शिकय तुजी कला
गावप्यान सांगलें, गितां आयकुनूच हांव कवी जालां
गावन गावन ताळो जाला गोड
ल्हानपणा सावन म्हाका गावपाचीच आवड

विन्नें तुतयार वाजयत
थवय गेलो गवया फाटल्यान
तो गायता तशेंच आपूण लागलो गावंक
विन्नें वाजयत गितां गायत
तागेरूच लागलो रावंक

कविता करून गावपाची, थवयाची वाडली गती
काव्य आनी गायनाची वाडत गेली प्रगती
रेडिओ, टिवी, सिनेमानी तो लागलो गावंक
व्हडल्यो म्हारग्यो आयल्यो गाडयो
ताका व्हरूंक आनी पावंक
ताणे म्हणलें जाय थंय येतां, जाय थंय गायतां
प्रोग्राम सोंपतांच मात म्हाका

गवयागेर व्हरून पावय
आनी त्या गवयाक बरें बरें खावय

अशें करून कुले तासपी थवय
व्हडलो जालो गवय

## ६९९. विचार

तुजें अस्तित्व विचारांचें फळ
उतरां विणे मृगजळ

विचार अमर अज्रंवर
प्रवास संवसार भर

उतरां शेणटलीं, उरतले विचार
टिकतात तीं करतात प्रवास
सात समदिरा भायर
चारित्र्याचेर विचारांची छटा
जीण विचारांचेर घडटा

## ७००. संग

दर काव्याक दर कवीचो वेगळो वेगळो रंग
संग नासलो एकामेकाचो तरी कल्पने तरंग

कल्पनेचे तरंग ताका संगिताचो संग
तरंगांत गितां गावपांत निसर्ग दंग

## ७०१. कुहू..कुहू

कुहू कुहू कोगूळ गायता, आवाज म्हजो गोड
कवी म्हणटा आवाज तुजो म्हज्या ताळ्याक जोड

आवाज तुजो जोडलो म्हूण हांव जावचोना गावपी
झाडार बसून मैफल सुकण्यांची तुवेंच सजोवची

## ७०२. बंद मूठ

ताचे बंद मुठींत कितें आसा
कोणाक खबर ना
ताणे आपली मूठ
केन्नाच कोणा सामकार
उगती केली ना

कितेंय आसूं, कांय नासूं
ताची मूठ एक गूढ
सगळ्यांक उत्सुकताय
...कितें आसा काय !...
जिवीत भर तो
बंद मूठ घेवन जगलो
निमण्या वेळार जबरदस्तीन
ताची मूठ उगती करची पडली
ताळटार बरयल्ली आसली
आख्ख्या जिविताची काणी

जंय कांयच नासता
थंय कविता आसता
खरें

## ७०३. गैरसमज

कविता आयकून कोगूळ गायता देवा..देवा..
लोक म्हणटा तें आपयता आपल्या घोवा

कळना जातकच कविता असो जाता गैरसमज
कोगूळ सांगता कवीराजा, तूं कवितांकच भज

तुजे कवितेक जाय जाल्यार हांव दितां संगीत
गांवागांवांत गावन तुजें नामना पावयतां गीत

## ७०४. म्हजे भितर

कविता सोदूंक भोंवलों हांव हांगा थंय जगभर
दोळे धांपून पळयलें तेन्ना, कविता म्हजे भितर

हांगा थंय भोंवले बगर तूं कवितेक दिसना
उदक आंगार पडले बगर मनीस भिजना

## ७०५. बळिश्ट

म्हज्या हातांत सत्ता, कितें तुज्या हातांत सांगता ?
सत्ते परस बळिश्ट अशी, तुजेर बरयल्ली कविता

सत्ता तुजी दोन दिसांची
उपरांत तुका कोण खायना
रूच कवीचे कवितेची
केन्नाच उणी जायना

## ७०६. जल्म फुकट

आसूं नासूं उंची कपडे, बंगलो, गाडी, सूट बूट
साहित्य तुवें रचलेंना तर जल्म वतलो फुकट

ऊठ मनशा ऊठ
तूं साहित्यूच रच
मनशा जिणेर पडिल्ले ते
दुर्गुणांचे दाग पूस

## ७०७. तुजो उध्दार

जावं तो पेडणेकार, काणकोणकार जावं सतरकार
कविते बगर कोणूच तुजो करचोना उध्दार

कवी न्हय पसरकार, चणेकार न्हय खाजेकार
कवी हो जितो जागतो आमचे मदलो साहित्यकार

## ७०८. कोण आसा ?

कोण आसा हांगा, जाका आवडना कविता ?
कवितेचीच भास सगळ्यांक बरी समजता

हीच भास मनशाक चड संवकळीची
तिकाच म्हणटात भास खरी काळजाची

## ७०९. तकली जाग्यार

संवसाराचें चिंतूंक बसल्यार तकली जाता बेजार
कवितेचें चिंतूंक लागल्यार तकली उरता जाग्यार

आयचें आयज फायचें फाल्यां
म्हणटात ते फाल्यां दुखी
आयचें आयज फायचेंय आयज
म्हणटात ते सदासुखी

## ७१०. रचीत बस

कविते विणे तुजें, गेलें अख्खें जिवीत
आतां तरी एक एक, रचीत बस कवीत

एक एक कवीत म्हळ्यार सपण सर्गाचें
जाय तेन्ना चडपाचें, जाय थंय बसपाचें

## ७११. तांबडें वक्ल

सुंदर जग आसलें तरी थोड्यांक दिसता वांकडें
तांबडें वक्ल लायलें म्हणटच सगळेंच दिसता तांबडें

सुंदर जग पळोवपाक
गरज नासता वक्लाची
आसा तशेंच दिसचे खातीर
गरज तकलेची आनी अकलेची

## ७१२. विकूंक काडल्यार

कविता कांयच घेना, फकत दुसऱ्यांक दिता
तिका विकूंक काडल्यार तांतलें काव्य सोंपता

काव्य आसा म्हणून कविता, अशें समजू नाका
कवितेंत काव्य काव्यांत कविता अशें समजू येता

## ७१३. एके वळीन

एका फुलान जायना माळ,
एका फातरान जायना घर
एका पानान जायना पंगत
एका झाडान जायना रान,
एका मनशान जायना समाज
एका पांखान जायना मोर
एका थेंब्यान जायना पावस
एका हातान वाजना ताळी
एका बुरकान जायना जाळी
एका दांतान जायना कवळी
एका कवीन जायना संमेलन
एका उतरान जाता मिलन
एके वळीन जाता कविता
उतरा विणे मोनो उलयता
दोळ्यां विणे कुड्डो पळयता
पांयाविणे कविता जाता

## ७१४. बेगडीचें फूल

झाडा वयल्या फुलार थोडीच बसता धूळ
मारून मुटकून केल्ली कविता बेगडीचें फूल

बेगडीच्या फुलांतली कलाकृती खास
चेर अत्तर लायलें तरी खिणयाळो वास

## ७१५. मनाक थातारपाक

मन जाता सैरभैर तेन्ना कवितेक भज
मनाक तुज्या थातारपाक कवितेची गरज

तीच तुका थापटितली थाकाय मेळसर
न्हिदे गीत गायतली न्हीद लागसर

## ७१६. कविता घडटाच

सूर्य घुबडाक दिसना तरी तो आसताच
कविता थोड्यांक कळना तरी त्यो घडटाच

समजना तांणी समजूंक करचे प्रयत्न
काव्यार्थ समजप म्हळ्यार हाताक लागप रत्न

## ७१७. घेयत रावात

आमी तुमकां दियत रावतात, तुमी घेयत रावात
घेवन वापरून जातकच, दुसऱ्यांक दिवंक लागात

प्रसार आनी प्रचार कवितेचो असोच जावंक जाय
कवीचे संदेश हे सगळ्यां मेरेन पावंक जाय

## ७१८. जिवाक थाकाय

ताकाच लागून मनशा तुमच्या जिवाक मेळटा थाकाय
ताचेच सेवेन पर्जळटात आयज काव्यदिको धाय

तेन्नाच मनीस म्हणटा पळय कितलें सुंदर जग
सोबितकायेन जग आनी धादोसकायेन वच

## ७१९. आमी तळ्यांत

कविता हें पडबींब, मूळ बींब खूब सुंदर
आमी आसात तळ्यांत, तो व्हडलो समुंदर

बिम्ब नासल्यार पडबिम्ब दोळ्यांक दिसना
कविता कितलीय सुंदर आसूं समजावंक जमना

## ७२०. बूड मार

एक थेंबो जिबेर दवरून कळटा दरया खारसाण
बूड मारून पेंवल्या उपरांत कळटा ताची खरसाण

दरया कितलो खर आनी तूं ताचेर वयर
इतलेंय करूंक जायना ? कितें करतलो तर?

दरया तुका आपयता, आयल्या दिसा तापयता
सूर ताल कळयता, तूंच ताका जळयता

## ७२१. दोन व्हड्यांर

दोन व्हड्यांर पांय दवरून जगतात थोडे सुखान
एक हात दुदांत तांचो, एक हात धंयांत

दूद धंय दोनय मनशा तुका आवडूंक जाय
एके खेपेक एकच हात सारको ल्हेवूंक जाय

## ७२२. सोक्षमोक्ष

जग कितें म्हणटलें थंय दिवंचें न्हय लक्ष
ताचेरूच एक कविता करून लावचो सोक्षमोक्ष

कान भरले म्हणटकच तोंड जाता उगतें
मन भरलें म्हणटकच दोळे जातात वले

तोंड बंद करपाक कविताच बरो उपाय
मन जाग्यार हाडपाक एक गीत गाय

## ७२३. कवीच्या माथ्यार

काव्यनिर्मणेचो हेरांक समजूंक कठीन गूट
कविता म्हळ्यार कवीच्या माथ्यार काव्यमोतयां मुकूट

मुकूट चडोवंक श्रोतेच जापसालदार
कवीच्या फुडाराचो खरो तांचेरूच भार

## ७२४. शुध्द करूंक

धन शुध्द करूंक दिवचें दान,
मन शुध्द करूंक लावचें ध्यान
समाजांत वाडोवंक आपलो मान
पुरो एकूच कवितेचें पान

## ७२५. दोश

प्रत्येक मनशांत आसता एक तरी दोश
कविता वाचून जावचो ताणे पुराय निर्दोश

कविता म्हणटा, हांव पुराय करतां तुजो सोस
म्हज्या सत्वगुणांनी जळोवन उडयतां दरेक दोश

## ७२६. अजून

कदिमकाळांत काव्यमोग्यांनी केली बरीच अपुरबाय
अजून मनोरंजनाक आमच्या हाजिरी ताची जाय

सुरू करचे आदी कार्य गीत गावंक जाय
गीत गायनासतना जातलो सुको येवकार !

## ७२७. अमरपटो

कवी सदांच भ्रमांत, सूख ताच्या दोळ्यांत
अमरपटो गळ्यांत, मरणाची ना भिरांत

जीण जाका समजल्या, भंय दिसना मरणांत
एक पांय जिणेंत ताचो, एक पांय मरणांत

खंय वता मनीस खरो मेल्या उपरांत
जाका खबर, तो बसूंक भियेना मसणांत

## ७२८. काव्य-तरसाद

कवीक नासता वेगळी जात
ताचे कमरेक काव्य-तरसाद
ताका कविता घालता साद
तेन्ना उजळटा फाटली याद

तरसाद ताका वावुडची लागना
कोणा पोटाक तोपची पडना
तरसादेची धारूच दुसऱ्यांक
दाखयता आपली जात

## ७२९. तेंच शीक

गरज आसा जागोवंक भितरली उमळशीक
कविता करचे आदी तेंच करूंक शीक

अशो कितल्योच इत्सा तुवें भितरले भितर चिड्डिल्यात
लोकलज्जेन आत्मभिडेन थंयचे थंयच भड्डिल्यात

## ७३०. देवासन

कितलीय आसूं पिराय तुजी
वीस, पन्नास, अंयशीं
कवी म्हणून जगशी,
परतून जल्माक येवशी

परतून जल्माक आयलो जर तूं
कविताच करशी
काव्य काव्य म्हणत वचून
देवासनार बसशी

## ७३१. निर्धनाक धन

कवितेचें करात चिंतन, कल्पनेचें मनन
पातकां पळटलीं पयस, निर्धनाक मेळटलें धन

हें धन दिव्य धन, खर्चून सोंपपाचें न्हय
दिता तितलें वाडत रावता खंय

सांठोवन दवरशी घुस्मट्टलें
तुजें तुकाच पिसुट्टलें

## ७३२. जायना भंग

वेगवेगळे रंग मनाक करतात तंग
केन्नाच जायना भंग तो कवितेचो संग

कवितेचो संग म्हळ्यार इश्वराचो सत्संग
जितलें करता चिंतन तितले उडटात तरंग

## ७३३. कवी आवडटा

काव्य आवडटा म्हणून देवाक कवी आवडटा
तुमकां आयकवच्यो म्हणून ताका धरतेर धाडटा

कवीक देवान धाडला हांगा तुमकां करूंक शाणे
हेंच कार्य करचें म्हूण तायट केल्यात कणे

## ७३४. कविता शिंपडटा

देवाक कवीची चिंता देखून तो झाडां शिंपता
बऱ्यो बऱ्यो कविता झाडाझाडार शिंपडटा

सोपेपणान दिसच्यो म्हूण तांकां दिल्यात रंग
ताच्या ह्या आदेशाचो कोणेच करचो न्हय भंग

हीं फुलां काडपाक लागना एक दमडी
येतो वतो खुंटून व्हरता पोरां लेगीत शेमडीं

## ७३५. खरे शाणे

एक एक खीण तुजो वता कविते विणे
कविता करूंक लागले तेच खरे शाणे

कविते विणे जिणे, कल्पनाच करू नज
आयुश्यभर मरसर तम आनी रज

## ७३६. जगतात कशे ?

थोडे म्हणटात कविता करतात ते पिशे
कवी म्हणटात करनात ते जगतात कशे ?

खाता जेवता पोट भरता तें कुडी खातीर
केन्ना तुमी दितले खाण मेंदवा खातीर ?

## ७३७. सदाशीव

आपले भितर कोले थोडे, आपले भितर शींव
हेंय नाका, तेंय नाका, एक जीव सदाशीव

आपले भितर जगलो म्हूण कांय कोणाचें अडना
दुसऱ्या खातीर जगता तो धरतीक जड जायना

## ७३८. तारया विणे

कविते विणे जिवीत म्हळ्यार तारया विणे व्हडें
सांगू नज व्हडें ताचें लोटोन वचत खंयचे कडें

खंयय गेलें तरी व्हडें उदका फाटीर आसतलें
तारयो नासल्यार उदक भरून तळाक पावतलें

## ७३९. वाडयता गती

सदोश सभाव मनशाची आडयता प्रगती
सभाव सुधारून कविता वाडयता गती

कविता तकलेंत भर आनी दुर्गूण पयस कर
दुसऱ्याक तुजें दुखलें तर तूंच हायस कर

## ७४०. सभावगूण

कितल्यो तरी भरल्यात कविता तुज्या म्हज्या सभावांत
त्योच पारखून काडटा सोदून आनी दाखयता समाजाक

पळय आमचो कवी कितलें कठीन काम करता
दिसनात ते सभावगूण तोच सोदून काडटा

## ७४१. सांठो

तुजें उलोवप कविता, रडप हांसप उडप कविता
चलपा भोंवपांत खावपा वागपांत भरल्यात कविता

तूंच म्हळ्यार मनशा एक कवितांचो सांठो
दर कवीन बरोवन थेवचो आपापलो वांटो

## ७४२. फटयता

सूख दूख दोनय कवी हांसत हांसत पचयता
कवी न्हय तो दुखी आसून हांसून फटयता

फटयता स्वताक आनी फटयता हेरांक
फटयता तो सांपडटा जल्ममृत्युच्या फेऱ्यांत

## ७४३. जिणेचें ध्येय

पश्चात्ताप केल्यार पातक्याची जीण बदलता
कविता केल्यार जिणेचें ध्येय बदलता

पातकां केल्यार जीण बेगीन सोंपता
पुण्य कमायल्यार आसा तितलीच उरता

## ७४४. साथ

नदरेक मनाचो आदार नासत, वस्त आसून दिसना
मनाक काव्या साथ नासत, वस्त दिसून फायदो ना

जिणेक काव्या वास नासत जिणेंत ना उर्बा
काव्यान भरिल्ल्या काव्यजिणेक कसलीच ना परवा

## ७४५. साक्षात्कार

चमत्कार करतल्याक नमस्कार करपी खूब आसात
कवितेच्या चमत्काराचो थोड्यांकूच जाता साक्षात्कार

साक्षात्कार जावपाक करची पडटा साधना
ध्यास लागून करची दिसभर आराधना

## ७४६. आनंद चड

दुसऱ्याक दिवपांत आनंद आसता चड
कविता करपांत ताचे परस व्हड

दिवच्या बदला घेवपीच हांगा भरल्यात
घेवन घेवन आपल्योच पोटल्यो भरल्यात

कांयच दिवंक सोदना तर एक कविताच दी
ताका सांग निरोगी जावपाक हो काव्यरस पी

## ७४७. सदांच मान

आयचो इश्ट फाल्यां जाता दुस्मान
कवीक लेगीत सदांच कोण दिना मान

नाका कोणाचो मान ताका नाका कोणाचें दान
ताचे तकलेंत घुंवता फकत कवितेचें पान

## ७४८. गंमत

जो कविता करता ताकाच कळटा कवीची किंमत
अरसीक लेगीत जाता कवी, ही संगतीची गंमत

करता कविता, गायता कविता आपशीच येता हिंमत
सगळ्याच कवींचें ह्या विशयाचेर जरूर जाता एकमत

## ७४९. जिणें व्यर्थ

कविता सुचून जाता कवी, जिणेंत भरता अर्थ
जाका आवडना कविता, ताचें जिणें व्यर्थ

कविता म्हळ्यार कवीच्या आंगाचो एक भाग
कवीक जाता वेदना लागल्यार कसलोय दाग

## ७५०. संमेलनाक व्हर

हर म्हणल्यार भर तरी संमेलनाक व्हर
आयकून आयकून ल्हान व्हड कविताच कर

आयकून करता तो उपरांत आयकप विसरता
ल्हव ल्हव ताची मती काव्यदिकेन चलता

## ७५१. वेसन

स्वताक सुधारपाचें कविता हेंच बरें साधन
कविता करप हेंच सगळ्यांत श्रेष्ठ वेसन

वायट मनीस करता वायट वायट कर्मा
बऱ्या मनशांत मुळचींच कवितेचीं बियां

## ७५२. सोडून वचना

खंयचोच मनीस हांगा सदांकाळ रावपाक येवंकना
एकदा जल्मल्ली कविता मात धरती सोडून वचना

तुवें केल्ली कविता तुका सोडून वतली
जगभर भोंवतली, रसिकाच्या तकलेंत रावतली

## ७५३. हांव तळमळटां

हांव हांगा तळमळटां पुनवेच्या चान्न्यांक
कविता म्हजी वेंगायता ताऱ्यांक आनी गिऱ्यांक

म्हज्यांत खंय बळ तांच्या म्हऱ्यांत वचपाचें!
पुनवेच्या चान्न्यांतच समाधान मानपाचें

## ७५४. पुण्ण्यां

सगळीं पातकां एकठांय बांद
पोटली माथ्यार दवर
सगळीं पुण्ण्यां तकलेंत भर
एक कविता कर

पुण्ण्यांचेरच कविता जाता अशें म्हणना हांव
पातकांच्या कवितांनी कोण जातलो साव?

## ७५५. मौनांतल्यान

उलोवंक येना आयकूंक येना तोय एक कवी
मौनांतल्यान जाय थंय जाय तेन्ना मारपी भोंवडी

आयकूंक आयलेंना तरी मनशान मन उगडूंक जाय
कांयच दिसलेंना तरी मनांतल्यान पळोवंक जाय

## ७५६. काव्यदान

अन्नदान, वस्त्रदान, गृहदान व्हड दान
सगळ्यांत श्रेष्ठ दान म्हळ्यार काव्यदान

## ७५७. पिसो कवी

काव्यपिसो जाले बगर मनीस जायना कवी
पिसो कवी हीच ताका दिल्ली व्हडली पदवी

पदव्यो घेवन कांय जाण बसल्यात घराकडें
कविता तांकां उलो मारीत येतात दाराकडें

## ७५८. काव्य-चिंतन

धवो शाबू लायलो म्हूण काळी साडी जायना धवी
काव्य-चिंतन करून मनीस जाता खांपो कवी

चिंतन आनी मंथन कवीन करचें काव्याचें
बरें येवजिल्यार बरेंच जातलें ह्या विश्वाचें

## ७५९. सर्गप्राप्ती

बुद्दीचो उपयोग जो काव्यप्राप्तीक करता
तोच खरो बुदवंत सर्गप्राप्तीक पावता

## ७६०. दिवो पेटय

शेजारचो दिव्या उजवाड
जनेलांतल्यान तुज्या घरांत पडटा
त्या उजवाडांत बसून
बरयतलो म्हूण रावू नाका...

ना.. तो जनेल धांपचोना
कारण तुका तो
आपले पांगेंत दवरूंक सोदता.
तूंच तुजें जनेल बंद कर
तुजो निजाचो दिवो पेटय
आनी बरय तुका जाय तशें

घरभर लख्ख उजवाड पडटलो
दिसतले सगळे खांचखळगे
बरयत बस
तुज्याच दिव्यापोंदा
गरज पडल्यार जनेल उगड
ताचेय तकलेर पडुंदी उजवाड

## ७६१. एकाग्र

दोळे धांपले म्हणटकच
तूं समजता
कवी आमचो न्हिदता
काव्य-देवतेन दिल्ली कविता
तो एकाग्र जावन वाचता

## ७६२. कवी मरतात

चार पांयांचीं जनावरां पोट भरपाक जगतात
दोन पांयांचे कवी कविताच करून मरतात

कवीक मेळटा कवितेंतल्यान संजिवनी
तोच खरो काव्यखणीचो काव्यधनी

## ७६३. गूण गावंक

तुका हांगा धाडला, न्हय धडे गिरोवंक गर्वाचे
कवी जावन गूण गावंक निर्मात्याचे निर्मणेचे

## ७६४. मन शुध्द

शरीर नितळ दवरपाक सदांच न्हावंक जाय
मन शुद्ध करपाक कविता गावंक जाय

## ७६५. बुडटो सूर्य

तुमी सगळ्यांनी तोखेले बगर सुर्य थंयचो वचपाना
कवी सोडून दुसऱ्या कोणाक बुडटो सुर्य कळपाना

सुर्याचो बुडटो अर्थ समजपी तूं काय हांव ?
तो न्हिदूंक वतलो तूं मारचे आदी धांव

## ७६६. मानाचें स्थान

वळयात तुमच्यो वासना काव्याच्या मार्गात
मेळयात एक मानाचें स्थान वयर सर्गात

कवी म्हळ्यार कवी हो शिपाय विश्वाचो
ताका खबर दर एकाचो वेग श्वासाचो

## ७६७. प्रामाणीक

नितळ निवळ प्रामाणीक मनीस
वयर तांकां जाय पडटा
तांकां अशें दिसून आयलां
असले मनीस करतात कविता

## ७६८. फकत कवी

आख्खो संवसार म्हजो ' म्हणू शकता फकत कवी
शिकिल्लो आसूं सवी नातर फेल जाल्लो धावी

संवसाराची चावी आसता ताच्या हातांत
सुंदरताये थालें आसता ताच्या बोल्सांत

## ७६९. ताच्या नांवार

कवीन भोंवचें रानांत, भोंवचें गांवांत
ताका कोण विचारना
आख्खो संवसार ताच्या नांवार
ताकाच खबर ना

एकल्याक ताणे विचारलें, - हें कोणाचें ?
ताणे सांगलें- हें सगळें म्हजें
कवीन ताका विचारलें- तूं कवी ?
ताणे म्हणलें- न्हय, हांव हांगचो भाटकार
कवीन थंयचे थंयच केली कविता त्या भाटार
आनी ताका दाखयली
म्हणलें, - हें पळय. हें सगळें म्हजें. तुजें न्हय
तुका जाय तें कर.

## ७७०. नमस्कार

कवी म्हूण कळ्ळ्यार करतात नमस्कार
नातर हेरांवरी वयलेवयर सोपस्कार
कवी मेजना तुमचे नमस्कार आनी सोपस्कार
सगळो वेळ ताचे तकलेर कवितेचोच भार

## ७७१. मारता मस्ती

चड दुडू जालो की मनशाक मारता मस्ती
कवितेफुडें कवित्रीक नाका भांगराच्यो वस्ती
एकान मेळटा सूख, दुसऱ्यान जगांत किर्ती
किर्ती आसल्यार परतीं पावलां पडटात सारकीं

## ७७२. अर्क

जेवल्याबगर पोट भरना, मेल्याबगर सर्ग दिसना
कवी जालेबगर कवितेचो अर्क पियेवंक मेळना
कवितेचो अर्क म्हळ्यार सकल रावन सर्ग
पयसुल्ल्यान पळयल्यार केन्नाय अर्थाचो अनर्थ

## ७७३. जल्मुचो लागता

एकल्यान म्हणलें, हांव कवी जावंक सोदतां
ताणे सांगलें, कवी जल्मून येवचो लागता

मारून मुटकून जाल्ल्या कवीक कोण मान दिना
धाडोवन बडोवन पिकयल्ल्या पणसाक रूच आसना

## ७७४. वागा साहित्य

घोळये कशे दिसतात श्रोते, बरेच वस्ताद आसतात
सोश्या कासाक वतना सदांच वागा साहित्य व्हरतात
वाग मुखार दिसल्यार मात कडेक दवरतात शस्त्रां
वागाक वाट सोडून सांबाळटात आपलीं वस्त्रां

## ७७५. अभरगत

रंग ढंग न्हेसप चलप वागप कवीचें अभरगत
कारण ताका खबर आसा जिविताचें खरें सत

आयला तसोच वतलो हें ताकाच बरें खबर
मदी बरे कपडे घालप नश्टो खर्च जबर

## ७७६. बुडलेलो कवी

व्हडें आसचें उदकांत, न्हय उदक व्हड्यांत
कवी मात सदांकाळ बुडलेलो आसता काव्यांत

कविताच कविता दिसतात
ताच्या दोळ्यांत, नाका तोंडांत

## ७७७. बियो

आमी रोवचीं झाडां, तुमी खावचीं फळां
बियो मात उडोवच्यो मातयेंत जळामळा

बियो आनी माती, कापसाच्यो वाती
वयर सरून पेटत रावतलीं तणाचीं पातीं

## ७७८. जग फसता

दिसता तशें नासता देखून जग फसता
नासता तें कवीक दिसता तेन्ना एकटोच बसता
आसता तें दिसता आनी नासता तेंय दिसता
दोनय एकेच परी भासता देखून कवी घुस्पता
दोनाय मदल्यान वाट काडून काव्याक हात घालता
तेन्ना एक भोव सुंदर चित्र उबें जाता

## ७७९. मन म्हजें

काम नासल्यार माकडावरी
उडक्यो मारता मन म्हजें
काम दितकच वगीच बसून
खरपिता माथें

## ७८०. ना कायदे

पांखां आसल्यार वयर उडपाक ना कायदे ना अटी
त्याचखातीर कवींच्यो दिसानदीस वाडटात खेटी

कवी हो सगळ्यांमदलो एकच प्राणी स्वतंत्र
काव्य ताचें तंत्र आनी कविता ताचो मंत्र

## ७८१. इनामां

मळबांतल्यान उडूंक लागतात इल्लीं इल्लीं विमानां
कुपांतल्यान पावशेतात तांचेर साहित्याचीं इनामां

## ७८२. उतर उरतलें

रोयलां तें रोंप म्हजें फुलून येतलें
गायलां तें उतर म्हजें सासणा उरतलें

## ७८३. मार मंत्र

रडटा भुरगें हांसना ? दाखय हांसतो चंद्र
ताकाय आयकना तर मार कवितेचो मंत्र

कवितेचो मंत्र ल्हान भुरग्यांक दिस्ता दिस्त लागता
आवयच्या गळ्यांतल्यान आयल्यार रडटें भुरगें हांसता

## ७८४. कोण उलयना

हांव गेल्लों शेरमांवाचे आशेन,
पूण तो जालो फिरंगी भाशेन
कोण उलयना कविते दिशेन,
थोडींच नाचतात न्हेसून काशेन

कवितेचे भाशेन थोड्यांक उलोवंक कळना
णव वारी काशेंत न्हेसूंक कळना
कविता म्हजी चुकली तरी हांसूंक कळना
कविता म्हजी कळ्ळी तरी लजूंक कळना

## ७८५. पचना

सुरय खाल्यार हागता, उकडें जेवल्यार भागता
तांकां पचना कविता आनी जिरना कथा

इतलें खाता पूण तांच्या जिवाक लागना
कविता केल्यार दुसरें कांयच खावचें लागना

## ७८६. बोडूक

भाकरेचें बोडूक खंयचे वटेन तेंच कळना
कवितेचीय शेंपडी बोडूक थोड्यांक दिसना

थोड्यां शेंपडी लांब थोड्यांची मोटवी
लांब आसल्यार बोडूक दिसना
मोटवी आसल्यार शेंपडी कळना
थोड्यांक शेपडी बोडूक दोनय आसना
वांटकुळी काय लांडी तेंय समजना
असल्यो कविता वांटकुळा भायर वचना

## ७८७. जिबेन

एके जिबेन आख्खो संवसार जिखूं येता
एके कवितेन संवसार आपलो करूं येता

जीब कशीय वळय, तिका आसना हाड,
एकेकदां ही जीबच कामां घालता पाड

## ७८८. पळोवची वाचून

इश्ट पळोवचो मागून, सोयरो पळोवचो वचून
गीत पळोवचें गावन, कविता पळोवची वाचून

वाचल्या बगर कवितेची खरसाण कळना
गायल्या बगर गिताची गोडसाण कळना

## ७८९. अदमास

कांय कविता अदमास, वयले वयर उतर
लागलो तर आंबो, नातर गेलो फातर

कोणाक जाय आंबो, कोणाक जाय फातर ?
आंबो पडटा म्हऱ्यांत, फातर दुरगा भितर

## ७९०. भांडवल

अक्कल आशिल्ल्याक भांडवल नाका
कविता आसल्यार कांयच नाका

भांडवल नासल्यार करपाक धंदे जायते आसात गा
अक्कल आसून खुबशे धंदे बंदय पडल्यात गा

## ७९१. धोडयारे

कवीचें वारें,
नवकवीक सारें
कपलांतले फातर फुटून
शाणे जातात धोडयारे

## ७९२. जल्माक येता

काल आयकली कविता, आयज घांसता आयदनां
घांसता घांसता येवजिता, जल्माक येता कविता

घांसलीं जरी आयदनां, चकचकतात कविता
मांजर लेगीत नुस्तें पळोवन गायता कविता

## ७९३. सुताक धरून

मूय लेगीत पावना थंयसर
कवी आपशीच पावता
कितल्याय बारीक सुताक धरून,
रोकडोच सर्गार चडटा

## ७९४. हांडीर चेडो

एक कविता सोदूंक, वाड्याक घालो भोंवाडो
हांडीर आसलो चेडो, सोदलो सगलो वाडो

सोदून वाड्यार मेळना चेडो, तकलेंत घोळटा कविता
दारा फाटल्यान झाडा फाटल्यान दिसतात कविता

## ७९५. रागेल्ल्याक गीत

तानेल्ल्याक दिवचें उदीक, भुकेल्ल्याक शीत
नेणाऱ्याक समज, रागेल्ल्याक गोड गीत

गितान जाता तें जायना शितान
शितान जाता तें गितान
एकूच कवन करून थोडे
हड्डें फुलोवन भोंवतात झेतान

## ७९६. सांगचें लागना

कोंबये कुकडाक उस्तूंक कोणे शिकोवचें लागना
गोंयच्या मनशाक कविता करूंक सांगचें लागना

गोंयचे मातयेंत आसा कवीत, गोंयचे हवेंत जिवीत
पिळगेंत आमचे भल्ल्या रीत, प्रयत्नांतूच जीत

## ७९७. रबर

ताचो मस्तो पूत कविता करता
एकदम बरी खबर
कविता म्हळ्यार वायट गूण
खोडून उडोवचो रबर

## ७९८. चड धार

स्कुटरीक रोदां दोन, मोटारीक चार
थोड्या उतरांचे कवितेक चड धार

रस्तो ना थंय स्कुटर वाट काडीत चलली
चार रोदांची गाडी रस्तो नासल्यार उल्ली

रोदांच नात तीं उडटात वयर
जाता जाल्यार तांची फाट धर

## ७९९. कवितेची भास

कवितेची भास ही भास देवांची
प्रार्थना तुजी मागणी तुजी
काव्यांतल्यान सांगपाची
भजन ताचें, तुस्त ताची
कवितेंतल्यान गावपाची
दोनय जायना जर कोणालागी
काळजांतल्यान मांडपाची

## ८००. काव्यतेज

लायट फूल पेटना तर काळखांत बरें दिसना
काव्यतेज दोळ्यांत आसत, कोण फसना

काव्यतेजांत भरिल्लो आसा नखेत्रांचो उजवाड
त्याच उजवाडांत जायत आसता निर्मणेंत वाड

चान्न्यांत रावन कवीक कांयच सोदचें लागना
पांयालागीच ताच्या खळखळटात चांदीचीं कवनां

## ८०१. कांयच जावपाक ना

दोळे फुटले म्हूण हिशोब बुडना
हिशोब बुडलो म्हूण उपाशी पडना
कविता बुडल्यो म्हूण मनीस मरना
मनीस मेलो म्हूण कांयच अडना

आमकां जाय म्हूण पावस पडना
पावस पडलो म्हूण सत्री फुलना
सत्री फुल्ली तरी भिजप चुकना
भिजप चुकता तेन्ना पावस पडना

जग बुडलें म्हूण घुंवचें थारना
घुंवचें थारलें तरी कविता थारपाक ना

## ८०२. रितें आयदन

मना काळजांतलो पुसून मोग
दिलो हांवें ताका
मन धुवन सुकयलें
काळीज फाफडून बसयलें
तूं सगळेंच घेवन गेलें
कुस्कूट दवरलें ना...
बरें जालें
आतां म्हज्या कवितांक
रितें रितें आयदन मेळ्ळें

## ८०३. ब्रेक

चलोवंक तुका कळना तर कांयच हरकत ना
वेळार ब्रेक मारल्यार गाडी खळग्यांत पडना

ब्रेक बरो आसचोच पडटा भोंवडेक वयताना
ब्रेका बगर गाडी व्हरशी घरा पावपाना

कवी हुशार आसलो तरी गी घुंवडावंक कळूंक जाय
गरज तेन्ना खळगे चुकोवन फुडें वचत रावूंक जाय

## ८०४. उदेंतो कवी

उदेल्लो सुर्य अस्तमेक वताच
उदेल्लो कवी वयर वयर सरताच

पावसान भिजली धरती वोतान सुकत रावता
पावसान भिजलो कवी कोंबरेत कोंबरेत वता

सुणीं मांजरां बुकले हुंदीर कार्यावळी करतात
तेन्ना कवी सगळी रात कुशी परतिता

## ८०५. बरी बुद्दी

थोडे म्हणटात कविता करप बेकारांचीं कामां
असल्यांक तुवेंच बरी बुद्दी दिवची रे रामा

बरें कितें वायट कितें जांकां कळना
कवितेचें रसीक-तेल घाल रे तांच्या कानां

## ८०६. करमळे तळ्यार

न्हिदिल्ले जागे जातात कवी-संमेलन म्हळ्यार
शेणिल्लीं गोरवां आमचीं सोदचीं करमळे तळ्यार

करमळेचें तळें आतां आदलें उरलेंना
येरादारीच्या घडघडान शांती उरलीना

तरी आमचीं गोरवां थंय वचचीं सोडनात
आमीय तांकां थंय सोदचे रावनात

## ८०७. जड दालें

गोंयच्या आमच्या ल्हान व्हडांक
कविता म्हळ्यार जालें
हांगचें साहित्य तुकचें जाल्यार
जड ज़ातलें कविते दालें

## ८०८. जमनी पोंदा

खंयचीय जमीन खणूंक गेल्यार मेळटा माती फातर
गोंयचे मात जमनी पोंदा पावला पावलाक भांगर

बायलां परस दादलेच हाली भांगरां घालतात चड
सरपळ्यो मुदयो घालून बळयां हात काडटात वयर

कविता सादर करतना मुदयो बळयां दाखयतात
बरी आसल्यार कविता मुदयो कोणाक दिसनात

## ८०९. चिक्कार कविता

जमनी पोंदा जमनी वयर कविताच कविता दाट
दोळ्यांत तेल घालून पळयतात कवीचीच वाट

कवी म्हणटा मायेन म्हाका
वाडून दवरलां ताट
एकाक हात घाल्यार
व्हांवूंक लागतात पाट

## ८१०. कवीचें उतर

हें उतर केन्नाच मरचेंना
मरतलो कवी, मरतलो श्रोतो
केन्नाच मरचेंना कवीचें उतर.
सरतलो काळ, गळटलो अहंकार
जिरतलो मद, देंवतली घमेंड
सरतलें गर्व, घुंवतलें पर्व
केन्नाच मरचेंना तें कवीचें उतर

## ८११. उल्याक धांवून

आयज भावा संवसारांत ह्या कोणाचेर ना विस्वास
कवी एकटोच उल्याक धांवून कविता करपी खास

कविता आयकून दुयेंतीक येतलो थोडो फोर्स
जेवन खावन न्हिदलेली उठून उबी रावतली नर्स

कविता करता तोच जाता आयच्या जगांत पास
जेवण खाण नासल्यार पासून जिवाक जायना त्रास

## ८१२. गाडी म्हजी

केन्ना केन्नाय गाडी म्हजी धुकलुनय जायना स्टार्ट
कविता म्हजी गावन दाखयल्यार नाचता एक एक पार्ट

थोड्यांक संगीत आयकूंक, जाय पडटा गवय
म्हजे गाडयेक पुरो जाता, म्हजी गावपा संवंय

## ८१३. आयज हांव...

आयज कुपां एका जाग्यार धरनात
हालतात, धोलतात, एकामेकार पडटात
धंगण उरना, तोल सांवरना
मोठ्यामोठ्यान आड्डुतात, मळब गाजयतात
तांच्या धुमशेणान धरती थरथरता
चंद्रसूर्य भियेवन लिपल्यात
झाडां फुलां पानां सळसळटात
भुंयकांप नासतनाय जमीन हालता
म्हाका दिसता हांव सपनेतां
काय म्हाका कविता येवजता !
काय हे सृश्टीक चडल्या नशा ?
म्हजेय पांय जाग्यार धरनात
हां... आतां याद जाली
आयज हांव चड पियेलां

## ८१४. तेंच म्हाका कळना

चान्नें धवळ्ळें, कुपां धोंगशिलीं, नियाळ्ळीं सुर्याचीं किरणां
एकार एक कविता खंयच्यान पडटात, तेंच म्हाका कळना

उदक व्हांवयलें, उजे पालयले, वाऱ्यार उडून पळयलें
कवनार कवनां खंयच्यान येतात, तेंच म्हाका कळना

झाडां हालयलीं, फुलां झडयलीं, दर्या ल्हारां फोडलीं
कानांत कोण गुणगुणटा, तेंच म्हाका कळना

ऋतू आरतिले, वसंत परतिले, पारखून पळयलीं सैमरुपां
काव्य कशें परगटटा, तेंच म्हाका कळना

रुचीक फळां चाखून पळयलीं, पावस गिमाचे नखरे भोगले
अमृतकवनां कशीं पिकतात, तेंच म्हाका कळना

रानां माड्डिलीं कुळागरां सासपिलीं, शारांगांवांत हेडून सोदलें
काव्यसाद खंय गाजता, तेंच म्हाका कळना

सूख नियाळ्ळें, दूख अणभवलें, हौंस भागयली, पचयली खोस
काव्यउलो हो काळजांत वाजता, पूण म्हाका कळना

## ८१५. तुजे भितर

एका जाग्यार बसून तूं नदर लायता मळबार
पळोवंक दिसता अख्खो संवसार दिला तुज्या माथ्यार

तूं खाकानवाळ असो बोवाळ पडला गांवार
तुजे तकलेंत कितें घोळटा, खबर उगत्या मळबाक

तुजे भितर घुस्मटटा तो एक बरो कवी
तुका समृद्ध करपाची आमच्या हातांत चावी

झाडां फुलां पानां आमचीं, आमचोच हो निसर्ग
पलतडीन दिसना तोय एक कवींचोच सर्ग

भूंय आमची, कुपां आमचीं आमचोच व्हांवतो वारो
सांज वेळार भुलयता तो भांगरा शिंवोर आमचो

## ८१६. हजार नोटी

तुमच्या बोल्सांत हजार नोटी
आमच्या हातांत कवीत
तींच आमचीं सुकण्या पांखां
आमकां जाय थंय व्हरत

आमच्या वांगडा असोच यो
काव्य दर्यात मार बूड
आमच्या वाऱ्याक असोच राव
उगत्या मळबांत ऊड

## ८१७. निसर्ग सुंदर

देवा तुज्या सर्गात दोंगर दर्या आसात काय ना ?
निसर्ग सुंदर आसल्या बगर कविता जावपाक ना

सर्गापरस सुंदर कांयच ना, आमी केल्यांत वर्णना
कल्पना इबाड करू नाका, इतली करतां प्रार्थना

## ८१८. कळुंदी

मरच्या आदी व्हरशी वयर
दोन संग्रह बरयतलों
एक सर्गाचेर
एक नरकाचेर
फुकट वाटटलों...
तुमकां कळुंदी नरक
तांकां कळुंदी सर्ग

## ८१९. रूप

एक एक कूप, कवितेचें रूप
एक एक सुर्यकिरण, काव्यकिरण
एक एक तारो, भरिल्लो करो
एक एक ल्हार, काव्यघर
एक एक मळबरंग, मनदंग
एक एक निर्मिती, काव्यगती

## ८२०. खोपो

एकलो बसला सांकवार
दुसरो बल्कावांत सोप्यार
एकल्याची नदर कुपांर
दुसऱ्याची बायलांच्या रुपार
एक येताली कवयित्री
फुलां माळून सावित्री
तिणे म्हणलें, ये..बेकार...
दोळे कित्याक गळ्यार ?
नदर लाय म्हज्या खोप्यार '

## ८२१. दर दिसा

दर दिसाक अस्ताक वचपी
हे वेगवेगळे सुर्या
वेगवेगळीं कुपां काय
एकाचींच वेगवेगळीं रुपां ?
सुर्यातूय भरल्यांत
कुपांतूय लिपल्यांत
दरया इतलीं अपरुपां
कवी इतल्यो कल्पना

## ८२२. कवितेर कविता

मोग जाल्यार कविता
मोग तुटल्यार कविता
खूश आसल्यार कविता
भूक लागल्यार कविता
सुखांत, दुखांत बेजार जाल्यार
धांवून येतात कविताच कविता
उर्बा आनी उर्जा दितात
कविताच कविता

जालो, मेलो, पडलो, बुडलो
हांसलो, रडलो, कविता
घडल्यार, मोडल्यार, चुकल्यार, जिखल्यार
हाजीर आसतात कविताच कविता

पावसार, गिमार, सावळेर, वोतार
काळखार, चान्न्यार, चंद्रार
सुचतात कविताच कविता
कविताच कविता,
कवितेचेर कविता

## ८२३. इतलें आसा

चंद्र उलयता म्हजेकडेन, सूर्य उलयता तुजेकडेन
इतलें आसा आमचेकडेन सोदूंक भोंवता खंयचेकडेन ?

चंद्रांत आसा तें कवीक सुखायता
सुर्यांत आसा तें वायट ल्हासयता
कवींत आसा तें सगळें एकठायता
चान्न्यांत आसा तें काव्य भासयता

# ८२४. वाडलो एरंड

एका गुणान तूं खांपो, दुसऱ्या गुणान हांव
वाडलो एरंड पाटी जायना, केदोय व्हडलो जावं

कवीचो हात धर, एरंड आंगान वाडटलो
पाटी नाका जावं, वखदाक उपकारतलो

# ८२५. मळब म्हणटा

मळब म्हणटा हांवूच तुज्या कवितांचो दरया
तूं आनी हांव मेळून आनीक कविता करया

बन बन मळब आमकां मारता उले तेच तेच
अरसिकांचें आयकून आमी कानार काडले केंस

मळब आनी दरया मेळून जालो विचार संगम
कवी म्हणटा तुज्या इतलोच म्हज्यांत आसा दम

# ८२६. मळबाक म्हेडी

पय पय एकठांय करून मळबाक लायता म्हेडी
ताच्या हाताक आपशीच पडटा कवितेची बेडी

काव्य ताका दिसता, कविता ताका रुचता
काव्यरंग आसता थंयच, कवी वचून बसता

काव्यबेडी ताका याद करून दिता घडी घडी
बेडी आसून लेगीत ताची व्हडी पावता पलतडी

# ८२७. दोट्टी खोशी

एक एकदा मळबा साहित्याक अशी येता बुट्टी
त्या वेळार कवींक आमच्या खोशी जाता दोट्टी

दोट्टी खोशी जाता पूण आमकां लागता वंय
वंय हूपून भितर वचपाक कवीच जाय थंय

# ८२८. येणेतेणे

जातालें तेन्ना येणेतेणे, फुकट गेलें अर्द जिणें
दांत आसले नासले चणे, दांत गेले आयले चणे
दांत नासल्या म्हाताऱ्यांनी खावचे तरी कशे!
एक तरी कवन जिणेंत बरोवन दवरचें

# ८२९. हाडां पोटली

जिवीत इतलें सुंदर म्हूण ताका खबर नासली
खबर कळ्ळी तेन्ना ताच्या हाडां जाल्ली पोटली

लागी लागी कोण ना, पयस पयस कोण ना
पोटलेंत हात घालून पळयल्यार हाडां लेगीत लागनात

आतां तुजी तकली फोडून कांयच उपयोग ना
गेल्ली पिराय शेणली आतां परत मेळपाक ना

## ८३०. निसर्ग उलयता

निसर्ग कितें उलयता तें थोड्यांक कळना
थोड्यांक वळटा, थोड्यांक वळना

तुवें बरोवचें म्हूण तो तुका रावना
सगळें बरोवंक गेल्यार जिवीत पावना

कळटा ताका वळना, वळटा ताका वेळ ना
सगळें बरोवंक गेल्यार जिवीत पावना

## ८३१. अज्ञान हेंच दूख

थोडे म्हणटात, अज्ञानांत आसता सूख
ते बाबडे नकळत, अज्ञान हेंच तांचें दूख

तूं जर नकळ आसत वाट, दिसूंक जाय वायट
बल्ब बोल्सांत दवरून कशी पेटत लायट !

## ८३२. जीव शिव

कुपांच्या खांचींतल्यान झिरपतात काव्यकिरणां दोळ्यांत
तितलींच किरणां धरनात कवीच्या चिमटीभर मनांत
एका किरणांत हजार कवनां, कवी सोडून कोणाक दिसना
कवनांत ताचो जीव, कवितेंत ताचो शिव,
देखून कांय सुचना तेन्नाय तो कोणाक भियेना
आनी कविते विणे कसोच जियेना

## ८३३. मळबायेदें

मळब म्हणून मळब हें केदें आसा काय !
सगळे रंग साठोवंक मन मळबायेदें जाय

## ८३४. दरया, दोंगर

अस्तमेक थोडींच किरणां धरतेर फांकारतात
तितले भितर दरया, दोंगर, रंगून पर्जळटात

तितलींच किरणां पुरो जातात वेचूंक काव्य-सुत्रां
त्याच किरणांनी तरतरतात कवीचीं काव्य-गात्रां

## ८३५. कवनां काळजांत

सैमांतलीं सगळीं कवनां आमी
धांपून दवरतात काळजांत
गरज तेन्ना काळीज उगडून
दितात तुमच्या हातांत

दोळ्यांक साद्या दिसपाक ना इतलीं तेजाळ
काळोख लागी रावपाक ना इतलो तांचो पर्जळ

## ८३६. विश्वगुरू

चार वळींचे कवितेन थोडे करतात काव्य-सफर सुरू
कविते बाबतींत तेय आयज जाल्यात विश्वगुरू

काव्य सफर सुरू करपाक दोनच वळी पुरो
ल्हवू ल्हवू तुज्या हातांत येतलो फुलां तुरो

फुलां तुऱ्यांत आसू येता तुजी फुडली वाट
चडटी देंवती खळगे आनी ऊंच ऊंच घाट

ओडलो कोणे तरी सोडची न्हय फाट
बऱ्या कार्यात असलीय शक्यताय दाट

## ८३७. परिक्षा

आडवो तिडवो तेंडल्या माटोव जेन्ना कोणय घालता
शितावयल्यान भाता परिक्षा सोपेपणान जाता

आमचे कडेन कवी आसात काव्यान तिजलेले
सुर्या वतांत उबे रावन आंग भाजलेले

## ८३८. करपता

कांयच हरकत ना, अशें जायत्या जाणांक घडटा
शिजूंक वेळ लागता, आनी शिजता थंय करपता

करपल्लें अन्न आमी भायर उडयनात
अन्नाचो मान म्हूण अपमान करनात

## ८३९. मसालो

कुस्कुटायेदे मुयेक मारपाक कावथ्यायेदो भालो
शंबर रुपयां कोंबो जाल्यार पांचशें रुपयां मसालो

कोंबे जाले म्हारग, भाले मेळटात उदार
शिजलें म्हणटच भालेकाराक, दिवचें पडटा दारार

दारार व्हरून दिलें तरी, भालेकार येता जेवपाक
जेवन आंवन जातरीच भालेकार सोदता न्हिदपाक

कवी म्हणटा मुयेक मारून तुवें कितें खालें ?
भालो उदार घेवन त्या भालेकाराचें भरलें

## ८४०. वस्त

कवितेचो कवित्रीचेर केन्नाय पडटा प्रभाव जबरदस्त
कविता वाचतना चडूच चकचकता गळ्यांत नाशिल्ली वस्त

दागिन्या परस सुंदर आसल्यार कवीची कविता
लाखमोलाची नाचती वस्त आमकां खंय दिसता !

## ८४१. देंवतो काळ

तरणो काळ सोंपलो, देंवतो काळ लागलो
करून करून भागलो, कविते पुजेक लागलो

ताकून भोगून सोंपतकच मनीस जाता शाणो
हें सत्य सुखदिणें, तूं जाणो, हांव जाणो

## ८४२. वेंताक चुकल्यार

पयस करात आगलाव्याक, लागी रावात काव्याक
वेंताक चुकल्यार वांवाक, वांवाक चुकल्यार गांवाक

अशेंच जालां आयच्या काळांत
मनीस सांपडला तांच्याच जाळांत
कवी संमेलनां ज्या गांवांत
सुवात ना लिपूंक आगलाव्यांक

## ८४३. ताकद

सुखापरस दूख आमचे जिणेक चड मारक
दूख विसरावन सुखी करपाची कवितेंत ताकद

कवितेच्या ताकदीचो अजून कोणाक लागलोना अदमास
कळना तांकां जाता तांतूंत कांयच नाशिल्ल्याचो भास

## ८४४. पराजय

मनशाच्या सद्गुणांचो सदांच जाता विजय
आंतरीक दुर्गुणांचो कविताच करता पराजय

व्हडाव्हडांचें आयकून घोळोवन गाणे
कितलेच दुर्गुणी जगांत जाल्यात शाणे

## ८४५. कत्तल

तूं म्हाका मारशी, म्हज्यांतल्या कवीकय मारशी
कवितांची कत्तल तूं खंयचे तरसादीन करशी ?

कवीक लागना तरसाद, ना बाण, ना फार
असलें करूंक पळयता तो आपुणूच पडटा थार

## ८४६. संमेलनां

काम आसले बगर कोण कोणाक मेळूंक वचना
कवीक कवी मेळटा थंयच भरतात संमेलनां

वेळ काळ असल्यो अटी कवीक लागनात
मद्यान रात जाली तरी कवी घरा पावनात

मद्यान रातीर काळखांतलें दिसती पडना सुर्याक
भोंवता कवी तोंड दियत कवितांच्या घुरयांक

## ८४७. पाळण्यांत

भुरग्याचे पांय दिसतात पाळण्यांत,
आवय बापायचो चलता वाद
कवी जावपा आसल्यार बाळक,
तांतयांत आसतनाच घालता साद

साद ताचो समजून तुमचो
वाद कडेक दवरूंक जाय
सादाक जाप दिवन ताची
वाट मेकळी करूंक जाय

## ८४८. गर्देचो त्रास

गर्देचो त्रास जाता ताणे पयस पयस रावचें
गर्देत आसून एकटो रावप, कवी कडसून शिकचें

कांय जाणांक एकटेपणाचो जाता त्रास
एकटो आसता तेन्ना गर्देचो जाता भास

## ८४९. परमानंदांत

संवसाराच्या जंजाळांत जर मनीस सदांच दुखांत
दर खिणाक परमानंदांत रावप कवीकडेन शिकात

कवी तुमकां दितलो आनंद खिणा खिणांत
इतलो आनंद मेळचोना खंयच्याच जगांत

## ८५०. वेगळी जात

जाती धर्माचे भेद आमकां केन्नाच लागनात
कवीची ही वेगळीच जात इतलेंच आमी जाणात

कवीची जात सगळ्यांचेर मात
एकाच जल्मांत जल्म सात

## ८५१. कात वांचयना

केद्याय व्हडल्या तंट्यांत कवी कात वांचयना
आंगार येताशें दिसलें तरी फाट दाखयना

फाट दाखोवन पळ काडप कवीक सोबना
तंट्यांतले बाण ताच्या काळजाक तोपना

तोपलो जरी बाण ताका कविता येवजतली
बाण ताचेर मारतल्याकच पिडा भोगतली

## ८५२. कविता

कविता झाडाक लागना
कविता वयल्यान पडना
कविता कशी परगटता
तें कवीकच कळना

कविता येना येवजून
निसर्गाचेर तकली फोडून
कविता ल्हवूच जल्म घेता
मनाच्या तळाक साकून

कविता आसता सुखांत
गरिबांच्या दुखांत
कविता तुज्या कश्टांत
तुजेर आयिल्ल्या संकश्टांत

## ८५३. रावंक जायना

जेवण खाण मेळना तर
उपाशी हांव रावना
कागद पेन घेतां आनी
कविता करूंक बसतां

घेवन बसलों म्हूण
वगीच कविता जायना
ती तुजेर फिदा आसत
तिच्यान रावंक जायना

कविता रुजपाक पयली
जमीन कर तयार
तिका जाय त्या वेळार
तिचेर येता भार

## ८५४. टिका

कवीच्या आंगार टिकेचो टींब
आळवाच्या पानार दंवाचो थेंब

कवीचे टिकेन कितें सादतले ?
वायट विचार तुमकांच बादतले
फुडें फुडें चलत रावतले कवी
टिका करपीच पडटले फाटी

## ८५५. सप्तसूर

कवीत रचपाक कवीक आयज
लिखणीच जाय अशें ना
सप्तसुरांची साथ मेळळ्यार
संवसार गाजोवप अशक्य ना

## ८५६. प्राण

काव्यांत आसा तांक मानसीक पराभव करपाची
काव्यांत आसा शक्ती मड्यांत प्राण फुकपाची

प्राण फुंकून उपेग ना,
ताणे उठून चलूंक जाय
चलून कांयच जावपाक ना,
कविते फाटल्यान लागूंक जाय

## ८५७. चार आणे

तुमी सगळे शाणे, सामके सोळा आणे
कवीक मात सुबेज आसात चार आणे

कवीक तुमी जोकूं नाकात रुपयांच्या हिसबांत
तुमच्या सोळा आण्यांत तें, ताच्या एकाच आण्यांत

कवीक समजून घेवपी खूब आसात कवी
अकवीच्या हातांत चिमटे काडपाची गावी

## ८५८. राग मोग

केन्नाय आमचो मोग पेट्ट्या इंगळ्या वरी
केन्नाय आमचो राग थंड बर्फा वरी

थंड बर्फ हातांत धरल्यार हात भेरेता
खर मोग केलो तर काळीज गरमेता

हात भेरेवप काळीज गरमेवप
थोड्या वेळा पुरतें

कविता रचून जाली म्हणटकच
परतून आसलें तशें

## ८५९. कारखानो

रचणाऱ्यान रचलो मना प्रमाण कवी सारको कवी
फोडलो सांचो, बंद केलो कारखानो, सांडयली चावी

मनशान मागीर चिंतलें स्वताचेर करची प्रक्रिया
सांच्या परस व्हडलो मनीस म्हणलें तयार करया

कवितेच्या मालवजार नवो मनीस ऊंच तेंकलो मळबाक
तुमच्या आमच्या दोळ्यांक तो चड कठीन दिसपाक

## ८६०. पातकां

कांय कविता रसिकांच्या दोळ्यांत हाडटात दुकां
वतात व्हांवन आयकतल्यांचीं साता जल्माचीं पातकां

कवी नांवाच्या प्राण्याचें कितलें नेक काम पळय
तुंवूय तेंच कार्य कर आनी असल्योच कविता घोळय

तुमच्या येत्नान व्हांवन वतलीं थोडीं तरी पातकां
सगळ्या कवींनी अशेंच केल्यार मुक्ती मेळटली मनशाक

## ८६१. अती सुखी

अती सुखी मनीस आसना खंय कवितेचो रसीक
भरल्या पोटार खातकीच धंय लागता करकरीत

सुखांत तशें दुखांत मनशाक कांय नाका दिसता
देखून कवी सदांच एकलो दोनांय मदी आसता

## ८६२. तकली

कविता रचूंक थोड्या कवींक झरोवची पडना तकली
असल्या कवींक म्हणचें पडटा अस्सल जातिवंत कवी

बुडून रावता उदकांत तो केन्नाच सुकना
पयस रावून चोयता तो कसोच भिजना

## ८६३. आतांच बरयल्या

दिसभर झरयल्या तरी थोडे सांगतात, आतांच बरयल्या
सारकी शिजलीना तरी हाडून तशीच पानार उडयल्या

झरयल्या काय शिजयल्या तें आमकां पडलेंना
मीठ मिरसांग लायली तरी आमकां पचलीना

## ८६४. पुन्नपोळयो

थोड्यांकडेन जायत्यो आसतात कविता, भायर सरना
पुन्नपोळयो पोटाक बांदल्यो म्हूण भूक भागना

उज्यार घातले बगर तुजी रोटी फुलना
खांकेक घेवन भोंवलो म्हूण श्रोत्यांक कळना

## ८६५. फुलां फळां

फुलां जालेबगर फळां जायनात, लक्षांत दवरूंक जाय
भुरग्यांतले काव्यगूण सांबाळूंक जाय, वाडोवंक जाय

तुज्या हातांत जाता तितलें तुवें जरूर करचें
व्हरूंक जाता जाल्यार कवी-संमेलनाक व्हरचें

## ८६६. मूग गिळून

कांय कवी मूग गिळून वगीच बसतात
ते बारा बांयचें उदक पियेल्ले आसतात

बारा बांयच्या उदकांत जायते आसतात सत्वगूण
असोच भोंवून ताचे गूण जाल्ले आसतात हून

## ८६७. बेबकी

कितलेंय पोट फुगयलें म्हूण म्हशी येदी जायना बेबकी
आंगांत काव्यगूण आसले बगर कोणूच जायना कवी

खऱ्या कवीक नाका पदवी, नाका कसली डिग्री
ताका कविता शिकोवंक वतल्याचीच उडटली बंबेरी

## ८६८. भाग्य

कविता केन्ना केलीना तर
नशीब तुजें बिगडलें
कविता केली तर समज
भाग्य तुजें उगडलें

नशिबांत तुज्या आसा कितें
नकळ तूं, नकळ हांव
हाताक मेळटा तें मार झोंपय
आनी मार धांव

## ८६९. पोट भरना

एका कवीन, एके कवितेन संमेलन जायना
आंगठो कितलोय चिवलो म्हूण पोट भरना

भुरगे आंगठो चिंवतात म्हूण जाणटे चिंवनात
जे जाण्टे चिंवतात तांची तकली सारकी ना

## ८७०. वयर सरा

कोणे कोणाक म्हणचें न्हय रे, म्हाका व्हरा..म्हाका व्हरा
एकामेकाच्या हाताक धरून अचळय वयर सरा

वयर सरपाक कोणाचो तरी घेवचो लागता आदार
अशें तुकां दिसता तर कवीच्या दारार मार

कविता तुजी उखलून धरूंक तोच काडटलो दार
हेर सगळे हांसून हांसून तुकाच करतले जार

## ८७१. कवीक तेंकून

कवीक तेंकून तेंकून बसता
सुक्या वांगडा ओलेंय जळटा

पातकां बाबतींत कवी आमचे
अजून जावंकनात ओले
सुक्यांक भिजोवन ओले करपी
आसात आमचेमदें कोले

## ८७२. आघात

तूं हे धरतेर जल्माक आयलो हो अपघात
तूं एकूय कविता करना हो आमचेर आघात

कवी म्हूण तुका धाडला आमकां धादोस करूंक
तुवें भलतेंच केलें तर आमकां पुरो मरूंक

## ८७३. कविता पियेलो

दुदान न्हाणयलो म्हूण कावळो धवो जायना
कविता खिरोवन पियेलो म्हूण कोणय कवी जायना

कविता ही वस्त न्हय
खावपा पिवपाची
मनांत जिरोवपाची
समाजांत मिरोवपाची

## ८७४. शेणाथापो

मातयेंत पडलो शेणाथापो घेवन उठलो माती
काव्यतळ्यांत पडलो तो भिजून जालो कवी

माती आंगाक सारोवपाक वगीच जमनीर लोळटा
खंय कितें चुकता तें तुजे तुका कळटा

पडलो तो उठलो आनी भिलो तो गेलो
कवींमदें वाडलो तो बेगिनाच पिकलो

## ८७५. माफ

जाणा जावन करता तें पाप
नकळ जावन करता तें माफ

कळ्ळें म्हणटच जावंक जाय मनस्ताप
भरसर रावचें न्हय पातकांचें माप

पापी म्हूण घेवचे परस कट्टुलार छाप
पातकां करंड रितो करून बेगिनाच धांप

नाका तोंडांत वचुंदी कवितेची वाफ
उपरांतच वच दिवंक पापपुण्याची जाप

## ८७६. शेण

वोतांत दवरल्यार
शेणाच्यो जातात शेणी
पावसांत दवरल्यार
शेणीचें जाता शेण
वोत मात आसूंक जाय
पावस मात पडूंक जाय
नातर आसा थंयच आसुंदी
जाता तें जावंदी
वोताक करपोवंदी
पावसाक व्हरुंदी

## ८७७. तारयो

मळबाच्या समदिरांत ताणटा चंद्रिमाचें व्हडें
तो तारयोच धवळटा आमचें काव्यमळब सगळें

असलो तारयो कोण खंयचो, तूं ताका वळखता
तो तुका पळयता, तो तुका चाळयता

## ८७८. मळब धवळटा

कवीय मळब धवळटा  बसला थंयच रावून
जाय तितल्यो काडटा कविता वेंचून वेंचून

तो जाणा कोण आपणाक हटकिना
मळबांतल्यो ह्यो कविता
हेरांच्या हाताक लागनात
हेरांचे हात पावनात

## ८७९. अंतर्मुखी

कवितेचे धुंदेंत कवी आपले आपूण सर्गसुखी
कारण तो चलता भोंवता जाता अंतर्मुखी

अंतर्मुखांतलें सूख कवीक आनीक खंयच मेळना
देखून तो केन्ना आमकां बहिर्मुखांत दिसना

## ८८०. कविते बगर

कविते बगर मनीस म्हळ्यार थिका बगर मुदी
पांखां बगर मोर आनी केंसा बगर तकली

मोराक आसा खबर आपलीं पांखां दिसतात सुंदर
देखून ते शारांत येनात कारण सगळेच बिलंडर

## ८८१. काव्य-उजवाड

इतले सगळे रस्ते आसात, हांवें खंयचो धरचो !
काव्य-उजवाड दिसता, त्याच रस्त्यान चलचो

सगळे रस्ते पर्जळीत पूण चलचें पडटा आडखळींत
काव्यरस्ते झळझळीत तशें पलतडीय चकचकीत

## ८८२. अकलेंत

ते म्हणटात, कविता येता कशी तुजे तकलेंत ?
ती येता अर्द तकलेंत, आसता अर्द अकलेंत

तकलेंत अकलेंत पडल्यार उजवाड कांयच ना अशक्य
उजवाड घेवन वगीच बसल्यार कांयच ना शक्य

## ८८३. भांगर न्हय

आरे पिशा कवीबाब, रेंवेंत कितें सोदता ?
भांगर न्हय, कविता मेळटा काय पळयतां

शेणलें तें शेणलें काळखांत, रेंवेंत कितें गावतलें
सोदतां सोदतां म्हजें म्हाकाच भलतेंच कवन मेळटलें

## ८८४. तांबडी शाल

म्हजो तिचो मेळ, न्हय मोन्या उतरांचो खेळ
वळेवयली ती भेळ आनी आमोरेचो तो वेळ

तें म्हाका म्हणटा, मोगा, खंय रे तूं काल ?
हांव म्हणटां, तांबड्या सुर्यान घाली म्हजेर शाल

शाल कांबरून हांवूच आख्खो जालों तांबडो
नवरंगी जालो म्हज्या दोळ्यांचो पड्डो

## ८८५. आपयता

सैम म्हजें म्हणलें जाल्यार कोण विचारता कागदां !
कागदांच कित्याक ! थंय म्हाका कविता आपयता सद्दां

इतलें विशाल हें सैम, न्हय कोणाची मालमत्ता
पूण सद्द्या आमची कविंचीच चलता सत्ता

## ८८६. सुतक

कविता म्हळ्यार व्हांवतें सावें नितळ पियेवचें उदक
एक कविता शेणली तर कवीक लागता सुतक

सुतकांत लेगीत कवी आपल्यो कविता कशोच सोडना
खंयच्याय वेळार उलो मारल्यार कानार केंस काडना

## ८८७. पुसता पानां

कवीक पळोवन तुमच्या मनांत कितें घोळटा जाणा
आपूण सगळें जाणा समजून तोंडाक पुसता पानां

अशेंच येवजून जायते जाण कविते आनंद घेनात
कोणाचें कांयच घेनात, कोणाक कांयच दिनात

## ८८८. संवसार धवळून

जगांत खंय कितें आसा तुमकां सोदून मेळपाक ना
बसून कवीक कळटा तें संवसार धवळून कळपाक ना

कवीची नदर म्हळ्यार संवसाराचो हारसो
जाका कळना ताणे ताचो अभ्यास करचो

# ८८९. शिंवासना

किते तुमकां सांगूं सायबा, काव्य रसिकाची महिमा
कवी म्हूण कळ्ळ्यार म्हाका व्हरून बसयतात शिंवासना

तांकां दिसता कवी हो संवसारांतलो देव
पांय धरल्यार ताका हांव बेसोवं किते दिवं

# ८९०. सुपीक

आंगापांगांत व्हांवतात जर कवितांच्यो झरी
कवीक तुमी म्हणटले सुपीक दोंगरी धरतरी

कसल्याय विचारांचीं उडयत बियां
वाडून तुमकांच मेळटलीं अमृतफळां

# ८९१. उदक जळटा

कवीचे कवितेन पेट्टो उजो पालवता
उदकांत उडयल्यार उदक जळूंक लागता
कवी मात वगीच कडेक वचून बसता
किते घडटा तें तोंड धांपून चोयता
सोस सोस सोसता आनी
कवितेर कविता करता

# ८९२. मांय सून

अशी ही कविता आसता थंड तशी हून
थोडे म्हणटात कविता जशी मांय आनी सून

मांय सुनेचीं मनां तुमी पारखूंक चुकल्यात
तांचे हावेस तांच्यो भावनां खंयतरी दुखल्यात

## ८९३. भरय

केन्ना केन्नाय श्रोते पळोवन कविता म्हणची पडटा
नाक दामून तोंड उगडून भुरग्यांवरी भरोवची पडटा

अशी कविता भरयली म्हूण तुजें कितें बुडटलें ?
फाटीफुडें कवी संमेलन तुज्याच फायद्याक पडटलें

## ८९४. नीस

कवीच्या ह्या कामाक, ना शीम, ना नीस
आयुश्य भर कविताच कविता असो हो मनीस

तशें पळोवंक गेल्यार मनीस न्हय तो काव्यदूत
आमकां सुजाण करपाक आयिल्लो देवाचो पूत

## ८९५. हळशिकेंत

कविते विणे दुसरें ताका कांयच झळकना
हळशिकेंत कविता दिसल्यार ताचो गुन्याव ना

हळशीक घाण म्हणटात तसलें ताका खंयच दिसना
तीच हळशीक घालशी मुळा बरीं फळटात झाडां

## ८९६. परमार्थ

अर्थ ना ताचे जिणेंत कविताच भरता अर्थ
सुवार्थ भरला ताचे जिणेक शिकयता परमार्थ

कविता मात वाचूंक जाय, ताच्या तोंडान आयकूंक जाय
अकलेन समजून घेवंक जाय, कवी वरीच वागूंक जाय

## ८९७. उपास

कवी जावंक नासलो तर तूं पोटभर जेवपाचो
पोट फुगोवन बेब्यावरी बेगीन मरपाचो

उपाशी उरता देखून तूं बेगीन मरचोना
उपास करता तो खंय मरन मरना

## ८९८. अमर

बेगीन आनी उसरां मरून कितें करतलो ?
जीण भर कविता करून अमर उरतलो

ताचे तकलेंत कविता तशें तुजे तकलेंत मरण
तुजे जिणेक आनी मरणाक कसलेंच ना कारण

## ८९९. शुध्द

काळजांत तुमच्या दवरशी जपून कवितेची बुद्ध
कांय दिसांनी आपशीच तुमचें रगत जातलें शुद्ध

रगत शुद्ध आसल्यार पडटा कवितेचो पावस
व्हडल्या व्हडल्या काव्यसर्तींत तूं सदांच पास

## ९००. कवी रडटा

जग सगळें रडटा तेन्ना कवीय तसोच रडटा
कवीच्या दुकांतल्यान एक एक कविता पडटा

कवीच्या रडपाक आनी हांसपाक मोठें कारण आसता
तुज्या दुखाक रडचें पडटा, तुज्या सुखाक हांसचें पडटा

सुखदुखांत कवी मात एकसारको आसता
देखून तो आमचे पासून पयस वचून बसता

## १०१. लाखाची नोकरी

एका लाखाची नोकरी दितां, कविता करचें सोड
लाखा परस कविता म्हज्यो चड चड व्हड

लाख तुजे अशेच मोडून वतले रे शाण्या
कवितांचें बाड म्हजें उरतलें युगां युगां

एक एक कविता म्हजी लाख लाख मोलाची
जिवीत तुजें खर्चलें जोडपाक तितल्या तोलाची

## १०२. दुडवां भूक

कवितेची म्हज्या तुवें शाण्या करची न्हय किंमत
कवी वरी करपाक कविता तुज्यांत ना हिंमत

म्हाका लाबलां सूख देखून तुका जाल्या नसाय
दिसान दीस वाडत वता तुजी दुडवां पिसाय

म्हजे असलें सूख भोगूंक जाय पडटा नशीब
असलें सूख भोगतलो तर जावचो पडटा कवीच

काव्य सूख भोगून पळय केन्नाच सोडचोना
दुखां निवारूंक सुखां हातासूंक रिणांत बुडचोना

## १०३. अभागी

अभागी म्हूण शंबर वरसां जगचे परस
कवी म्हूण पन्नास वरसां जगून मर

कविता पावल्यो नामना की कवी मरना
कांयच केलेंना तर धरतेर नांवय उरना

## १०४. महाकाव्य

तुमचें सुखदूख आयकून कवी आपले विसरता घावे
तुमचे जिणेंत लिपलां महाकाव्य अशे करता दावे

तो म्हणटा तें खरें, तुमचे जिणेंत आसा काव्य
तेंच काव्य-रंगांत बुडोवन करतलो महाकाव्य

## १०५. बरयल्लें उरता

उलयल्लें उतर उडून वता, बरयल्लें सासणा उरता
देखून मुजरत साहित्यकार आपली लिखणी झरयता

झरय झरय झरय आनी कितें तरी बरय
चिन्नें घेवन कांतता तेन्ना वळ्याची येता सोय

लिखणी सुंदर आसली म्हूण बरप सुंदर जायना
सुंदर दिसलें म्हूण मनीस कितेंय खायना

## १०६. चकचकीत

तुमी म्हणटले, हो कितें अशक्य उलयता
चकचकीत वस्तूच आयज मनशाक भुलयता

भुलून भुलून मनशा तूं वतलो रे खंय ?
एकूच कवड उगतें आसा बाकी सगळ्याक वंय

## १०७. मोनीं उतरां

सगळीं कवनां भांगरा इतलीं झगझगीत आसनात
केन्ना केन्नाय मोनीं उतरां काळजांतलीं वचनात

मोनीं मोनीं उतरां जरी हावेसाचीं चित्रां
तांतूंत आसता चिड्डल्ली धगधगती उर्बा

## १०८. भानगडी

सगळ्यो भानगडी करून थोडे आपूण म्हणटात सांत
आमकां भायल्यान दिसतात ते दाखोवपाचे दांत

हत्ती जरी बळिश्ट मोठो ताका सतायता मूय
पयस रावून पयता आनी करता कूय कूय

हत्ती मुळांत आंगान मोठो, ताचो न्हय गुन्यांव
मुयेक पासून दिसता खावचो, पदेरालो पांव

## १०९. खडपी जमीन

दर एका घाव्याक तुमच्या कवी लागी आसा वखद
पडींग खडपे जमनीर तोच घालून दितलो जोत

जोताक ताच्या लागना रे रेडे आनी पाडे
उतरांकूच तो जोताक बांदून फाटीर दिता लडे

## ११०. उपयोग

कितें सायबा सांगूं तुमकां कवितेचो उपयोग
सरणावयलो उठून बसता घेवंक ताचो उपभोग

गिताचें संगीत आनी कवितेचो अर्थ
येवं नाका म्हणटा ताका नरक सर्ग

# ९११. तरनाटो

जिवाक विटून तरनाटो एक दिवंक गेल्लो जीव
कविता आयकून बदलून गेलो, परतून जालो शींव

असले शींव केन्नाच मनशाचें करनात रे वायट
दुसऱ्यांक मानसीक आदार दिवंक मान तांची तायट

जीण सफल करप्यांनी कवीची धरची फाट
चलतां चलतां आपशीच सांपडटा नवी वाट

# ९१२. काळजा दुयेंस

कविता गायतल्याक जायना काळजा दुयेंस
कविता आयकतल्याचें वाडत वता भाटबेंस

पोसता घरादाराचीं टॅन्शनां ताका जातात दुयेंसां
आयल्या दिसा दर खिणाक शेजाऱ्याकडें केस्तावां

# ९१३. पुस्तक

सर्गात धाड म्हूण एकल्यान देवापांयार थेयलें मस्तक
देवान विचारलें, एक तरी बरयलां तुवें कवितेचें पुस्तक ?

जोडलेंना एक पुण्य, सर्गात वचूंक सोदता गुंड
संगिताचो ना गंध, तकली हालोवन जाता धुंद

सर्गात तुजें कितें काम ? कितें करूंक सोदता ?
हांगा केल्यात तशे थंय दुडू नासता

## ९१४. दरया पळोवन

दरया उदक पळोवन म्हाका खोशेन उडी मारीन दिसता
त्याच वेळार येवन म्हजी कविता फाटी ओडटा

कवितेन अशे जायते जाणांक केल्यात बाबा सालवार
जांचें नशिबूच फुटलां ते आजून बसतात सांकवार

## ९१५. धर्तरी म्हजी

मळबांत चंद्रीम चान्नीं पळोवन, तांचे मदी उडूंक भिना
धर्तरी म्हजी माय म्हाका पृथ्वी भायर वचूंक दिना

आवयक आपलो भुरगो वाडलो तरी दिसता ल्हानूच
वाडून जोडूंक लागलो तरी मातेक हांव बाबूच

## ९१६. आपशीच सुचता

रावात तुमकां सांगतां एक काव्यरचणुकेचें गुपीत
कागदाक लिखणी लायतांच आपशीच सुचता कवीत

रचणुकेचें हें गुपीत सगळ्यांक जमना
त्याखातीर करची पडटा काव्यसाधना

## ९१७. कुटली

दोळो लागना तेन्ना कविता म्हाका थापटिता
आपूण वचून ल्हवूच म्हजे डायरेंत फाट तेंकयता

मागीर बरयतलों म्हूण हांव परतून करतां गुटली
तेन्ना तीच येवन हातरुणार मारता म्हजेर कुटली

सकाळी उठून हांव तिका सोदतां घरा भोंवतणी
तीच म्हजी कविता गायत झाडार खेळटात सुकणीं

## ९१८. प्रस्न

राजाक प्रजेचे सतायतात प्रस्न
प्रजेक कुटुंबीक
सगळ्यांचे सगळेच सादयतात
फकत कवींक

दिसभर सदांच बाबडो
येवजीत आसता लोकांचें
गरिबांचें तशेंच गिरेस्तांचें
वायट बऱ्या करण्यांचें

## ९१९. चान्नीं नखेत्रां

मळबांत पळयल्यार आमकां दिसतात
चंद्रीम चान्नीं नखेत्रां
कवींक मात दिसतात रातदीस
रंगरंगयाळीं फुलां

खुंटिनासतना करता अपुरबाय कवी फुलांचेर
सुगंध तांचो फांकारता मनीस कुळयेचेर

तेन्ना आमी म्हणटात सुवास येता तरी खंयच्यान
आमकां कळना, तो झिरपता कवीच्या आंगांतल्यान

## ९२०. जिवाणीं

पांयाकडेन हुळहुळटात
तरेतरेचीं जिवाणीं
तरी सुखाचे राशीर बसून
कवी घालता शिळोणी

जिवाणीं ताच्या पांयाकडेन
येतात घेवपाक काव्यवास
थंयच बसून म्हणटात म्हाराज
आमी तुमचे जाल्यात दास

आमचे खातीर तुमी केन्नाय
घेवचो थोडो त्रास
आमच्याय जिविताचेर बरोवची
कविता केन्नाय खास

## ९२१. तंटे

कवी कवी साहित्यिकां मदें नासता कसलेंच अंतर
कितलेय तंटे जाले तरी जो जिखता तोच सिकंदर

ना रेस ना स्पर्धा कविता रचप हीच सर्त
जशें काय कविता नासल्यार मेळटलो नर्क

## ९२२. रिते हात

वतना निमणे कवीचे लेगीत
उगते रिते हात
बरोवन थेयल्ल्यो कविता ताच्यो
वाचता पिळग्यो सात

सात पिळग्यांचें कल्याण जावचें
देखून ताची धडपड
कविता ताच्यो वाचल्योनात
तर त्रासांत पड

## १२३. बंद मुठींनी

बंद मुठींनी आयलो जरी
वतना उगते हात
खावंक जाय तें मेळना तुका
आसून तोंडांत दांत

मुठींत कांय नासलें तरी
करना कोणाचो घात
ताची एकेक कविता म्हळ्यार
पेटलेली वात

## १२४. काव्यामृत

कोणाक जाय कोणाक नाका कवितेचो आनंद
काव्यामृत पियेतलो तर घेवचो कवीचो संग

काव्यामृत म्हळ्यार अमृत, मृत प्राण्याक करता जिवो
देखून मनशान लावचो कपलाक सदांच कवितेचो तिबो

## १२५. म्हजें शस्त्र

हांव आसां ल्हान म्हजें शस्त्र म्हज्यान व्हड
तीर धरूंक उबारपाकच लागता इतलें जड

तोल पळोवनच मनशान वाजोवचो खंय धोल
नातर नाचतां नाचतां तुजी उमेद जातली पॉल

तोल गेल्यार कोणय पडून दरयांत वता खोल
अशा वेळार कवीक सुचता कवितेचे बोल

## १२६. पोसकी कविता

कांय जाण दुसऱ्याची कविता घेतात पोसकी
पूण ती विस्कळटा कारण व्हडली आसता फास्की

तुजी फास्की, ताची फास्की आसना एकसारकी
तुजी आसत अखंड तर ताची मदेरान कुसकी

## १२७. चिटी

आपूण कवी म्हूण थोडे बेशट्यो मारतात फटी
कविता पळय जाल्यार मोग्यांक बरयल्ल्यो चिटी

असल्यो चिटी हांव म्हणटां कित्याक मोडना साहित्यांत
असलेंच साहित्य चडशे तरनाटे बरयतात नित्यान

## १२८. दुसरो विशय

मोगाच्यो चिटी कविता जायना अशें हांव म्हणना
मोगा बगर नवकवींक दुसरो विशयूच मेळना

सान पिरायेर कसल्याय झाडाक लागनात रे फळां
वाडून जमनींत घट्ट ताचीं धरची पडटात मुळां

## १२९. जीत

नागोवपाची फटोवपाची आमच्यांत ना गा रीत
जो करता कविता, ताचीच जाता खरी जीत

हार जीत असल्या आमिशांक कवी पडना रे बळी
खंयच्याय वातावरणांत, खंयच्याय काळांत कविता फळी

## १३०. साळगांवा

एक कवी भायर सरलो वचूंक म्हूण पिळगांवा
पावलो म्हूण देंवलो तेन्ना पाविल्लो साळगांवा

पावूं म्हणटा साळगांवा नातर ताळगांवा
बसींत हांव बसतां म्हणटा पकत नांवा

## १३१. अजाप जालो

साळगांवा पावन पळयली ताणे आपल्याच हातांत डायरी
वाचून तोच अजाप जालो नवे कवितेच्यो नव्यो वळी

डायरी आपणे केन्ना उगडली थंय ताचें शिंतीद ना
वयता खंय पावता खंय हाचे विशीं चिंतीच ना

## १३२. खबर ना

कविता बसींत केन्ना बरयली ताकाच खबर ना
दोळे धांपून कितें पळयलें तितलेंच तो जाणा

बंद दोळ्यांनी दिसता तें उगड्या दोळ्यांनी दिसना
तो म्हणटा अशें केल्यार प्रवासांत कसलीच रिस्क ना

## १३३. सिटार बसून

तेन्ना सावन तो कवी बसींतूच प्रवास करता
बस वता, परतून येता, तो सिटार बसून उरता

बसलो कितें सिटार आनी न्हिदलो कितें फातरार
ताका कांयच फरक पडना, फातराचेरच तो उपकार

## १३४. बसींत कविता

खंयूय वचूं, खंयूय पावूं ताका तें पडलें ना
बसींत कविता जाली ना अशें केन्ना घडलें ना

कवितेक लागून बस काय बसीक लागून कविता
इतलो तेंप भोंवता पूण बस केन्नाच मोडना

## १३५. फुडलो सीट

बसीकार ताका कवी म्हूण दिस्त वळखतात
तो येतलो म्हूण फुडलो सीट राखून दवरतात

फुडल्या सिटार जाता तें फाटल्या सीटार जायना
ड्रायवर कंडक्टर कितें उलयता तेंय आयकूंक येना

## १३६. खंयच देंवना

न्हिदिल्लो उठलो तरी तो मदी खंयच देंवना
सांजे वेळार काळोख जातच कंडक्टर उठोवंक विसरना

मदी देवन करतलो कितें, अशें ताचें म्हणणें
हांव खंयच देंवचोंना, जाय तितले करात पेणे

## १३७. थंयच संमेलन

केन्नाय बसीकार गराडो घालून ताच्या म्हऱ्यांत बसतात
आप आपल्यो कविता वाचून थंयच संमेलन भरतात

ताका पळोवन बसिकारांकय कविता करीन दिसलें
ताचेच वरी वग्गी बसून थोड्यांक नवें सुचलें

## १३८. कवी वरी

स्फूर्त घेवन कवीची हेरांनीय कविता केल्यो
उबे रावून कवी वरीच वाचून दाखयल्यो

बोटवो गळ्यांत घालून थोड्यांनी मारले झ्येत
खाड केंस वाडोवन कवी जावचे केले बेत

## १३९. वा-वा सुंदर

संमेलनाक बस भरून ड्रायवर कंडक्टर किलिंडर
एकाच सुरान म्हणूंक लागले वा-वा..सुंदर..सुंदर

नकळटना तांच्या तोंडांत खरें तेंच आयलें
धाडस करून थोड्यांनी कवन आपलें गायलें

## १४०. प्रासार कवी

वर्स भरान तयार जाले प्रासार कवी तीस
दोन वर्सात छापून आयले कवितासंग्रह वीस

तयार जाले कशे म्हळ्यार तांच्यांत आसली प्रतिभा
आनी कवी-गुरूचेर सगळ्यांची मनासावन श्रद्धा

## १४१. केलो सत्कार

सुवाळो करून बसकारांनी गुरू-कवीचो केलो सत्कार
कवीन आपल्या भाशणांत सांगलें हो कवितेचो चमत्कार

असले चमत्कार जायते घडचे प्रासार आनी गांवांनी
तेन्नाच आमी पावोवंक शकतले कविता घराघरांनी

## ९४२. विमोचन

सगळ्यां वांगडा कवीन एकदीस केलें विचार मंथन
बसींतूच आपल्या पुस्तकाचें केलें विमोचन

विमोचन म्हळ्यार लोकांक कळोवप
पुस्तकाची वळख दिवप
वाचक आनी कवींनी ताळयो मारून
पुस्तकां विकतीं घेवप

## ९४३. शिक्षणमंत्री

खबर आयकून थंय आयलो धांवून शिक्षण मंत्री
ताका पळोवन जनगणमन वाजोवंक लागले वाजंत्री

मंत्री आनी वाजंत्री एके माळेचे मणी
मुझ्ग वाजता थंय धांवतात एकसणी

## ९४४. आस्वासन

प्रासार मंत्र्यान सुरू केलें आपलें सुरबूस भाशण
कवीं खातीर बसी सुरू करचें दिलें आस्वासन

ते खातीर दुडवांची वेवस्था करतलें आमचें शासन
कविता करता तितल्यांकय फुकट च्या-पाणी जेवण

## ९४५. कवीक बस

दर एका कवीक दितले एकेक नवी बस
जाय तसो भोंव नातर कविता करीत बस

बस मेळटा म्हूण जायत्यांनी केले हात वयर
जण एकलो म्हणटालो आपणाक कवी कर

## १४६. देशाची मान

कवी आनी कविता म्हळ्यार आमच्या देशाची शान
तेच आमच्या देशाची जगांत वयर काडपी मान

मान आनी शान मेळून आमी जातले म्हान
देशा खातीर सदांच आमची हाजीर आसा जान

## १४७. फूल बॅटरी

कविता करूंक कवीक मुळचो उजवाड जावो
जितली फूल बॅटरी तितलो फूल पेट्टा दिवो

कांय बॅटऱ्यो मुळच्योच डीम, त्यो मात्शो वेगळ्यो
चार्ज करून हाडल्यो तरी उजवाड पडना धवो

## १४८. बल्ब बॅटरेक

बॅटरी बरी आसून दिव्याक कांयच फायदो ना
बल्ब बॅटरेक तेंकलोना तर दिवो पेटचोना

बल्ब म्हणटा बॅटरी आपली बरी आसूंक जाय
बॅटरी म्हणटा दिव्याक आपलो वायर तेंकूंक जाय

## १४९. पयली खेप

कविता बरी नासता ती कवीची पयली खेप
उपरांत तो मारता ती व्हडली गरुड झेप

माणकुलें भुरगें व्हडली उडी मारूंक शकना
व्हडलें जातकच ल्हान उडयेक न्याय मेळना

# १५०. पाडसाक

मार उडी, लाय हात वयल्या वयल्या मळबाक
मळबाक लागलोना तरी लागतलो पाडसाक

खंय हात पावंक जाय हें पयली थारावंक जाय
मेजून मापून उडयेकय तितलोच नेट लावंक जाय

# १५१. जीव तुजो

तो विचारता, करून करून कविता, जीव तुजो थकना ?
हांव विचारतां, जगून जगून इतलो, जीव तुजो सुकना ?

थकप सुकप असल्या गजालींक चड म्हत्व दिवं नाका
पडलो झडलो तरी ऊठ, रडत न्हिदून रावं नाका

# १५२. पाखर

पदरांत कांयच ना ताणेय घेवची कविते पाखर
एकाच वरसान करूंक लागतलो काव्य जागोर

काव्य जागोर करून करून जावं शकता अहंकार
दिसूं शकता काव्याचेर फकत आपलोच अधिकार

# १५३. उगते दोळे

दाट जाल्यार सान्नां म्हणटात, पातळ जाल्यार पोळे
देखून खावप्यांनी सदांच खातना उगते दवरचे दोळे

दोळे धांपून खालें म्हूण खातल्याक कळना कितें !
सान्नां रूच आनी कविते रूच एकूच आसता कितें !

## १५४. पोट भरना

कोणेय केलें वर्णन म्हूण, कवितेची गोडसाण कळना
दुसऱ्याच्या तोंडान जेवलो म्हूण तुजें पोट भरना

खावपा जेवपांत थोडे पयल्या नंबरान पास
तो मारता भुसकें तुका घडटा उपास

## १५५. खंय कितें...

बरें दिसना जिवाक
कुडकुडो खाता आंगाक
भूक लागता पोटाक
तान लागता ताळ्याक
वास येता नाकाक
आयकूंक येता कानाक
सृश्टी दिसता दोळ्यांक
खोशी जाता मनाक
यादी अंतस्कर्णात
कविता काळजांत

## १५६. ब्रेक ओड

चलोवंक शिकलो म्हण्टकच
देंवतेर पेदाल सोड
सोमती पावता सकयल
पेत्रोल नाका कांय नाका
धांवत रावता सायकल
ब्रेक मात

आकांता वेळार ओड
नातर जिवाची आशा सोड
वेळार ब्रेक ओडल्यार
कवीत जाता गोड

## ९५७. एकूच कालूं

एकूच ताणे केली कविता, खंय वचून वाचूं ?
एकूच ताचें कालूं, खंयचे तवलेंत घालूं ?

एक आसूं दोन आसूं, कालूं तें कालूं
पयले खेप गावलें तरी, फुकट नाका इबाडूं

कालूं जाणे पळोवंक ना, तो कालवाक वळखना
जाणकाराक विचारल्या बगर कितें तें कळपाना

## ९५८. वाटेवयली घोण

ताका पळोवन लोक म्हणटाले, वाटे वयली घोण '
कविता आयकून विचारूंक लागले, तो कोण?.. तो कोण? '

कवीक वळखना अशे गांवांत खूब थोडे
खायत बसतात आपल्याच लग्नाचे वडे

## ९५९. गुंडाराज्य

एक आसलें गुंडाराज्य
ताच्या शेजरा कवीराज्य
गुंडाराज्यांत केस्तावां
कवीराज्यांत संमेलनां

एका राज्यांत धाडयबडय
हाका मार, ताका नागय
हाका लूट, ताका फटय
दुसऱ्यांत फकत कविता बरय
हाका उखल फुडें धुकल
हाका शिकय कविता भरय
कवितेन उलय, कवितेन बरय
संमेलनां फुलय फुलय
कवीराज्याचें नांव गडगडलें
गुंडाराज्य घाणलें

## ९६०. तुस्ते विणे

जण एकल्यान गावंक जाय
कवीचे गुणगान
कारण ताचे तुस्ते विणे
हालना कवितेचें पान

कवी नासल्यार कविता करतलो कोण संवसारांत
फकत कविता हाडूं शकता धरतरेची गेल्ली जान

## ९६१. संत कशे

सादू कशे संत कशे एका जाग्यार बसतात
कवी बसून ध्यान लावन कविताच सोदतात

कवी केन्नाच पडना सुवार्थाच्या रेबडांत
जीण अशीच सरता साक्षात्कार दिवपांत

## १६२. गांवांत भोंवून

एका जाग्यार बसून ताका जातात सगळे भास
देखून गांवांत भोंवून करता समाजाचो अभ्यास

पेडण्या गेल्यार कानार पडटा मियां आनी तुयां
दर गांवांत, दर भाशेंत मेळटात काव्यबियां

## १६३. फुडल्या काळांत

कांय कविता
फुडल्या काळांत समजतात
कारण कवीन त्यो
त्याच काळांत वचून
बरयल्ल्यो आसतात

जाय तेन्ना जाय त्या काळांत
कवी वचूं शकता
त्या काळांतले चमत्कार
बसला थंय पळोवं शकता

## १६४. ओमथो कळसो

कविता आवडना असो कोण ना
आवडटा म्हूण तोंडान सांगना
कामाफुडें थोड्यांक
वाचूंक आयकूंक वेळ मेळना
चांदीचो जावं भांगराचो
ओमथ्या कळशांत
उदक भरना

## ९६५. कवनांचे चुरके

चोर, गुंड, पाकीटमाऱ्यांक करतले जर सारके
दिवचे कवितांचे भरे आनी फाटीक कवनांचे चुरके

.मागीर अचळय उरतले काव्याचे भिरकेंत
जशें वीख आसता बंद म्यानांतले सुरयेंत

## ९६६. पाकीटमार

पाकीटमाऱ्यान गर्दी करून कवीचें मारलें पाकीट
नोटीं बदला कविता पळोवन परतून लागलो फाटीक

.कविता वाचून कवीम्हाराजा कळ्ळी म्हाका म्हजी लायकी
उपकार करून हांव कवी जातलों काय ना तें तूंच पारखी

## ९६७. अंतामेरेन

तुमी जरी केलीना काव्यरचनेची कृती
जगाच्या अंतामेरेन तिगतली दिव्य संस्कृती

.तुमी केल्यार तुमकांच मेळटली फुडली गती
नातर उरतली रिती किरवंटीची पुण्याची पोती

## ९६८. कांय अडना

आपले विणे कांय अडना हेंय तो जाणा
तरी तो पडला आयज कवितेच्या घाणा

जेवंक खावंक उणें ना
भाटां बेसां थोडीं नात
मेजूंक जायना इतलो दुडू
कविते विणे सगळें कोडू

## १६९. चिंतनां घडयता

आलतडी तशे पलतडी
चिंतनां नाचतात तालगडी
घेवन कवित्वाची घुडी
पयस करतात अडीनडी

चिंतनाचें कितें...!
नाचयता तशें नाचता
उपरांत तुकाच नाचयता
बरें वायट शिकयता
तुजी परिक्षा पळयता
विचारांक मेळयता
मनांतलें फळयता
तुका तींच घडयता

## १७०. एकसणी

सोदूंक गेल्यार कवी मेळटात पावला कणकणी
संमेलनाक येवंक शकनात सगळे एकसणी

ते म्हणटात, आमी केन्नाच एकटे आसनात
शेवणीं, सुकणीं, प्राणी मेळून करतात संमेलनां

घरांत बसले तरी जांचें लक्ष संमेलनांत
पदरांत तांच्या अचळय पडटा गिन्यान कवनांचें

## ९७१. हजार हजार

सगळे कवी एकठांय आयल्यार जातले हजार हजार
रात पावचीना दीस पावचोना सुमान जातलो पार

म्हयनो म्हयनो सोंपचोना कवींचो काव्यजागोर
पांखाटे फुलोवन नाचूंक लागतले रानांतले मोर

## ९७२. तुजे भितर

तुजे भितर माणकां मोतयां, तुकाच खबर ना
देखून तूं झगझग तुजो तांकां दाखोवं शकना

भितरल्या त्या आत्मधनाक तूंच सारको वळखय
लोकांच्या भल्याखातीर लोकांक काडून दाखय

.कवीराजा कला तुजी आसता हेरां खातीर
काव्यगान आयकून तुजें तेज येता कातीर

## ९७३. सुण्याची शेंपडी

फुडें सुणो चलता, फाटल्यान शेंपडी हालता
आपलीच शेंपडी पळोवंक सुणो थंयचे थंयच घुंवता

शेपडे निमतान सुणो असो इतलो तरी घुंवता
खावन जेवन तूंय आळशा थंयच बसून रावता

हालप धोलप तुजें आळशा तुज्याच भल्याचें
सरभोंवतणी पळोवंक तुवें तशेंच घुंवत रावचें

## १७४. दुसऱ्याचें आयकून

खरें फट पारखुपाची तुमकां आसा अक्कल
दुसऱ्याचें आयकून, चडटा वयर, पडटा सकल

बरें कितें वायट कितें तुमकां समजूंक जाय
खावची वस्त धुवन पुसून तोंडांत उडोवंक जाय

पोटांत घालता अन्न तर तकलेंत घालचें गिन्यान
तकली चलता गिन्यानान, शरीर चलता अन्नान

## १७५. गळ्यांत माळ

तूं कवी जाल्यार तुज्या गळ्यांत मोतयां माळ
आयज आयला तो खरो कवितेचोच सुकाळ

माळो घालून घेवपी जायते आसत समाजांत
तितलेच माळो घालपीय आसात ह्या जगांत

गळो सुंदर दिसल्यार सोबता कसलीय माळ
नातर तेच लोक तुज्या हातांत दिवपी ताळ

## १७६. कविताच

दुस्मानाक खूश करपाक
गावची कविता
बाजार वेपार सवाय घेवपाक
वाचची कविता
तकली बरी फांस चलपाक
रचची कविता
इश्टागत बरी घट्ट उरपाक
दिवची कविता

घरच्या लोकांक सुखी करपाक
शिकय कविता
आपले आपूण सुखी जावपाक
घोळय कविता

## १७७. संवसार भरचो

दुखी मनशाक सुखी करप हो आमचो उद्देश
काव्यानंदान संवसार भरचो होच आमचो संदेश

संवसाराच्या हुमऱ्यार दुखी मनीस उबो
तोय बी आमच्या उदरगतीचो खांबो

## १७८. गरज ना

कोण तुका म्हणटा तुका कांयच कळना ?
कविता तुका कळ्ळ्यार, कसलीच गरज ना

कवितेंत लिपलां संवसारांतलें श्रेष्ठ गिन्यान
तेंच आमी काडून तुमकां दितात दान

कवितेंत रावन मग्न तू मुद्दम पळय
नाका खाण जेवण हें सगळ्यांक कळय

## १७९. काळोख बिण्ण

कविते विणे जीण ही, उमास काळोख बिण्ण
ना चंद्र, ना चान्नें, वयल्यान उजवाडाचें रीण

रीण फारीक करूंक तुजी जीण पावचीना
कितलीय केली सेवा तरी शीण वचचोना

## ९८०. पित्रां

काडीत रावात शब्द–चित्रां
तरतरुंदी काव्यगात्रां
पयस पळुंदी वारींसुत्रां
तृप्त जावंदी सर्ग–पित्रां

तुमी म्हणटले हें म्हजें न्हय
दुसऱ्या कोणाचें काम
कवितेची वळ कानार पडटांच
सगळेच बसतात शांत

## ९८१. पांखां

झगडूं नाका बिगडूं नाका
करू नाका तुका म्हाका
कवीक सादो समजूं नाका
उडट्या सुकण्या मेजपी पांखां

हांगा बसून सांगलां ताणे
खंयच्यान व्हांवता वारें
दोळे धांपून मेजल्यात ताणे
कितले आसात तारे

## ९८२. वारो लागतांच

बटन दामतांच स्कुटरीचो होर्न वाजूंक लागता
वारो लागतांच कवीचें इंजीन सुरू जाता

एकदा सुरू जाल्लें जावचेंना बंद
पेट्रॉल नासतना भोंवपाची हीच बरी संद

देखून कवी केन्ना एका जाग्यार उरना
एकदा फुडें गेल्लो केन्ना फाटी सरना

## ९८३. अशीर

कवीक आसता एक सुबेज शीर
देखून तांकां रुंद तें आमकां अशीर

तांकां सगळेंच गोड, वीख आनी खीर
कट्टेंतलें उदीक मुयेक समदीर

ताची ती शीर आमकां मोठो धीर
ताच्या कवितांनी जाता चित्त थीर

## ९८४. कविते विणे

केन्ना वचत सांगूं नजो, कविता ताच्यान वाचूं नजो
तरी खीणभर लेगीत कविते विणे जगूं नजो

काम काम काम करून आयुश्य भर झरप
कविते विणे जगप म्हळ्यार रोगी जावन उरप

हें ताका समजलें मरच्या निमण्या खिणा
गेल्लीं वरसां परत हाडप कशेंच शक्य ना

## १८५. तरणेपणांतल्यो यादी

म्हातारपणांत गांठोवंक बसतात तरणेपणांतल्यो यादी
कविता केल्ल्यो तर सुरकुत्यो पडच्यो नासल्यो काती

जिवीत दिलां मनशाचें, न्हय खावन जेवन वचपाचें
हेरां परस वेगळो रे तूं, दोन पांयांनी चलपाचें

आतां तरी जा रे शादूर, थोडेंच तुजें उरलां
तेंय अशेंच गेलें तर, सगळींच पोकीं कल्लां

## १८६. उज्या कीट

कवीक नाका शिमीट माती घर बांदूंक वीट
तुज्याच तपल्यांत अक्कल शिजोवंक जाय उज्या कीट

आख्खो संवसार ल्हासूं येता ल्हानशे एके किटीन
असलीं तुजीं चिंतनां आसत सगळें जातलें किण्ण

तपलें तुजें अर्द रितें तुका दिसता भरलां
अर्द रितें तपलें फकत एका कवीक दिसलां

तुजीच कीट रान्नींत घालून मारतलो तो फूक
तुजेंच अन्न तुकाच वाडप हीच ताची भूक

## १८७. दुखा सूख

तुज्याच बऱ्याक सांगात ताका तुजीं व्हडलीं दुःखां
थंयचे थंयच करतलो तो खिणांत दुखा सुखां

आयकून तो वळखतलो दूख कितलें खर
दुखाचें कशें सूख करप हें ताकाच खबर

दुखाक कशें सूख मानप हेंय तो शिकयतलो
सुखान जगूंक शिकलो तर जगाक जागयतलो

## ९८८. तो जाणा

झोळयेंत ताचे भिक्षा घालात
नातर नाका घालूं
ताका पर्वा ना.
उलयनासतना तोंडाक पळोवन
मनांतली कथा वाचूंक
तो बरो जाणा

न्हय तो भविश्यकार, न्हय पारखी
उमाळ्यांनी भरिल्लया रथाचो
तो एक सारथी

तो तुका व्हरतलो जाय त्या थळार
तुजें रण गाजोवचें
निंबून तुज्या बळार

तुजेकडेन मागूंक आयला,
तुजें नशीब समज
ताका भिक्षा वाडपाची
आसा तुकाच गरज

## ९८९. सावधान...

वेळ आसून आपल्याक पळयना
तेन्ना ती पयस पळटा
असल्या मनशाचें नांवूच घेतल्यार
तिचें काळीज जळटा

कोणाचें मन वळटा कोणाचें फळटा
तिका सगळें कळटा
श्रोत्यांक पळोवन ती उचंबळटा
आनी शिटकावणी दिता
– सावधान....
हांव येतां तुमच्या म्हऱ्यांत
तुमी म्हजेर दियात ध्यान

## ९९०. बरें जावं

कवितेक तुमी समजू नाकात प्रसिध्दीचें साधन
धांपूनय दवरू नाकात ती करता जगाचें कल्याण

कविता पावची समाजांत वाड्यावाड्यांत घराघरांत
तेंच कवीचें समाधान, कवीचें समाजाक दान

कवीक नाका नांव, कवितेन भरू गांव
बऱ्या वायटाक पावं, सगळ्यांचें बरें जावं

## ९९१. सपणार सपण

सपणार सपण
मळबाचें
चडले बगर कळना

पावलार पावल
गिन्यानाचें
घाल्या बगर मेळना

ताळयेर ताळी
उर्बेची
दिले बगर रावना

खोशयेर खोशी
काव्याची
काळजा दाल्यान घरना

## १९२. गुणांत उणो

शाणो गुणो अतीशाणो
कविता नाका, कविता नेणो
काव्यगुणांत उणो

गावं गितां, म्हणू पदां
नाचूं तालार, गितां बोलार
स्वतांत दंग, काव्य नाका
पांदऱ्यांत बंद आसून पांखां

## १९३. काव्यमाय

ना रूप, ना गंध
एक कल्पना, एक विचार
एक दयाळ, एक घायाळ
काव्यमूळ काव्यपाळ

ना उदक, ना पाणी
वले मातयेंत पुरून लाय
ल्हव ल्हव येतली कोंबरी
तीच तुजी काव्यमाय

## १९४. जातलो पास

इश्ट तुजे दुस्मान जातात
सोयरे दायरे पयस पळटात
लागचे मनीस लागी रावनात
कोणूच तुजें आयकून घेनात
रातच्या काळखांत दिसता भिरांत
संकश्टार संकश्टां येतात खावंक
सुखान तुका जगूंक दिनात
नाचूंक दिनात, गावंक दिनात
मनासारकें करूंक दिनात
उमेद खोशी मनोवंक दिनात
पोटभर हांसूंक दिनात
मनांतुलें सांगूंक दिनात

बरीशी कविता वाच
तीच परत परत घांस
एकटोच गावन नाच
रोखडोच जातलो पास

## १९५. रिक्षावालो

सिदोसादो मनीस, चलोवपी रिक्षा
ताची काव्यदेवतेन घेतली परिक्षा

आदी ताची पारखून घेतली तीव्र इच्छा
एका कवीकडल्यान ताका दिली दिक्षा

काम आपलें करतनाच ताणे घोळयली कविता
कवितेचें पुस्तक ताचें उजवाडाची वाट पळयता

मनांत इच्छा आसल्यार तिका दिस्त समजता
असल्याच्या मनांत ती आपुणूच धांवून वता

## ९९६. नखरे

कांय कडेन संमेलन म्हळ्यार प्रदर्शन आनी पसरे
तेखातीर शिरंगार करून कविता करतात नखरे

शिरंगाराचोच आयज बरो आयला काळ
कविता तरी हे सर्तींत कशी रावत घाळ

रीतच जावन पडल्या आतां संमेलनांत नखरे
नखऱ्यां बगर म्हणटात कविता तेच कवी खरे

वचत थंय चल्ला आयज नखऱ्यांचो बाजार
नखरे करतात तांचेर आमचे श्रोते जातात बेजार

कविता म्हणटा रसिकांनो तुमचो म्हाका मोग जाय
भुजांर तुमच्या बसय आनी जाय तितली खा साय

## ९९७. जादूचो हारसो

तुमकां दिसत कवी हो
उतरांचो करता जादू
कवनांची झोळी घेवन
उमाळ्यांची भिक्षा मागपी
तो एक सादू

सादू जावन झोळी घेवन येवचोना तुमच्या दारार
तुमी फकत खबरो मारात बल्कावांत सोप्यार

दारांत वचनासतना
तो आयकता ध्यानांतल्यान
उपरांत तो रूप दिता
तुमच्या खबऱ्यांक मनांतल्यान

तुमी केन्ना पळयलो नासतलो जादुगार असलो
तुमचें रूप तुमकांच दाखोवपी जादूचो हारसो

## १९८. विचारांक गती

चार चौगांमदी तोंड धांपून रावता सामको वगी
उलोवंक लागल्यार विव्दाना वरी उलयता कवी

वगी रावता तोच लक्ष दिवन आयकता
कांयच आयकना तो थारनासतना उलयता

तोंड करता बंद तेन्ना तकली जाता उगती
तुमचें आयकून ताच्या चिंतनांक येता गती

कवी म्हणटा कवींनी चड उलोवचें न्हय
आयकूंक आयल्यार कान बंद करचे न्हय

## ९९९. कवी बडबडो ?

तुमी केन्ना पळयला व्हय कवी बडबडो ?
चड उलोवपी न्हय म्हूण वळखता वाडो

कवीचेर ना तसो भरवंसो
उलयल्यार उलयलो
नातर वगीच सोंसो कसो
केन्ना खंय पावत सांगू नजो
केन्ना कितें उलयत आयकू नजो
ताच्यो खबरो कोणाक समजना
ताच्या मनांत कितें घोळटा कळना
सगळो वेळ तो काव्याचे धुंदींत
नाद आनी तालाचे तंद्रींत

## १०००. कस्तुरी

सगळे रस्ते बंद तरी
आनंद सोदपांत दंग
अजून तुमकां कळना कशें
काव्यानंद होच परमानंद

आपल्याच आंगांत आसून कस्तुरी
सोदूंक भोंवता रानांत झाडाझोपांत
तशी तुमची जाल्या गत
कविता तुमचेच भितर आसा
हें सामकें सत

दोनय दोळे धांपात आनी काळजा दोळे उगडात
तुमकां जें दिसता तितलेंय मना पेटयेंत थेयात

## १००१. शींव

पोशार जातकच कवीक जाता
कोणाक पडूं पांयां कोणाक भिवं
हातांत चार कविता आसल्यार
कवी जाता शींव

शिंवान एक गरड घाल्यार मनीस कडकडटा
तरी शिंवाक पळोवंक म्हूण सामको तडफडटा

शिंवाचें रूप पळोवन लोक थोडे भियेतात
शिंवाचो आवाज आयकूंक चड आशेतात

कवी म्हणटा शींव जावं कवी
व्हडलो फरक ना
कविता गावंक मेळटा कवीक
शिंवाक मेळना

## १००२. आत्मीक बळ

आत्मीक बळाची कविता
अज्रंवर
वयले वयर जल्मल्ली
खीणभर

आत्म्यांतल्यान जरी
आयली कविता
अपुरबायेन पोशेवंक जाय
ओले मातयेच्या गुळ्यावरी
आकार दिवंक जाय

कवी म्हणटा,
निकतेच जल्मल्ले कवितेर
आंगलीं आसनात
संस्कार घालून वाडोवंक कवीन
आवय जावंक जाय

## १००३. बुदवंत श्रोतो

कवी कविता व्हियेता
रसिकांच्या म्हऱ्यांत काव्यरस ओतता
रसीक पारखिता, पियेता
आनी जिवीत भर जियेता

कवितेंत जीव भरता
जिणूच करता कविता
शुन्यांत ताका शुन्य दिसता
तो सांगता तें
दर एकांत आसता

ताचे चुकेन चुकता ताल
सुट्टा तोल
बुदवंत श्रोतोच करूंक शकता
ताच्या ब्रह्म-विचारांचें
फावो तें मोल

## १००४. कर्माचें फळ

हांव आसां सुखी देखून थोड्यांक जाता नसाय
सगळ्यांच कवींक सुखी समजतात ते पिसाय

सुखाचें पांटें दुखाच्या माथ्यार,
दोगांयचो भार एकट्याच्या पांयांर
दुखाचे हांडीर कर्माचें फळ
अणभवाचे गांठीक चलपाचें बळ

सांबाळ तोल आवर बोल
चडटना वयर, देवतना सकल
कवी म्हणटा, धा जाणांचो म्हाल
तांचो तांच्याच माथ्यार घाल

## १००५. आशिर्वाद

सगळ्या कवींक, काव्यरसिकांक
म्हजो काळजा सावन आशिर्वाद
तुमच्या सुखदुखांत, अडीअडचणींत
म्हजी करात याद
म्हाका घालात साद
नित्यनेमान घेतात म्हजो आस्वाद
तांच्या उल्याक हांव
जरूर दितलीं दाद

कोणेय कितेंय म्हणू
बोटां मोडूं नातर शिराप सोडूं
म्हजो हात नाका सोडूं

तुमचे विशीं म्हज्या मनांत
मात पूण ना वायट
वायट कितेंय केलें तरी
तुमकां सोडचींना शिराप
कारण तुमी
म्हजेच ओंठ म्हजेच दांत

गाळी घालून झगडीं पेटोवशात
तकल्यो फोडची भास करशात
म्हज्या कानार हात...
नातर हांव जिवीतभर
तुमकां दितलीं साथ
तुमकां दितलींच साथ

## १००६. जगप

उठठां बसतां, खाता जेवतां
चलता भोंवतां
कविता...कविता...कविता
तोच बरो जगता

जाच्या चलपांत काव्य-ठेको
उतरा उतरांत काव्य-हेळो
भितर नदर, वयर दोळो
काव्यतुस्तेक तयार गळो
तो परमानंदांत लोळों
सकल आनी वयर ताका
सर्गसूख मेळों

# १००७. थारोवची पडटा

तुमी म्हणटले,
खोरें माती आपलेच वटेन ओडटा
देखून काव्य तोखणाय हांगाच
थारोवची पडटा

पावस पडल्यार धरतेची माती जमनीर बसता
देंवती आसल्यार कोयर उदक व्हळून वता

व्हांवतें उदीक आडावंक जायते आसात उपाय
प्रयत्न करूंक जाय मजत करतली धरती माय

तुमचे तुमी करचें काव्यचिंतन
करीत रावचें काव्यगायन,
काव्यमनन, काव्यस्मरण
आंगांत, मेंदवांत जीव ओतपाक
हेंच बरें साधन
दुसऱ्याच्या भरवंशार
दवरचें न्हय आदन
कालचो आयचो फायचोच न्हय,
काव्यकाळ अनंत
तुस्त तोखणाय करतात कवीची
व्हड व्हड विचारवंत

काव्यदेवीची जितली महानता,
तितली अदीक मयमा
कवीचे बुद्दींत धरना
तिची गाथा सोंपना

## १००८. म्हजी जोत

इतले दीस, इतल्यो राती
खीण खीण अखंडीत
भणभणपी म्हजी जोत
आयज मिणमिणली
वात कोळशेली
जोत भगभगली
आनी सरसरली
तेन्ना हांवें
काजळी काडली
तेल घालें
वात बदलली
आनी परतून पेटयली
आतां ती पेटत रावतली
संथपणान
तेल आसासर
वात सोंपसर

## भरत नायक हांची साहित्य निर्मिती

**नाटकां**

युगान्त, राम राम भाऊ, शॉक ट्रीटमेन्ट, एके रातीन एके वातीन, हय सायबा, सत्ते फुडलें शाणपण, भायर भितर

**एकांकी**

वेंचणूक, काशिपोंदा, चपलाहार, भेरें भेरें टुणटुणें, बॉबी न्हिदता तेन्ना, तिसरे माळयेर बस, नंबर ३६, बेकार कवी लाखां धनी, चामट्याक चिमटो, वासाचे पयशे, राँग नंबर, हांगा नुस्तें विकतें मेळटा, कारिक्रम, धव्याक धवें, मधुले गेरेजींत.

**कविता संग्रह**

मना मना, गीतगंध, झाडांच्यो कविता, काव्य-गाथा.

**बालसाहित्य**

पड रे पावसा पड, शाणुल्या गुणुल्या, एक आसलो, व्हडलो जातलों हांव, जादवाचो आयणो, धवो कावळो, गणपती बाप्पा मोरया, एकपात्री.

## लेखकाचो भौमान

१९८१: चपलाहार एकांकी संग्रहाक गोवा कला अकादेमीचो साहित्य पुरस्कार

१९८६: तिसरे माळयेर बस नाटकुल्यांच्या संग्रहाक कोंकणी भाशा मंडळाचो साहित्य पुरस्कार

१९९४: युगान्त नाटकाक गोवा कला अकादमीचे नाट्यसर्तींत उत्कृष्ट नाट्यलेखनाचें पयलें इनाम

१९९४: पै फाऊंडेशन, मणिपालचे अखिल भारतीय कोंकणी नाट्यसर्तींत अभिनयाचें दुसरें इनाम.

१९९७: जादवाचो आयणो पुस्तकाक एन.सी.ई.आर.टी. दिल्लीचो राष्टीय पुरस्कार.

१९९८: कोंकणी रंगमाचयेच्या योगदानाखातीर भौ.प्रभाकर कुडचडकार यादस्तीक पुरस्कार.

२००१: पंचवीस वर्सा कोंकणी नाट्यसर्तींत मोलादीक योगदान दिल्लेखातीर कला अकादमीचो खाशेलो भौमान पुरस्कार.

२००६: एक आसलो पुस्तकाक कोंकणी साहित्य केंद्र, कुडचडेचो मथा पुरस्कार.

२०११: अभिनय आनी नाट्यलेखनाखातीर कला अकादमीचो रंगसन्मान पुरस्कार.

२०१२: कविता, आनी नाट्यलेखनाच्या योगदाना खातीर द नवहींद टायम्स सेना पुरस्कार.

२०१४: कोंकणी रंगमाचयेक दिल्ल्या मोलादीक योगदानाखातीर, गोवा कोंकणी अकादेमी आनी अंत्रूज लळीतक हांणी आयोजीत केल्ल्या पयल्या कोंकणी नाट्य संमेलनांत खाशेलो भौमान.

२०१७: भायर भितर' पुस्तकाक कोंकणी साहित्य केंद्र कुडचडेचो सर्गेस्त सरिता सदानंद खानोलकार नाट्यलेखन पुरस्कार

